BIMB/ September 2021 / Vol 20 /ISSUE09/Panaji Goa POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/ 2021-2023 Published on 1st and Posted on 5th & 10th day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413

मोल : ₹50/-

२० वें वर्स

# बिम्ब

मासिक

सेतेंब्र 2021

# भूमिपुत्र...!

भूमिपुत्रांचें लुकसाण आनी

सरकारी जांवयांचो लाब..!



# कोंकणी मासिक बिम्ब

२० वें वर्स





वर्स 20:अंक 09
सेतेंब्र 2021
मोल 50 रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

पालवी संपादक
मानसी धाऊसकार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स,बेळगावी

वर्गणीचे दर :
वर्सुकी वर्गणी 500 रु.
3 वर्सांची 1400 रु.
विद्यार्थ्यांक वर्सुकी 300 रु.
आनी 3 वर्सांक 800 रु.
जाल्यार संस्थांक वर्सुकी 700 रु.
आनी 3 वर्सां खातीर रु. 2000

BANK DETAILS :
Bimb Monthly
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

कचेरी
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204

# नवी श्रीगणेशा करूंया, नवो गणपती पुजुंया!

संपादकीय

फाटली चवथ करोनाचे धामीक लागून तशी शेळेल्लीच. आतां शेळेल्ली कित्याक म्हणपाची तर गणपतीच्या नांवान वर्स पद्दती प्रमाण चवथीक जो धुडगूस घालूंक मेळटालो ताका ह्या करोनाच्या व्हायरसान मास्क चडयलो. तरी बऱ्याच उमेदी लोकांनी मास्का पोंदच्यान चवथ फुलयलीच! फाटले चवथीक थोडी भोव मर्यादा पडिल्ली ताचे फाटलें कारण ह्या करोना विशाणूचें स्वरूप उमेदी लोकांक सारखे कळूंक नाशिल्लें. तातूंत नाका-तोंडार मास्क, आंगाक सेनिटायजरच्या अभिशेकाची सक्ती आनी आमच्या प्रधानमंत्र्यांनी जनतेच्या मनांत वेगवेगळ्या मार्गान रिगयल्लो करोनाचो भंय हांका लागून नाय म्हणल्यार चवथीचे उमेदीक तसो ब्रेक लागिल्लोच! पूण आतां अणभवान करोनाचो भंय तसो संवकळीचो जाल्ल्यान आनी तातूंत थाकाय म्हणल्यार भोवतेकांनी वासिनाचो पयलो आनी थोड्यांनी दुसरोय डोज घेतला म्हणटकच आतां आमी त्या करोनाच्या चपक्यांतल्यान सुटल्यात, आतां मार व्हरून शेंडी असो जर कोणेंय समज करून घेतलो आनी तोंडा सामकार आशिल्ले चवथीक जर धंगण सोडून शबय घालूंक आरंभ केलो जाल्यार मात फाटलीं दोन वर्सां आमचे मानगुटेर बशिल्लो तो करोना व्हायरस परत एक खेप चवथीक लायिल्ल्या गर्नाला वरी ढुम्म जाले बगर रावंचो ना. पूण ताची कोणाक भिरांत आसल्यार मूं? भिरांत आशिल्ली जाल्यार करोनाचे धामीन सांवार मांडून पुराय मनीसजातीचीं सपनां जमनी भरवण केल्ल्याचो अणभव घेवन लेगीत जांणी कांयच देख घेवंक ना तांकां जाणवायेचीं दोन उतरां सांगपाक तसो अर्थूच उरूंक ना. कित्याक फकत भोग आनी चंगळ म्हणल्यारूच जिणेचें सार्थक हेंच जांचे जिणेचें तत्वगिन्यान थारलां तांकां करोनाचे धामीचो सांवार कितें आनी पर्यावरणाचो विध्वंस कितें सारकेंच! आपले मौजमजे पासत भान सोडून सगळें भोगप आनी तांचे करणेक लागून जर कितेंय अरिश्ट उप्रासलें जाल्यार सरकार आनी हेर यंत्रणेच्या नांवान बोबो आनी हुयेली मारप होच ह्या लोकांचो धंदो. पूण आपले कल्पनेंतल्या खिणयाळ्या सुखां पासत आपूण जी कितें मर्कटलिला करतां तातुंल्यान निर्माण जाल्लो राकेस हो आपल्या वांगडाच आपली सरभोंवतणूय नानपयत करता आनी ताका लागून निशपाप लोकांचोय बळी वता हाचें भान तांकां नासता. आलायत्या दुडवांचें कोलीत हातांत आयिल्ल्या ह्या मर्कटांचे नदरेन चवथ फुलोवप म्हणल्यार कमराचें सोडून माथ्याक बांदून बेहोश जावन धागडधिंगा घालप. पर्यावरणवाद्यानी आनी प्रदुशण नियंत्रण मंडळान कितलेंय पराथलें आनी सरकारान दंडाची भिरांत घाली तरीय ह्या मर्कटांक तशें कांयच पडून गेल्लें ना. ते कोणाचें आयकुपाचे मनस्थितींत नासतात. कायद्याची भिरांत घाल्यार वा कोणेंय आवाज काडल्यार तांच्यो धार्मीक भावना दुखावतात. म्हणटकच हे लोक देवा धमच्या नांवान जो कितें हैदोस घालतात तो निरर्थक आसलो तरी तो नियंत्रणा खाला हाडपाची इत्सा आनी धमक कोणाक आसा अशें दिसना. चवथ हो मौजमजा करपाचो सण. पूण फाटले वर्सा ते मौजमजेक करोना व्हायरसान गुठलावन दवरलो. हे खेप वासिनाची थाकाय आनी दोन वर्सांतलो करोनाचो अणभव ह्यो गजाली अंदुची चवथ दामदुपटी फोगान जर मनयली जाल्यार कोणें अजाप दिसून घेवंचें न्हय. चवथ म्हणल्यार मातयेची पुजा, चवथ म्हणल्यार पर्यावरणाची राखण, चवथ म्हणल्यार सृश्टीची पुजा हें तरातरांच्या माध्यमांतल्यान ह्या मर्कटांक समजावन सांगलें तरी तांकां फरक पडना. तांच्या ह्या कर्तुबान ते आपल्या वांगडाच हेरांकूय पानवळ भोगयतात. तांचे नदरेन थोडो फोग लायलो म्हूण कांयच इबाडना अशें दिसता आसत! पूण हो थोडो थोडो प्रकार जेन्ना एकवटता तेन्ना तो ज्वालामुखीचो रौद्रावतार घेता. हें सगळें इल्लें इल्लें दिसलें तरी हातुंतल्यान ही वसुंधरा तापत गेल्या आनी आयज जीं अरिश्टां वाडत येतात आनी धतरेर विध्वंस चलता ताचे फाटलीं कारणां हींच ल्हान ल्हान फोल्गां. करोनाचो सांवार, कॅलिफोर्निया सारख्या प्रगत वाठारांत धगधगपी जंगलां, ग्रीसांतली होरपळ वा आमच्याच देशांत हिमाचल वा कोकण वाठारांत मोठ्या प्रमाणांत दरडी कोसळप, धरणां उर्दकुटीं भरप वा आकांताळ्या पावसान बुडटी येवन गांवांचे गांव व्हावून वचप हाचे फाटलें कारण वाडिल्लें धतरेचें तापमान! तें वाडलां,वाडटा आनी वाडत रावतलें म्हणपाचें 'इंटर गव्हर्मेंटल पॅनल ऑन क्लायमेट चेंज'चे बसकेंत जगांतल्या 750 शास्त्रज्ञानी सांगलां. पूण हीं सगळीं फकांडां अशें मानप्यांचो आनी थोडो फोग मारल्यार कांय जायना अशें म्हणप्यांचोच आंकडो हे भुंयेर चड जाल्ल्यान आमच्या सारख्यांनी तांकां पर्यावरण रक्षणाचो श्रीगणेशा करुंया अशें कितलेंय सांगलें तरी आमच्यो आड्डयो ह्यो विसर्जना खातीरच आसतात सर्जना पासत न्हय!

# गांधीजी आनी तांचें धर्मनिरपेक्षपण!






'लोकभूमी' ह्या दिसाळ्याचो 2019 चो अंक सहज चाळटालों. तातूंत 'धर्म आणि गांधीजी' हो प्रा. आनंद मेणसे हांचो लेख आयचे परिस्थितीक गरजेचो अशें दिसलें, म्हणून हो स्वैर भाशांतराचो प्रपंच!

गांधीजी धार्मिक आसले. आपूण सनातनी हिंदू अशें ते म्हणी. 'सनातनी' ह्या शब्दाक लागून बरोच गोंदळ जावपाची शक्यताय आसता देखून दलित बांधव तांचे कडेन दुबावान पळयतात. पूण खरेपणी तसो दुबाव घेवपाची गरज ना. सनातनी शब्दाचो अर्थ गांधी 'नित्यनूतन' असो लायी.

हिंदुत्ववादी मंडळी तांकां मुस्लिम धार्जिणे म्हणटात. 'गांधीजींनी खंयचे बाबतींत मुसलमानांचो थातोमातो केल्लो?' अशें विचारल्यार ते देख दिवंक शकनात. मुसलमान संघटनाय गांधीजींक मुसलमान विरोधी मानतात. अशे तरेन चोंय वटांनी गांधीजींचेर आरोप जायत राविल्ल्यान अभ्यासकांच्या मनांत गोंदळ निर्माण जावपाची शक्यताय आसता.

गांधीजींची दिनचर्या पळयल्यार कोणय मानतलो की ते धार्मिक आसले. तांची दिसाची सुरवात प्रार्थनेन जायी आनी दिसाचो शेवटय प्रार्थनेनच जायी. सांजवेळचे प्रार्थनेंत ते गीतेंतल्या एखाद्र्या श्लोकाचेर भाश्य करताले. फकत हिंदू धर्मांतलींच न्हय तर हेर धर्मांतलींय मानवतेक पोशक अशीं तत्वां तांणी स्वीकारिल्लीं आनी शक्य त्या प्रमाणांत तीं प्रत्यक्ष आचरणांत हाडपाचे प्रयत्नय तांणी केले. हिन्दु धर्मांत जें जें बरें आसलें तें तांणी घेतलें आनी जें वायट आशिल्लें ताचो तांणी त्याग केलो. अस्पृशतायेचें उच्चाटन ही मानवी एकवटाची नांदी थारतली अशें तांणी म्हळें. महात्मा बुध्दां कडल्यान तांणी सोंसणिकाय आनी सद्सद्विवेकबुद्द घेतली. जैन धर्मा कडल्यान तांणी अहिंसेची शिकवण घेतली. अशे तरेन हेर धर्मांच्या तत्वगिन्यांनांतल्यान तांणी अनेक गजाली घेतल्यो. धर्म ही पुरायपणान वैयक्तीक बाब. जितले मनीस तितले धर्म आसतात. दरेक मनशाच्या मनांत ईश्वराची संकल्पना दुसऱ्याचे संकल्पने परस वेगळी आसुं येता अशें मत तांणी उक्तायलें. वेदां विशीं उलयतना गांधीजी म्हण्टात कीं वेदांच्या अपौरुषेय सामर्थ्याचेर आपलो विश्वास ना. वेदांतले शब्द अपरिवर्तनीय आसात अशें आपूण मानिना अशें ते म्हणी. वेदां प्रमाणेच हेर धर्मग्रंथांतल्यान जें तत्वगिन्यान सांगलां तेंय तितलेंच म्हत्वाचें अशें ते मानी.



एका धर्माच्या लोकांनी दुसऱ्या धर्माच्या लोकांचो द्वेश करप आपणाक अजिबात मान्य ना अशें ते म्हणी. धर्मनिरपेक्षतायेची आपली कल्पना स्पश्ट करतना ते म्हण्टात की स्वतंत्र भारताचें राज्य हें हिन्दु राज्य जावचें ना, तें भारतीय राज्य आसतलें. तें कोण्या एका धर्म, पंथ वा जमातीच्या भौमताचें आसचें ना तर नागरिकांच्या प्रतिनिधींचें आसतलें.

मनीस धार्मिक आसचो पूण ताणें धर्माचो उपेग राजकारणा खातीर करचो न्ही. अशी गांधीजींची धारणा आसली. गांधीजी सभावान आनी वृत्तीन धार्मिक

आसले पूण भौशीक जिणेंत तांणी केन्नाच धर्म हाडलो ना. म्हणचे ते खऱ्या अर्थान धर्मनिरपेक्ष आसले. देवळांनी दलीत बांधवांक प्रवेश मेळचो म्हणून सत्याग्रह करपी गांधींजीन मंदिरांक भेट दिली. पूण मंदिरांत वचून पुजा अर्चा केली, कर्मकांड केलें अशें चडशें खंयच वाचूंक मेळना.

एक फावट महादेवभाई आनी कस्तुरबा जगन्नाथपुरींतल्या मंदिरांत गेलीं. आपूण मंदिरांत वचून आयिल्लों अशें महादेवभाईन गांधीजींक सांगलें तेन्ना गांधीजीन तांच्या मंदिरांत वचपाचे कृती विशीं तिव्र नापसंती उक्तायली. परत अशें करूं नाकात अशें तांकां शिटकायलें. हाचे वयल्यान गांधीजी कर्मकांडांच्या विरोधांत आसले म्हणपाचें लक्षांत येता. आयज आमी पळयतात, राजकारणांतले बरेच लोक कपलार गंध लायतात. तांच्या मनगटाचेर वेगवेगळ्या रंगांचे दोरे आसतात. बोटांनी वेगवेगळ्या रंगांचे खडे आशिल्ल्यो मुदयो आसतात. हे दोरे, त्यो मुदयो तांणी ज्योतिषांचे वा बाबांचे सांगणे वयल्यान घाल्ल्यो आसतात. जायत्या राजकारण्यांचे तांचे अशे ज्योतिषी आसतात, जे तांकां वेळोवेळ सल्ले दितात. गांधीजींनी आपले



जिणेंत असल्या गजालींक थारो दिलो ना. गांधीजींनी एकाच न्हय तर दोन देशांत राजकीय चळवळीचें फुडारपण केलें. जायते फावटी तांचेर प्राणघातकी हल्ले जाले. तरीय तांणी कोणाच मांत्रिकाचो वा ज्योतिषाचो सल्लो घेतलो अशें घडलें ना. मनीस धार्मिक आसुनूय अशे तरेन कर्मकांडां पसून पयस आसूंक शकता हें तांणी आपले कृतींतल्यान सिद्द केलें.

जीं मनशां खरेपणी धार्मिक आसतात तींच धर्मनिरपेक्ष आसतात हें गांधीजीन दाखोवन दिलें. जीं मनशां वृत्तीन धार्मिक नासतात तांणी धर्माचो उपेग राजकारणा पासत केला अशें दिसून आयलां हाची देख म्हणून आमकां बॅरिस्टर महम्मद अली जीना हांचे कडेन पळोवंक मेळटा. बॅ. जीना हे सामके आधुनीक व्यक्ती आसले. ते अस्तंती जीवन पद्दतीचे चाहते आसले. ते केन्ना मशिदींत गेले नात. नमाज कशी अदा करप हाचे कडेन तांणी व्हडलेंशें लक्ष दिलें ना. पूण भारताच्या राजकारणांत तांणी इस्लामाचो वापर केलो आनी ताकाच लागून देशाची फाळणी जाली. वृत्तीन धार्मिक पूण धर्मनिरपेक्षतायेचेर पुराय विश्वास आशिल्लें दुसरें म्हत्वाचें व्यक्तीमत्व म्हणल्यार मौलाना अब्दुल कलाम आझाद. कुराण आनी इस्लामच्या तत्वगिन्यानाचे ते खांपे अभ्यासक आसले. पूण राजकारणांत धर्माचो वापर करपा आड ते सातत्यान उबे रावले. जी व्यक्ती धार्मिक आसता ती सहसा दुसऱ्या धर्माचो द्वेश करिना, उरफाटो आदरच करता. पूण जांकां धर्माचो उपेग आपल्या राजकारणा खातीर करपाचो आसता तांची राजकी बुन्यादच द्वेशाचेर आदारून आसता. अशी मंडळी वृत्तीन अजिबात धार्मिक नासता. आमचे सरभोंवतणी उक्त्या दोळ्यांनी




पळयत जाल्यार हाची गवाय मेळटली.

गांधीजीनी काश्मिर ते कन्याकुमारी आनी गुजरात ते अरुणाचल, तेच प्रमाण पेशावर मेरेन भारत पळयिल्लो. अभ्याशिल्लो. समजून घेतिल्लो. भारतांत अनेक धर्माचे लोक आसात, जायते पंथ आसात, शेंकड्यांनी बोली भासो आसात, वेगवेगळ्यो चाली रिती आसात. अश्यो विविधतायो आशिल्ल्या देशाचेर एकूच धर्माचें तत्वगिन्यान, पद्दती, चाली रिती कश्यो लादप शक्य आसात? म्हणून दर एकल्यान आपल्या धर्माचें आचरण जरूर करचें, पूण एकमेकांचो द्वेश करचो न्ही. उरफाटें एकमेकाचेर प्रेम करचें हें तत्वगिन्यान गांधीजीनी भारतीय समाजांत रुजोवपाचे प्रयत्न केले आनी तातूंत तांकां यशय गावलें. पुराय देशांत ब्रिटिश वसाहतवादा आड ते सगळ्यांक वांगडा घेवन लढो उबो करूंक शकले. तांणी आपणायिल्ल्या धर्मनिरपेक्ष तत्वांक लागून तें शक्य जालें.



प्रकाश वामन कामत
मो.9422443093

# बो र का री




कोणूय प्रभारी आयलो काय गोंय बावचळटा!

मागीर तो भाजपाचो आसूं,राष्ट्रवादी कॉंग्रेसचो आसूं नातर कॉंग्रेसचो!

गोंयाक एक नवचैतन्य शें येता

गोवा फॉरवर्डांत मात असलीं फित्रिकां नात!

ते एक्साचे आजुनय गोंय,गोयकार आनी गोंयकारपण हातुंतच आसात हें एक बरे जालें! खंयच्याय प्रभारी परस विजयच 'लय भारी' अशें प्रशांत नायक कोणाक तरी म्हणटालो!

तो झक मारू, आमी प्रभारीचें पळोवया.

गोंयांत हालींच कॉंग्रेसीचो नवो प्रभारी आयिल्लो. ताचे वांगडा आदलोय प्रभारी तो कोण तरी गुंडूरावूय आसलो!

हांव कॉंग्रेसीचो आसुनय असल्या रावांक मेळचें अशें म्हाका केन्नाच दिसलेंना.

पूण कितें कोण जाणा हो कोण पी चिदंबरम म्हण आयलो!

आनी कित्याक कोण जाणां म्हाका तो आपलोसो दिसलो!

हांवें शंभूक(बांदेकार)विचारलें, तर म्हणूंक लागलो, "जाता तें केन्नाय अशें! तेचें जालां कितें, तूं आनी हांव दिगंबराचे! चिदंबरम् आनी दिगंबरम् शाबी आनी बाबी तशें तें!"

मागीर ताणेंच म्हणलें, "तूं मेळटा जाल्यार मेळ ताका."

आतां हो म्हणटाच जाल्यार मेळूंक कितें जालां! हरशी सहसा ते कोणाक असली संद दिनात!

मेळ्ळों तेन्ना म्हाकाय दिसलें हो चिदंबरम् बरो मनीस!

हांव भितर सरलों तेन्ना ताणें म्हज्या हाता कडेनूय पळयलें ना आनी सुटकेसीचीय चौकशी केली ना.

हाचोच अर्थ कॉंग्रेसीक बरे दीस येतात!

"सगळे नवे उमेदवार खंय ओंदु?" हांवें उमेदीन शें विचारलें.

"ते निवडून येतले?" ताणेंच म्हाका प्रस्न केलो.

"येवं येतात! पूण पक्षांतले पोरणेच तांकां उडयतले!"

"मागीर कितें करपाचें?"ताचो फुडलो प्रस्न.

कितें करपाचें तें हाका कांयच खबर ना? सामकोच येंडो काय कितें हो? काय म्हजी परिक्षा घेता?

"पक्षान बीजेपींत गेल्ल्या कॉंग्रेसच्या आमदारां लागीं युती करपाची."

"आनी निवडून येवन परतेय ते विक्रयाक रावले जाल्यार?"

चिदंबरमाचे प्रस्न सोंपून सोपनासले?

"मतदाना आदीं तांचो दर पक्षानूच थारावप आनी तें दरपत्रक सगळ्या पक्षांक धाडप. तांकां परवडटा जाल्यार अर्दे पयशे ॲडव्हान्स घेवप. ना तर मागीर तांकां पावणेर काडप! म्हणटकच आपूण जावन आपल्याक विकपाची पाळी तांचेर येवपाची ना." म्हजो सल्लो भोवतेक ताका आवडलो आसतलो! कित्याक ताणेंच विचारलें,'पक्षाचो अध्यक्ष जाता?' काय म्हण!

जावपाक हरकत नाशिल्ली पूण भारत सरकार म्हाका अफगाणिस्तानचो राजदूत म्हूण धाडूंक पळयता ताचें कितें?

शीर्षकथा



उदय भेंब्रे

कोंकणी आनी गोंय हांचे पासत ध्येयनिश्ठेन वावरत आयिल्ले ॲड.उदय भेंब्रे हे ज्येश्ठ पत्रकार तशेंच नामनेचे गितकार आनी लेखक आसात. तांच्या 'कर्णपर्व' ह्या नाट्यपुस्तकाक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.




*बिलांतल्या हेर तजविजांक आपलो विरोध ना. अशें म्हणटल्यांनी बील सारकें समजून घेवंक ना आनी ताचे विशीं कायद्याच्या जाणकारां कडल्यान सल्लोय घेवंक ना. हें बील सरकारी जमनी जांणी बळकायल्यात तांकां इनाम दिता..*

बिलां दोन तरांचीं आसतात. कायदो करचे खातीर जो मसुदो तयार करतात आनी जो मसुदो विधेयकाच्या रुपांत विधानसभेंत वा संसदेंत मांडटात ताका इंग्लीश भाशेंत 'बील' म्हणटात. तें बील आदीं विधिमंडळांत मांडटात; थंय पास जातकूच तें राज्यपालाक (वा राष्ट्रपतीक) धाडटात; राज्यपालान (वा राष्ट्रपतीन) मान्यताय दितकूच त्या 'बिला'चें 'ॲक्ट' जाता. तो कायदो. दुसरें बील हें खंयच्याय सहकार भांडारांत, मोट्या दुकानार, हॉटेलांत, फार्मासींत, मॉलांत बी वचून कितेंय विकतें घेतकूच गिरायकान कितले पयशे फारीक करूंक जाय आनी त्या पयशांचें गणीत कशें केलां हें दाखोवपी कागद. बिलां करपी कारकून तें तयार करता.

गोंय सरकारान जें 'भुमिपूत्र अधिकारिणी बील' नांवाचें बील हालींच विधानसभेंत मांडलें, जें चर्चा करिनासतना ताकतिकेन पास करून घेतलें आनी जें सद्या रेफ्रिजरेटराच्या 'डीप फ्रिजां'त आसा तें कायद्याची जाण आशिल्ल्या मनशान तयार केलां अशें दिसना. अशें हांव कित्याक म्हणटां तें सकयल जे दोश दाखोवन दिल्यात ते मतींत घेतकूच कळटलें. हेरशीं, बिलाचो पयलो मसुदो संबंदीत खातें तयार करता. त्या पांवड्यार बिलाचो हेतू स्पश्ट करप हाका चड म्हत्व आसता. हेर तजविजोय ताका सुसंगत अश्यो आसच्यो पडटात.

मागीर तो मसुदो कायद्या खात्या कडेन वता. तें खातें मसुदो 'व्हॅट' करता. म्हणचे, दर एक उतर, वाक्य, कलम तपासून, चुकलां जाल्यार तें सारकें करता. रिती प्रमाण त्या मसुद्याक विधेयकाचें रूप दिता; बील पास जावन ताका मान्यताय मेळटकूच ताचें कायद्यांत रुपांतर जातलें आनी तो कायदो निर्दोश आसूंक जाय हाची जाणविकाय धरून कायद्या खातें तो वावर करता. उपरांत तें बील परत खात्या कडेन वता. तें खातें मंत्रिमंडळा मुखार तें बील दवरून मान्यताय घेता आनी मागिरूच संबंदीत मंत्री तें विधानसभेंत (वा संसदेंत) मांडटा. जें विचित्र बील सद्या रेफ्रिजरेटरांत आसा तें वयर सांगिल्ले प्रक्रियेंतल्यान वचूंक ना हें कळटा. कांय मंत्र्यांक पसून बिलांतले दोश तें पास जावन वतकूच कळ्ळ्यात.

## तर हें बील तयार जालें कशें?

म्हाका दिसता, एखाद्र्या मॉलाच्या बिलां करपी कारकुनाक सांगून तें तयार करून घेतलां. ताकाय बाबड्याक वेळ दिवंक ना. आदल्या दिसा ताका सांगलां, ताकतिकेन बील कर; मध्यान रात मेरेन तें सरकाराक पावय; तें फांतोडेर वांगड्यांक दिवपाचें आसा; सांज मेरेन करून घेवपाचें आसा. बिलींग क्लार्क बाबडो किंतें करतलो! मध्यान राती मेरेन ताणें बील तयार करून दिलें! तें हें बील!

## भूमिपुत्र कोण?

बिलाचें नांव आसा 'दि गोवा भूमिपुत्र अधिकारिणी बील, 2021.' बिलांत 'भूमिपुत्र' ह्या उतराची व्याख्या दिल्ली आसा ती अशी–

जी व्यक्ती अर्ज करता त्या दिसा आदीं उण्यांत उणीं 30 वर्सां गोंय राज्यांत घरांत रावता ती भूमिपुत्र. हे व्याखेंत ते व्यक्तीची बायल वा घोव, पूत, सून आनी आंकवार धूव हांचो आस्पाव जाता. (धूव म्हणटना daughter हें एकवचनी उतर वापरलां. दोन वा तीन आंकवार धुवो आसल्यार कशें करपाचें तें सांगूंक ना).

हाचो अर्थ असो जाता की जे मनीस–दादलो वा बायल–1990 वर्सा आदीं सावन गोंयांत घरांत रावता तो/ती भूमिपुत्र (वा भूमिकन्या) जाता. दुसऱ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, गोंय मुक्त जालें 1961 वर्सा. ओपिनियन पोल जालो 1967 वर्सा. गोंय हें घटकराज्य जालें 1987 वर्सा. ताचे उप्रांत पसून खंयचीय व्यक्ती गोंयांत येवन रावल्या आनी तिका 30 वर्सां जाल्यांत जाल्यार ती व्यक्ती'भूमिपुत्र' जाता. अशी व्याख्या संवसारांत कोणेंच करूंक ना. ही व्याख्या अपूर्वी! तिचें श्रेय मॉलांतल्या क्लार्काक , जेनिफर मोंसेरात हे मंत्रिणीक काय मुख्यमंत्री सावंत हांकां वता तें कळना!

'भूमिपुत्र' हें संस्कृत भाशेंतलें उतर. भूमि= भूंय आनी पुत्र=पूत. कोंकणींत भूंयपूत हें उतर वापरतात. इंग्लीश भाशेंत`son of the soil` म्हणटात. संवसारभर भूमिपुत्र वा son of the soil म्हळ्यार, जाचीं पाळां–मुळां संबंदीत भुंयेंत रोमिल्लीं आसात; जाच्यो उण्यांत उण्यो 8–10 पिळग्यो ते भुंयेंत गेल्यात; जाका ते भुंयेचो पूत (वा धूव)म्हूण हेर लोक वळखतात; जाची वार ते भुंये कडेन जोडिल्ली आसा तो भूमिपुत्र वा भूंयपूत वा son of the soil.

गोंयां संबंदान शीम घालपाचीच आसत जाल्यार मुक्तीचें वर्स ही शीम घालुं येता. गोंयच्या इतिहासांतलें तें मोटें स्थित्यंतर. मुक्ती उप्रांत सगलीं दारां, जनेलां उक्तीं जाल्यांत आनी तीं उक्तीं जातकूच



## भूमिपुत्र नांवाचें दुश्ट अस्त्र

**अॅड. रमाकांत खलप**



'भूमिपुत्र' हें प्रकरण म्हणजे गोंयकारांचे अस्मितायेचेर घालो आसा. गोंयकारांचो घोर अपमान आसा. गोंयचे विधासभेन लोकांचे इच्छेनुसार आनी लोक संमतीन आजवेर कूळ कायदो, मुंडकार कायदो, घर भाडेकरू संरक्षण कायदो अशे अनेक कायदे केले. त्या कायद्यांची अंमलबजावणी सरकार करी ना. पूण दुसरे वटेन वर्सा फाटीं म्हणजे 1 एप्रिल 2019 च्या आदीं कोणाच्याय घरांत रावपी मनशाक हें बील भूमिपुत्र म्हणून मान्यता दिता. अट इतलीच की असो हो भूमिपुत्र गोंयांत 30 वर्सां वास्तव्याक आसूंक जाय. 30 वर्सांचो रावितो गोंयांत आसा अश्या मनशाक भूमिपुत्र हें नांव दिवन त्या मनशाक बांयले भुरग्या सकट ज्या घरांत तो रावता त्या घराचो जमनी सकट मालकी हक्क हें सरकार दिवंक सोदता. एकूण एक गोंयकारांचें आनी गांवचें भुयेचें वाटप करपी हें विधेयक आसा. अट एकूच आसा की तो तथाकथीत भूमिपुत्र गोंयांत 30 वर्सां रावपाक जाय. त्या काळांत मागीर तो मळबा पोंदा रावूं, फुटपाथाचेर रावूं, कोणाच्या घरांत अतिक्रमण करून रावूं किंवा भाडेकार म्हणून रावूं, जमीन सरकाराची आसूं, कोमनिदादची आसूं, देवळाची आसूं, इगर्जेची आसूं किंवा मशिदीची आसूं 1 एप्रिल 2019 च्या आदीं हो तथाकथीत भूमिपुत्र जर त्या घरांत रावता तर तो एका दिसा खातीर रावूं, कांय म्हयने रावूं किंवा कांय वर्सां रावूं ताका हें बील भूमिपुत्र म्हणून मान्यताय दिता आनी ताका मालक करून सोडटा.

अशे हें अरिश्टकारी, गोंयकारांचो समूळ नाश करपी बील कोणाचे तकलेंतल्यान भायर सरलें, त्या बिला विशीं सरकार दरबारी कितें चर्चा जाली, जमीन विशयक जे जे अधिकारी आसात त्या त्या अधिकाऱ्यां मदें ह्या विशयाचेर चर्चा जाली काय जावंक ना, आनी मंत्री मंडळा मुखार हें बील मांडलें कोणें, केन्ना मांडलें, चर्चा कितें जाली हें सगळें गोंयच्या जनतेक समजूंक जाय. राजकर्तो जो पक्ष आसा त्या पक्षान असलें बील सभेर आयल्यार आमी हाडटले अशें आश्वासन फाटल्या इलेक्शना आदीं गोंयकारांक दिवंक नासलें. हे परिस्थितींत कोणें तरी फाटल्या दारान सरकारांतल्या एकाद दुसऱ्या मंत्र्याक हाताक धरून 'एके रातींत एके वातींत' हें बील पास करून घेतलां.

गोंयकारांनी ह्या बिला बद्दल उलोवंक जाय, सरकाराक जाप विचारूंक जाय आनी आयल्या वेळार असलीं मतां पुराव्यापाक मजत करपी बिलां हाडपाक दिवंक जायना. हें बील हाडपी भूमी-द्रोही आसात. गवर्नरान ह्या बिलाक मान्यताय दिवंक जायना आनी ताणें तीं दिवं नये म्हणून खर आंदोलन करची गरज आसा. ह्या बिलाचें समूळ उच्चाटन जावंक जाय अशी म्हजी मागणी आसा. ●●●

येवन रावल्यांत तांच्यो चडांत चड दोन पिळग्यो जावं येतात.

भूमिपुत्र वा भूंयपूत ह्या उतरा संबंदान एक अपसमज आसा. जे गोंयांतले पयले वस्तीकार तेच भूंयपूत असो तो अपसमज. गोंयचो इतिहास तपासून पळयल्यार जांकां आमी नीज गोंयकार म्हणटात ते सगले एका बराबर येवंक नात. पयलीं एक समूह आयलो, मागीर दुसरो, फाटल्यान तिसरो अशें घडत गेलां. गोंयांत सगल्यांत पयली वस्ती केली ती प्रोटो-ऑस्ट्रॅलॉयड वंशाच्या लोकांनी. आयचे गावडा, कुळमी, गांवकार, वेळीप हे समाज त्या वंशाचे. कोंकणी संस्कृतायेचें मुळावण तांणी घालें. देखून'मूळ गोंयकार' हें उतर तांकां लायतात. भूंयपुतां मदीं ते पयले हे विशीं दुबाव ना. तांचे फाटल्यान आनीक समूह आयले. कांय दक्षिणेंतल्यान, कांय उत्तरेच्यान तर कांय दर्या मार्गान. तांणीय गांव वसयले आनी गोंयचे भुयेंतले वस्तीकार जाले. दर एके राजवटके वेळारूय नवे लोक आयले. कांय जाण हेच भुयेंत वस्ती करून रावले. हे सगले भूंयपूत. पूण सगल्या भूंयपुतां मदीं पयलो मान प्रोटो-ऑस्ट्रॅलॉयड वंशाच्या गावडा-कुळमी- गांवकार-वेळीप ह्या समाजांक फावता.

दुसरें,जे गोंयांत रावतात ते नीज गोंयकार हेच भूमिपुत्र अशेंय मानूंक फावना. वेगवेगळ्या कारणांक लागून नीज गोंयकारांक गोंय सोडून वच्चें पडलां. ते देशांत हेर कडेन वा परदेशांत रावतात. तांचीं पाळांमुळां गोंयांत आशिल्ल्यान तेय भूमिपुत्र. तांचो आस्पाव गोंयच्या भूंयपुतां मदीं करचो पडटलो.

### बिलांत सांगिल्लो हावेस

'राबित्याच्या घरांत रावतल्याक राखण दिवपाची वेवस्था करचे खातीर बील' अशें म सुदो सुरू करतना म्हळां; तर हावेसा विशींचें जें विधान निमाणे कडेन आसा थंय 'धाकटुल्या घरांत'(small housing unit) रावतल्याक बरें जिवीत सारपाक 'मालकी हक्क' दिवपाची वेवस्था अशी भास वापरल्या. खरेपणीं, ह्या

बिलांत वेवस्था आसा ती बेकायदेशीर घर आसा तें कायदेशीर करपाची आनी जाणें कायदो मोडून घर बांदलां ताका त्या घराचो आनी बुन्यादी पोंदचे जमनीचो धनी करपाची. हेरशीं, हे वेवस्थेंत' भूमिपुत्र' हें उतर खंयच लागू जायना. पूण खरो हेतू लिपोवपाक तें वापरलां.हो कायदो भूमि-पुत्रांच्या हिता खातीर आसा अशें भासोवन दुसऱ्यांचोच लाब करून दिवप आनी सरकारी वा खाजगी जमनींचेर आक्रमण करून घरां बांदिल्ल्यांक त्या घरांचे आनी जमनींचे धनी करप हो खरो हेतू. आनीक एक विसंगती नदरेंत भरता. हावेस स्पश्ट करपी विधानांत 'धाकटुल्या घरांत' अशें म्हळां तर घराची व्याख्या दितना चडांत चड 250 चौखण्या मिटरांची बुन्याद आशिल्लें घर अशी भास वापरल्या. 250 चौखण्या मिटरांची बुन्याद! तेदे बुन्यादीचेर धाकटुलें घर? 250 चौखण्या मिटरां येदी बुन्याद आसता ती व्हडल्या बंगल्याची! तर 'धाकटुलें घर' ही विसंगत भास कित्याक? जाप सादीः नांव घेवप धाकटुल्या भूंयपुतांचें आनी लाब करून दिवप कायदे मोडटल्या गिरेस्तांचो.

हे ढोंगी चालीक कांय जाण बळी पडल्यात. मूळ गोंयकारांची एक संघटणाय फटवल्या. ती म्हणटा,'भूमिपुत्र' हें उतर काडात; बिलांतल्या हेर तजविजांक आपलो विरोध ना. अशें म्हणटल्यांनी बील सारकें समजून घेवंक ना आनी ताचे विशीं कायद्याच्या जाणकारां कडल्यान सल्लोय घेवंक ना. हें बील सरकारी जमनी जांणी बळकायल्यात तांकां इनाम दिता; तें एखाद्र्या भाटकाराचें लुकसाण करूंक शकता. कशें तें एक देख दिवन सांगतां:

## परिणामाच्यो देखी

समजुया रगलो गांवकार हो मूळ गोंयकार काणकोण म्हालांत पैंगीण गांवांत रावता. तें ताचें घर. कश्ट करून जोडिल्ल्या पयशांनी तो गांवडोंगऱ्यां जमनीचो ल्हानसोच एक कुडको घेता. मरड तें. फकत एक पीक येता पावसाळ्यांत. हेर वेळार तें पडंग उरता. 32 वर्सां फाटीं एक अडेचो 'भूमिपुत्र' (वा सरकारी भूमिपुत्र) येता आनी थंय बळजबरेन घर बांदून रावता. भायर सर आनी घर मोड म्हूण सांगल्यार भेश्टायता. रगलो गांवकार कोर्टांत फावटी मारतलो काय कश्ट करून कितेंय जोडून हाडटलो? तो बाबडो नशिबाक दोश दिवन दीस काडटा. आतां, सावंत सरकार जो कायदो करूंक सोदता तो गांवकाराचेर सक्ती करता, तें घर जमनी सयत त्या अडेच्या भुमिपुत्राक वीक; तो ताचो धनी जातलो. गांवकाराक दुसरो मार्ग ना. जमीन गेली. बुन्यादी इतली; पूण उरिल्लेचो उपेग ना. पयशे वतले सरकारी तिजोरेंत. गांवकाराक दुकुमेंत दाखोवन घेवंचे पडटले. दुकुमेंत ना, पयसे मेळचे नात. जमनीचो कुडको घेतना विकऱ्याचो दुकुमेंत करिनासतना सादी कबलात करून घेतिल्ली आसत जाल्यार विकपी फुडें सरतलो. आपूण धनी म्हूण तो पयशे मागतलो. मागीर खंय कोर्टान थारावप. रगलो गांवकार कोर्टाचीं सोपणां झरयतलो? अडेचो भूमिपुत्र सुसेगाद!

मडगांवांत बड्ड्यां रावपी आंतोन गांवकाराचें अशेंच घडुं येता. दवरले रावपी आलैश फेरैर हाचेंय तशेंच घडुं येता. ही सरकारी येवजण! अडेच्या भूमिपुत्राचें खऱ्या भूमिपुत्राचेर जैत! आनी गोंय कोणाचें? अडेच्या भूमिपुत्राचें! ते खंयचे? कर्नाटक, बिहार, ओडिसा, उत्तर प्रदेश वा हेर राज्यांतले!

## बिलांतलो दोश

● सर्वेक्षण ना, अभ्यास नाः भूमिपुत्र अधिकारिणी बील मांडचे आदीं कसलोच अभ्यास जावंक ना अशें बील वाचतकूच दिसता. गोंय राज्यांत कायदो मोडून बांदिल्लीं कितलीं घरां आसात, तातुंतलीं कितलीं सरकारी जमनींत, कितलीं कोमुनदादीचे आनी कितलीं खाजगी जमनींनीं आसात; विकूंक वतली पती जमीन कितली आसा हे विशीं सर्वेक्षण जावंक ना. ताका लागून सरकाराची (म्हळ्यार लोकांचीच)कितली, कोमुनिदादींची कितली आनी खाजगी धनयांची कितली जमीन वतली हें कळपाक मार्ग ना. ह्या बिलाक लागून लाब कितलो आनी लुकसाण कितलें हें कळना. तेच भाशेन लाब कोणाचो आनी तांचे मदीं खरे भूमिपुत्र कितले हेंवूय कळना. हो गोंय विकपाचो उद्देग दिसता.

● भूमिपुत्र उतरान दिशाभूलः कायदे मोडून दुसऱ्याचे वा भौशीक जमनींनी घरां बांदतल्यांक 'भूमिपुत्र' हें उतर लायतल्यांक त्या उतराचो अर्थ खबर ना हें स्पश्ट दिसता. उण्यांत उणीं तीस वर्सां रावता तो 'भूमि पुत्र' जाता ही तजवीज तर भूमिपुत्रांचीं फकाणां करता, तांचो अपमान करता. अडेच्या भूंयपुतांचो लाब करून दिवपी बिलाक भूंयपुतांचो विरोध जावंचो न्हय म्हूण भूंयपुतांच्या हिताची राखण करपाचें हें बील अशें फटकिरें चित्र रंगोवन लोकांची दिशाभूल करपाचो वायट हेतू साध्य करपाक त्या उतराचो उपेग केला.

0 वायट हेतू; वांकडी देखः जें बेकायदेशीर तें कायदेशीर करप, एकल्याचें लुकसाण करून दुसऱ्याचो लाब करून दिवप आनी फकत तीस वर्सां आदीं गोंयांत राविल्ल्याक भूंयपूत लेखप हो ह्या बिलाचो हेतू. ह्या बिलाक लागून थळाव्यांचो लाब जातलो काय कितें तें कळना. जालोच जाल्यार कितलो आनी गोंयां भायल्यान आयिल्ल्यांचो कितलो हाचो अभ्यास सरकारान करूंक ना. लोकांक तर ह्या विशयांत विश्वासांत घेवपाचें कर्तव्य निखालस करूंक ना.

● अर्दकुटो विचार : कायदो मोडून बांदिल्लें घर त्या कायदो मोडपी मनशान विकुंकूच जाय अशी सक्ती ह्या बिलांत आसा. ही सक्ती सरकाराक, कोमुनिदादींक आनी खाजगी जमनींच्या धनयांक लागू केल्या. अशें करतना एक मोटो दोश बिलांत दवरला. तो

# वेंचणूक निती म्हूण कायदे करचे न्हय!

-अॅड.क्लेओफात आल्मेद कुतिन्य



भूमिपुत्र अधिकारिणी बील 2021 ची अखेरेक फजेतीच जाली. बिलाचें नांव 'भूमिपुत्र' दवरिनासतना बदलून 'भूमिअधिकारिणी' करतले म्हणपाचें मुखेलमंत्र्यांन जाहीर केलें आनी लोकां कडल्यान सुचोवण्यो मागोवन तातूंत बदल केल्या उपरांत तें फुडल्या शियाळ्या अधिवेशनांत सभाघरांत मांडटले अशेंय सांगलें. हाचोच अर्थ सभाघरांत जें बील पास जालां तें मान्यताये पासत राज्यपालां कडेन वच्चें ना. जें बील सभाघरांत विशेश चर्चेक घेना आसतना पास केलें तें फार्टी घेतलां म्हणपाचो मुखेलमंत्र्यांन चुकून लेगीत उल्लेख करूंक ना.

ह्या बरगल्ल्या बिलान गांवांत नस्तो वाद निर्माण केला हें मात खरें. आपलें घर ह्या कायद्याक लागून भलतोच खायत म्हूण स्थलांतरीत लोक जे भाड्यान रावताले तांकां काडपाचे प्रकार आरंब जाल्यात. भूमिपुत्र ह्या उतराचो दुरुपेग केल्ल्यान समाजमाध्यमाचेर ह्या स्थलांतरितां विशीं खर तिरस्कार पातळूंक लागला. तशें पळोवंक गेल्यार भूमिपुत्र म्हणल्यार-भूंयपूत, मूळ गोंयकार. मुख्यमंत्र्यांन ते संकल्पनेक 30 वर्सांचो राबितो अशें जोडिल्ल्यान पिळग्यान पिळग्यो हे भुंयेर रावपी मूळ गोंयकारांक तो अपमान दिसला.

राज्यपाल बिलाक मान्यताय दितलो काय सद्याच्या बिलांत तिसऱ्या पक्षाक जमीन संपादना बगर मालकी हक्क मेळटलो म्हणपाचो जो मसुदो आसा तो तसोच दवरतले काय किते हो वेगळो विशय. ह्या बिलांत भाडें फारीक करून रावपी भाडेकार वा सुवात बळकावन रावला हांचे मदीं खंयच स्पश्टताय ना. तेच प्रम ाण मालकीहक्क गाजयतल्याच्या नांवार थळाव्या अधिकारिणीक भरिल्ली घरपट्टी, उदक, विजेचें बील बी आसूंक जाय हाचेंय स्पश्टीकरण ह्या बिलांत ना. हें बील म्हणल्यार नागरिकांच्या जमीन मालकी हक्काचेर केल्लें गंभीर आक्रमण. जमीन मालकी हक्क हो आतां मुळावो हक्कच न्हय तर ताका घटनेन दिल्लो हक्क थारला. उच्च न्यायालयान तो मानवी हक्क थारायला. नागरिकाचो हो हक्क अशें तरेन कायद्यात भ्रश्टाचार करून कोणूच लुटूंक शकनात. गोंयकारांनी पोटाक चिमटो काडून कमयल्ले संपत्तीचेर हें बील हावळ हाडटा.

घरबांधणी वेवसायाकूय हें बील मारक थारतलें. हें बील अस्तित्वांत आयल्यार कोणूच फ्लॅट वा सुवात घेवंक मुखार सरचो ना आनी असल्या वेवसायांत भांडवलूय घालचोना. कित्याक हो असलो कायदो आयल्यार आपलो मालमत्ता हक्क नानपयत जावपाचो भंय तांकां पिडटलो.

मुख्यमंत्री म्हणटा, मुंडकार कायद्यान भोवसंख्येन लोकांक राखण दिल्ली ना, कित्याक तांचीं नांवां एक आनी चौदा उताऱ्यांत नोंद जावंक नात. जर ते खरें आसत जाल्यार सरकारान मुंडकार कायद्यांत बदल करून जांचे लागीं घरपट्टी, उदक-लायटीचें बील भरता ताचीं कागदां आसात तीं अधिकृत मानून मुंडकार हक्क दिवं येतालो.

ह्या बिलान 'मुळावे आनी भूंयपूत' हातूंत गोंदळ घाला. सरकाराक फकत आपणें हें केलां आनी तें केलां अशें पेरगांव घालून अडेचें नांव जोडपाचें आसा.

ह्या बिलाक लागून स्थलांतरीत कामगारांचें भोव लुकसाण जातलें. ह्या लोकांचो गोंय उभारणेंत हात आसा हें नदरेआड करप शक्य ना.

2016 वर्सा,2017 चे वेंचणुकेक कांय म्हयने आसतना सरकारान अनाधिकृत बांदकामां अधिकृत करपाचो कायदो केल्लो. ताका सुमार 8000 अर्ज आयले ते पडून उरल्यात. जांचो सरकारा कडेन वसिलो आसा तांचे मात अर्ज तडीक लागले. आतां वेचणूक स म्हयन्यांचेर तेंकल्या. ती नदरे मुखार दवरून सरकार हो असलो वेंचणूक जुमलो राबोवंक लागलां.

भ्रश्टाचाराक वाव दिवपाक दवरला हे विशीं म्हाका तरी इल्लोय दुबाव ना. घराची बुन्याद 250 चौखण्या मिटरां वयर आसूंक फावना इतलोच एक आंकडो दिला. बुन्याद 100 चौखणे मिटर आसली जाल्यार तितलीच जमीन विकपाची? तर पावळ्यो दुसऱ्याले जमनींत पडटल्यो. सोपणां, बल्कांव बी, चड करून, बुन्यादीचे वांटे नासतात. तांचे विशीं बील मोनें आसा, घराक बागेल, घरा फाटल्यान गोठो वा जळवाची खोंप आसलीं जाल्यार तांचें कितें? बील मोनें! 250 चौखण्या मिटरांची बुन्याद आसत जाल्यार तो मोटो बंगलो. तसल्या बंगल्यांत रावतल्याच्यो दोन-तीन मोटारी आसुं येतात. ते जमनीचें कितें? अधिकारिणींक जमनीचें मोल थारावपाचो अधिकार दिला; पूण केदी जमीन हें थारावपाचो अधिकार ना. हें भ्रश्टाचाराक उक्तें दवरिल्लें जनेल! जमीन कितली हें थारायनासतना अधिकारिणी मोल कशी थारायतली? बुद्द खुटयाळ्याक लावन विधेयकां तयार करतात तेन्ना अशें घडटा.

अधिकारिणी सरकारी चाकरांचीः अधिकारिणी सरकारी चाकरांच्या हातांत दिवपाची तजवीज केल्या. डेप्युटी कलेक्टर हो अध्यक्ष, कांय खात्यांचे कर्मचारी.'ऑफिशल'अशें उतर वापरलां. देखून तो वरिश्ठ अधिकारी आसूंक जाय अशें ना. सगल्यांत कनिश्ठ असो अधिकारीय official जाता. आनीक एक वांगडी तो मामलेदार. नगरपालिका वा पंचायत हांकां प्रतिनिधित्व ना. हाचो अर्थ लोकशाय कुशीक दवरल्या आनी अधिकारिणी सरकाराच्या कनिश्ठ अधिकाऱ्यांनी भरपाची तजवीज केल्या. मंत्र्यान 'ऊठ' म्हणल्यार उठपाची आनी 'बस' म्हणल्यार बसपाची अशी ही अधिकारिणी! भ्रश्टाचार सोपो करून दवरपाची मांडणी चुकनासतना केल्या!

0 भाशेच्यो चुकोः बील इंग्लीश भाशेंत आसा. ताचो अणकार राजभाशेंत करूंक ना. जशे परी सगळे इंग्लीश आवयांचे पूत! हेरशीं, 'देशाभिमान','राष्ट्रप्रेम', 'भारतमाता','भारतीयत्व' असलीं उतरां आत्रे-पयऱ्यान सरकारी फुडाऱ्यांच्या तोंडांतल्यान आयकूंक येतात. पूण तें राष्ट्रप्रेम, तें राष्ट्रीयत्व असल्या वेळार तांच्या कचेऱ्यांच्या दारांतल्या पांयपुसण्यां पोंदा उरता आनी 'इंग्लीश माता की जय' जाता! हाचे फाटल्यानूय मांडणी आसा. सरकारी यंत्रणा जाणा की राजभास हीच लोकभास आशिल्ल्यान चडांत चड लोक बील वाचूंक आनी समजून घेवंक पावतलो. तें हे स्वाभिमानशुन्य यंत्रणेक नाका. इंग्लीश कितल्या जाणांक वाचूंक आनी बरोवंक येता? राष्ट्रीय सरासरी आसा 5 टक्के. गोंयांत तिप्पट धरुया- हांगा इंग्लीश आवयांचे पूत खूब आसात न्हय? म्हणल्यार 15 टक्के. ते तरी सगले बिलां वाचतात? ना. म्हणटकूच जें देशी भाशेंतल्यान कठीण जातलें तें इंग्लीश भाशेंतल्यान पचतलें? इंग्लीश मायेचे पूत जाल्यातूच हे; पूण सभाग्यांनो, ती इंग्लीश तरी सारकी बरयात. भूमिपुत्र अधिकारिणी बील हें फकत 12 कलमांचें बील. पूण ह्या बिलांत इंग्लीश भाशेच्यो मेजून 15 चुको आसात. असलें बील मॉलांतल्या क्लार्कान तयार केलें काय 250 चौखण्या मिटरांचे बुन्यादीचेर कायद्या भायर घर बांदपी टमन सिंग, सतिश कुमार, कटप्पा, चौधरी, मोहपात्रा हांचे मदल्या कोणेंय तयार करून हाडून दिलें?

0 आयत्या बिळांतल्या नागाक दूदः हें बील तथाकथीत भूमिपुत्राक जें घर+जमीन विकपाचें बंधन घालता, तें घर ताणेंच बांदिल्लें आसूंक जा. अशें बंधन ना. 'बांधिल्लें वा आशिल्लें' (constructed or in existence) अशीं उतरां वापरल्यांत. तांचो अर्थ असो जाता की जमनीच्या धनयान बांदिल्लें वा ताचे मान्यतायेन बांदिल्लें घर रितें आसा अशें पळोवन तथाकथीत भूमिमुत्र 'आयत्या बिळांत नागोबा' जावन थंय रावता जाल्यार ताका घर+जमीन विकपाचें बंधन जमीन-धनयाचेर आसा. तथाकथीत भूमिपुत्र भाड्यान रावता वा कसलेय कबलाती वरवीं रावता जाल्यारूय तो 'भूमिपुत्र' जाता! मुंडकार कायदो वा भाडेकरू कायदो हांचे परसूय भूमिपुत्र कायदो चड म्हत्वाचो मानला; इतलेंच न्हय तर गोंय राज्यान केल्लो खंयचोच कायदो भूमिपुत्र कायद्या मुखार धरचो ना अशें 11 व्या कलमांत म्हळां.

0 मोल फकत जमनीचें; घराचें नाः घर विकपाचें मार्केट दरान अशें सांगलां;पूण 'मार्केट रेट' ह्या उतरांची व्याख्या दितना फकत जमीन आनी कर, फी हें जमेक धरलां. घराचें मोल तातूंत धरूंक ना. घर जर तथाकथीत भूमिपुत्रान बांदिल्लें आसत जाल्यार गजाल वेगळी; पूण तें जमनीच्या धनयानूच बांदिल्लें आसत जाल्यार घरा संबंदान ताका एक रुपयोय मेळचो ना. दोन देखी दिवन स्पश्ट करचें जाल्यार, हीं पिशेपणां अशींः-

एक भाटकार आपले जमनींत 100 चौखणे मिटर बुन्यादिचो बंगलो बांदता. 60-70 लाख मोडटा. तो गोंयां भायर गेल्ल्या वेलार एक तथाकथीत भूमिपुत्र बंगल्यांत येवन रावता. कायदो भाटकाराक सांगता, जो घरांत रावता ताका तें वीक. मोल थारायतना मात जमनीचेंच थारायता. भाटकाराचे 60-70 लाख गेले!

लक्ष्मण पागी हाचें ल्हानशें घर आसा. ताचे भायर दुसरे कडेन जमनीचो एक कुडको आसा. लक्ष्मण पागी हाच्या पुताचें लग्न थारलां. लक्ष्मण पुता खातीर आपणाले ते दुसरे जमनींत ल्हानशें घर काडटा. एक तथाकथीत भूमिपुत्र त्या घरांत रिगता आनी रावता. लक्ष्मण पागीक कोर्ट परवडना. ते भायर, तो भूमिपुत्र आमदाराचो उजवो हात. भूमिपुत्र बिलाचो कायदो जालो जाल्यार तें घर त्या 'भूमिपुत्रा'क विकपाचें बंधन लक्ष्मण पागीचेर येता. ना म्हणूंक जायना. ताका फकत जमनीचे पयशे मेळटले- सरकारान थारायल्ल्या उण्यांत उण्या दरान. घर बांदपाक

खर्चिल्ले पयशे गेले!

## सगळेच मंत्री बोंडे?

ह्या बिलांत आनिकूय दोश आसात. बील वाचतना रोखडेच जे नदरेन भरतात तितल्याच दोशांचेर हांगा उजवाड घाला. पूण आनिकूय कांय प्रस्न आसात.दर एका बिलाचो मसुदो कायद्या खातें 'व्हॅट' करता. दोश उरचे न्हय असो प्रयत्न करता. ह्या बिला संबंदान मात् तशें घडलां अशें दिसना. एक तर हें बील कायद्या खात्या कडेन वचुं ना; गेलां जाल्यार कायद्या खात्यान आपलें काम सारकें करुं ना. तशें आसत जाल्यार सरकारान हें खातें बंद केल्लें बरें! तें जापसालदारकेन वागूंक ना आनी देखून उपरांचें ना. दुसरो प्रस्न उप्रासता तो सरकाराचे वागणूक विशींचो. खर्चाचें विधेयक विधानसभेंत मांडचे आदीं मंत्रिमंडळा मुखार येता. मंत्रिमंडळ ताचेर चर्चा करता आनी तें मांडपा विशींचो निर्णय घेता. ह्या बिलां संबंदान ती रीत पाळ्ळ्या? पाळ्ळ्या अशें धरलें जाल्यार बील पास जातकूच एक मंत्री मुख्यमंत्र्याक मेळून तातूनल्लें भूमिपुत्र हें उतर काडचें म्हूण सांगता. हें कशें? हें सांगपाची मत ताका मंत्रिमंडळाचे बसकेंत मेळूंक ना? काय मंत्र्यांक तें दाखयलेंच ना? काय दाखयलें; पूण बिलांत कितें आसा हें मंत्र्यांक कळ्ळेंच ना? आनी ते खातीर बिलाचेर चर्चाय जाली ना. खरें म्हळ्यार, असल्या बिलाचेर विधानसभेंत खोलायेन चर्चा जावंक जाय. इतलेंच न्हय;तर तें सिलेक्ट कमिटी कडेन धाडून ताची सारकी चिकित्सा करून घेवंक जाय. ज्या कायद्याक सरकारान राज्य सरकाराच्या सगल्या कायद्यांच्या माथ्यार बसोवपाची तजवीज बिलांत केल्या त्या कायद्या विशीं इतली बेपर्वाय?

## अपमान आनी वायट देख

हें भूमिपुत्र अधिकारिणी बील एके वटेन खऱ्या भूमिपुत्राचो अपमान करता तर दुसरे वटेन लोकांक वायट देख दिवन एक अनिश्ट प्रथा सुरू करता.

जो उण्यांत उणीं 30 वर्सां गोंयांत रावता आनी दुसऱ्याले जमनींत बेकायदेशीर रितीन घर बांदून राबिता करता तो भूमिपुत्र अशें सरकार ह्या बिला वरवीं सांगता. जो फकत तीस वर्सां गोंयांत रावता तो भूमिपुत्र? जो कायदो मोडटा आनी घर बांदता तो भूमिपुत्र? जो दुसऱ्याले जमनींत बेकायदेशीर घर बांदून रावता तो भूमिपुत्र? भूमिपुत्राची हीच परंपरा? आज मेरेन ते असलीच मस्ती करीत आयल्यात? अडेच्या भूमिपुत्रांनी केल्या आसत; पूण खऱ्या भूमिपुत्रांनी करूंक ना. तांची ती परंपरा न्हय, चलणूक न्हय. तर सरकारान तांचो अपमान कित्याक करचो?

ह्या बिला वरवीं सरकार एक वायट देख लोकांक दिता, जी फुडाराक खूब म्हारग पडूं येता. सरकार बील बेकायदेशीर आसा तें कायदेशीर करूंक सोदता. म्हणटकूच लोकांक संदेश वता तो असो की कायदे पाळपाची गरज ना; भियनासतना ते मोडात; फाल्यां सरकार कायदो करतलें आनी जें कायद्या भायर आसा तें कायदेशीर करतलें. हें लोकांक कायदे मोडपाक आमंत्रण न्हय? आनी हें आमंत्रण खासा सरकारूच दिता?

बिलाक लागून अब्रू गेल्या उप्रांत सरकारान आतां लोकां कडल्यान सुचोवण्यो मागयल्यात! आतां!! जें बील लोकांक विस्वासांत घेनासतना तयार केलें; जें बील विचार-अभ्यास करिनासतना अबुद्दीपणान तयार केलें; जें बील लोकशायेचे संकेत मोडून विधानसभेंत मांडलें; जें बील वाघ फाटीक लागिल्ले भाशेन चर्चा करिनासतना आंधळेपणान पास केलें त्या बिलाचेर आतां सुचोवण्यो! मुख्यमंत्री सावंत हांणी आतां 'मेरा नाम ज्योकर' हाचो गजर केल्यार कसो?

सरकारान परत ह्या बिलाक हात लावचो न्हय. तें खंयच्याच रुपांत विधानसभेंत हाडपाची चूक केली जाल्यार सरकारूच एका नव्या आंदोलनाक आमंत्रण दितलें. बील सद्या रेफ्रिजरेटरांत आसा तशेंच तें थंय आसूं. सरकारान त्या बिलाक विसरून वचचें. गांव विकून खावपाचें कर्म करपाक तें पास करून घेवपी सरकाराचो उगडास लोक धरतलो.

## हें केन्ना करतले?

अडेच्या भूमिपुत्रांचें मागीर पळोवया. आदीं सुटूंक जाय ते खऱ्या भूमिपुत्रांचे प्रस्न. मुंडकारांच्यो शेंकड्यांनी केशी मामलेदार कोर्टांनी वर्सांचीं वर्सां पडून आसात. कुळ कायद्या प्रमाण कुळाक शेताचो धनी करूंक जाय. हांगाच शेंकड्यांनी केशी पडून आसात. कितल्या कुळाक धनीपण मेळ्ळां? ह्या भूमि-पुत्रां विशीं इतली बेपर्वाय कित्याक? मयेंच्या जमनी संबंदान कायदो केला;पूण तो सारको चालीक लावंक ना. अजून चडश्या जाणांक जमनींचे हक्क मेळूंक नात. त्या भूमि पुत्रांचेर अन्याय कित्याक? तो कायदो पुरायेन पाळून ताचो लाब मयेंच्या भूमिपुत्रांक दिवपाची वान्सा सरकाराक कित्याक जायना? दुसरो प्रस्न आसा मनर्गीतल्या जमनींचो. सरकार ते विशीं कानार केंस कित्याक काडटा? लोकांच्यो मागण्यो आसात. सुचोवण्यो मागून घेवन कायदो कित्याक करिना? कुंकळ्ळेच्या भुयपुता विशीं सरकाराक कळवळो कित्याक ना? थंय कोंदीचे जमनी विशींचे प्रस्न आसात. घरां आसात. घरां आसात; त्या घरांनी कुटुंबां रावतात; पूण ताका जमनीचें धनीपण ना. वर्सांचीं वर्सां हें अशेंच चलपाचें? हो खऱ्या भूमिपुत्रां विशींचो मोग काय हो तांचो अपमान?

कथा

आशा शानभाग



आशा शानभाग हांची वळख कोंकणी वाचकांक आसा ती कसलीच भिडमुर्वत बाळगिनासतना बरोवपी एक बोल्ड लेखिका म्हूण. तांणी कोंकणी कथा आनी ललित साहित्यांत आपली खाशेली वळख घडयल्या. तांचो 'कोऽ हंऽऽ' हो कथा संग्रह उजवाडाक आयला,बिम्ब पुरस्कारान भोवम ानीत ही कथाकार शॉक ट्रिटमेंट तंत्र आपणायता.



# एस्कॉर्टिंग टु द लेदर करन्सी बिझनेस

मँडीन गळवेंग मारून ताका येवकारलो. फुडले चार पांच दीस दोगांयनीं मँडीच्या बेडरूम ंत धुमशेणां घालून युकेंतली एन्ट्री मनयली. एक दिसा सकाळीं सकाळींच मँडी सामकें मुडांत आयलें...

रॉजराचे तकलेंत फातर फुटिल्ले वरीं जातालें. दोळे चोळत तो उठलो. बाथरुमांत वचपाक उबो रावलो जाल्यार ताका कळ्ळें, आपले आंगार कुसकूटभर लेगीत कपडो ना. ताणें पयलीं ट्रॅक पॅन्ट आनी टी-शर्ट आंगार चडयलो.

"म्हाजे मांय!"

ताची नदर बेडीर गेली...

" हें आनी कोण न्हिदोलां हिंगा? सायबा भोगोश! हें मॅन्डी..! हें मोरोंक म्हाजे फुड्यां येवंन आनी केदोंना न्हिदिलां?"

आतां रॉजरालो कणकणपी तकलेंतलो मेंदू टकाटक धांवपाक लागलो. ताणें बेगोबेग मॅन्डीचे उगते कुडीचेर ब्लँकेट उडयलें आनी किदें घडलां हाचो अंदाज येवन आपली तकली धरून बसलो.

मॅन्डी हे येवरोपियन भोंवडेकान्नी खातीर रॉजराक ताचे ट्रॅव्हल कंपनीन अपॉयंट केल्लो. ह्या वीस वर्सांच्या तरनाट्याक तिचो एस्कॉर्ट म्हणून गोंयचे भोंवडेची जापसालदारकी दिल्ली. कंपनीची गाडी वा कंपनीचीच बायक घेवन तिचे इत्से प्रमाण तिका भोंवडावप....पगार आसाच. त्याच वांगडा मँडी कडच्यान मेळपाक शकपी भरपूर टीप हे आशेन रॉजर आपले पयले जोडीक तयार जालो. पयल्याच दिसा मँडीक उत्तर गोंयच्यो दर्या वेळो, फोर्ट, देवळां दाखयलीं. दनपरां मस्त गोवन सीफुड...सांजचें रुचीक स्ट्रीट फूड हांचो आस्वाद घेवन रॉजरान तिका हॉटेलाचेर सोडली. मँडीन डिनराचो केल्लो आग्रो....ताच्या उपरांतच्या घडपाक शकपी मज्जेची हिंटय ताका दिली. पूण देव धर्म मानपी मांय पायच्या पोटाक पिकील्ल्या ह्या देखण्या पूण सरळमार्गी रॉजरान तिचे ते मागणेक मुमुरखें हांसून न्हयकार दिल्लो आनी आपल्या वॉलेटांतलो

स्टेफीचो फोटो दाखयल्लो.

" मॅम आयेम एंगेज्ड विथ हर."

मॅंडी हांसलें...

" इट्स ओके. सी... शी लव्हस यू... बट आय रिक्वेस्ट यू फॉर वन नायट रिलेशनशिप...इट्स जस्ट टेक एन्ड गिव्ह ...!"

तरी 'ना' म्हणून रॉजर घरा वचपाक तयार जाल्लो.

"जस्ट अ स्मॉल पेग?"

" येऽऽ शुअर!" इतले ताका याद जालें, ड्रिंका उपरांत किदें घडिल्लें? तेंच तर कांयच येना आशिल्लें ताचे तकलेंत.

पन्नासांक लागीं पाविल्ल्या, गोऱ्या कातीच्या मॅंडीची ही मागणी मानप??? हें रॉजर चिंतपाक लेगीत कांचवेलो. बरी शिर्वीस मेळटा पर्यंत एस्कॉर्टिंग करप...मांयक वाड्यार दिसवड्याच्या कामाक वचपाचें बंद करप, पायक माड काडपाचें काम सोडपाक लावन मुशेगाद घरा कडेन बसोवन दवरप....अशीं चिंतना करपी रॉजर हे घडणुकेन साम कोच काचाबूल जालो. मांय- पाय, स्टेफी......कशें तोंड दाखवपाचें हांकां???

गिल्टी फिल करपी रॉजराक मॅंडीन समजायलो, "नथिंग टु फिल गिल्टी डियर.. इटस् जस्ट गिव्ह ॲन्ड टेक...अ डिल ऑफ लेदर करन्सी. ॲनी वे यु मेड मी टू मच हॅपी. थॅन्क्यू सो मच!"

आर्दी तिणें रॉजराच्या आंगार दोन हजारांच्यो 2..3 नोटी दवरल्यो. ह्या गुलाबी रंगाच्या गांधीबाबान ताची मत घुंवली.....मांय- पायचे सरळमार्गी संस्कार, स्टेफीचो मोग सगळें... सगळें...ह्या गुलाबोन किर्कोत करून उडयलें.

मनशाची मती आशेन आनी मेळपी इजी मनीन काम करप विसरता. आनी कुडीचें वेसन लागलें काय.... कामातुराणां न भयं न लज्जा ...अशें जाता. रॉजराचेंय तेंच जालें. फॉरेन टुरिस्टांच्या खुस्तार जेवण खाण, भोंवडी आनी फुकट भोगपाक मेळपी गोरी कात....तो व्हांवत गेल्लो आनी भगाभर जाडतय गेल्लो. दुसरे वर्साक मॅंडी भायर सोवन रॉजराक फिक्स करूनच हांगा आयलें. दोगांयचो धुडगूस खुलेआम सुरू जालो. रंगांत आसतनाच मॅंडीन रॉजराक खुशखबर दिली, "डियर आय फावंड अ जॉब फॉर यु इन युके. टुमारो वी विल गो टु अँबसी फॉर युवर विसा नांव एँजोय."

रॉजर खूश...आनी ताणें केलें मॅंडीक डबल खूश.

रॉजराक सर्ग दोन बोटां लागीं पाविल्ल्या भशेन जालें. युकेक वचप...थंय मॅंडी शिर्विस मेळोवन दितलें...पावंड किंवा युरो...मल्टीप्लायड बाय इंडियन रुपी इज इक्वाल टु ह्युज वेल्थ!! हें मॅंडीलें गणीत ताचे तकलेंत घट बसलेलें.... 'म्हजे मांय...! लाखांनी दुड्डू! लोक फॉरेनां वचोंक एजंटा पोटां भोल्तात...थोडे सक्सेसफुल जाताय मनातेकीत जॉब मेळोन, आनी खूब जाण त्रासां पोडटाय! थोडे जाण कोर्टात वयताय आनी जिवीत भर तारखां वाट पोयत बसतात. हाव मात लकी. लकान म्हाजे खातीर देर उगोतें केलां!'

अँबेसींत वचून पेपरवर्क करून बी मॅंडी गेलें युकेक. वतना रॉजराक,' बी रेडी टु फ्लाय..' सांगून गेलें. रॉजरान आपली मुस्तायकी बांदून तयारी केली.

सादारण म्हयन्या उपरांत मॅंडीन कुरीयरान गरजेचीं कागदां रॉजराक पावयलीं. सगली तयारी करून रॉजर ब्रिटिश एरवेजान युकेक वचपाक उडलो. थंयच्या हिथ्रो विमानतळार ताच्या नांवाचो बोर्ड दाखोवपी मॅंडी नदरेक पडतगीर रॉजराक मूऽऽ जालें. युके पावलो तशी ताची खोशी दोबरादीन वाडली.

"वेलकम टु युके!"

मॅंडीन गळवेंग मारून ताका येवकारलो. फुडलें चार पांच दीस दोगांयनीं मॅंडीच्या बेडरूमांत धुमशेणां घालून युकेंतली एन्ट्री मनयली. एक दिसा सकाळीं सकाळींच मॅंडी सामकें मुडांत आयलें...

"लुक डियर, टुडे इव्हनिंग वी आर गोइंग फॉर अ पार्टी. यु जस्ट अँजोय देर विथ ॲनीबडी."

मॅंडीन दोळो मारून रॉजराक सांगलें. भुल्लुशिल्ल्या रॉजरान घणसाबैला भशेन मान हालयली.

कलतो सुर्यो आनी धांगडधिंगा घालपी दर्यो..... दर्या देगे वयल्या एका हायफाय ...डीम फूल जावपी... मर्दींच भगभगीत पेटत नाचपी लायटी... आनी उग्र पूण जाय जाय दिसपी वासान भरिल्ल्या एका पबांत मॅंडीन रॉजरा सयत एन्ट्री मारली. एके बटेन फेमान फसफसपी

ग्लास...दुसरे वटेन ग्रील जावपी नॉनव्हेज...सी फूड आनी मसालो भरून सर्गांत पावोवपी सिगरेटीचो धुंवर.... थोड्या वेळान सगल्यांचींच विमानां वयर वयर वचपाक लागलीं. एके गोऱ्या-काळ्या मिक्स कातीचे तर्र जाल्ले चलयेन मँडीक कानांत किदें तरी सांगलें.. मँडीनय ताच्या कानांत सांगलें. दोगांयनी आपापल्या मोबायलाचेर पळयलें. आनी हांसत हांसत मँडीन ताका थम्स अप केलो. तें चली येवन डायरेक्ट रॉजराच्या कमरा भोंवतणी हात गुठलावन ताका भितर घेवन गेलें. हांगा भायर मँडीन मावथ पब्लिसिटी सुरू केली ... 'फ्रेश ॲन्ड न्यु स्टफ' हे जायरातीन रॉजराची डिमांड भयानकच वाडली. अर्दवरान पयलें कस्टमर भायर सरलें मात.. मँडीक ऑनलाईन कॅश ट्रान्स्फर करून दारांतच उबें राविल्लें दुसरें भितर घुसलें. दोन वरां भितर रॉजर जाम जालो. 'इटस् ओव्हर ॲन्ड आवट' म्हणून भायर सरिल्ल्या रॉजराक आपले पर्सींत पयशे कोंबपी मँडी दिसलें आनी आपूण कसल्या जाळांत अडकलां हेंवूय ताचे तकलेंत आयलें.

पासपोर्ट आनी बाकी दुकुमेंत सेफ दवरपाच्या निमतान आपल्या ताब्यांत दवरिल्लें मँडी कोण कास्ताचें हें सम जून आयिल्ल्या रॉजराक आपलें लक फुटकें हें पटलें. आपूण पुराय फसलां, असले हळशिकेंत अडकलां, आतां हातुंतल्यान सुटपाची संद सोदत वाट पळोवपा शिवाय मार्ग ना..... सायबा भोगोश, देवा..सिनेमांत चलयां कडच्यान धंदो करून घेवन पयशे किरवटीक लावपी मावश्यो पळयल्यात, पूण दादल्यांक धंद्याक लावपी ही विदेशी, गोरी मावशी पळोवन रॉजर तकली आपटयत रडपाक लागलो.



## चवथीचीं परबीं दितना...

ह्या बिम्ब अंकांत,चवथी विशीं विशेश कांय नासलें तरी हो सेतेंब्राचो अंक चवथ हुंबऱ्यार आसतना येता म्हणटकच चवथीचीं परबीं बिम्ब परिवाराक दिवप हें तशें नातुराल!

चवथ हो खोशयेचो उत्सव! सांजेक नाशिल्लो लेगीत चवथ सुकी उडयना. रीण काडून तरी तो सण करता. तांकां तितली दानत आसताच!

बिम्ब परिवारांतल्या कितल्याच वांगड्यांक ते भुमिपुत्र आशिल्ल्याचो अभिमान आशिल्ल्यान ही दानत म्हणल्यार कितें हाची कल्पना आसा.

तेच दानतीचे मालवजार आनी विसंबून बिम्ब दोन दसकां हुसक्या मेकळो घरांघरांनी पावलो. हेय चवथीक तो गणपती पुजेक लागचे आदीं गणेशभक्तांच्या हातांत पडटलो. गणराया गणपती कितें वा बिम्ब मासिका सारकें अक्षररूपी दैवत कितें... आमकां गोंयकारांक खोसदेणेंच!

तेच पासत हे खोसयेच्या खिणाक ती आनिकूय दोट्टी तिट्टी जावंची म्हूण आमकां सांगन दिसता, वर्सपद्दती प्रमाण ओंदुय बिम्ब दिवाळी अंक गडगंज रुपान साहित्याचो सगळो फळार घेवन दिवाळे आदींच तुमच्या घरांत पावतलो..

बिम्ब परिवारांतल्या वांगड्याक ती खोशयेचीच गजाल. ती खोशी आनीक मातशी वाडोवपाची आमी सगळ्यांक संद दिवंक सोदतात...ते पासत तुमी फकत इतलेंच करपाचें...

○ तुमच्या पुस्तकांची जायरात बिम्बांत येवंदी.

○ तुमचीं पुस्तकां नासत जाल्यार तुमच्या आवडीच्या लेखकाच्या पुस्तकांची जायरात तुमी करची..

वर्साक एक पांच-धा हजार रुपया खर्चून ही खोस जर भोगूं येता जाल्यार तुमी ती कित्याक होगडायतात?

तुमकां प्रत्येकाक दानत आसा म्हूण हें आमी सुचयतात...१० ओयतुंब्र मेरेन संपर्क करात-९८२२१३६८८५.

## जिबेवेली जतनाय



सखाराम
शणवी बोरकार

कोंकणी कवितेंत [illegible] घालपी सखाराम शणवी बोरकार [illegible] ललित साहित्य लेखन, विनोदी साहित्य लेखन, पुस्तक समिक्षा तशेंच हेर भासांतलें साहित्य कोंकणींत अणकारीत करपाचो वावर सातत्यान करीत आसात.



# कोंकणी लोकसंस्कृतायेंतली 'पेज'...

'उदारेच्या शिता परस कश्टांची पेज बरी' मागून हाडिल्ल्या तांदळांचें शीत जेवचे परस आपणें कश्ट करून मुठभर हाडिल्ल्या तांदळाची पेज ही सदांच श्रेश्ट.

हालींच म्हज्या एका आर्मीगान थळाव्या दायजाची झलक म्हण आपल्या हॉटेलांत मकाळीं अकरांक उकड्या तांदळांची पेज दिवपाक सुरू केली. ह्या उपक्रमाची तोखणाय करचे सुवातेर लोकांनी ताची धजा उडयली. "कितें रे भिके दुवाळे, काय आमकां पेजेक लायता?"

ताणें पेज दिवपाचीच बंद केली.

एका काळार पेजेक गोंयचे अन्न संस्कृतायेंत एक महत्वाची सुवात आशिल्ली. हालींसरक ह्या फास्ट फुडच्या जमान्यांत तिचें म्हत्व उणें जालें तरी आतांय बी जोर आयलो वा पोटांत बरें बी नासलें तर हे पेजेचीच याद येता. एक काळ आसलो, सगळ्या घराब्यांनी जावं गरीब वा आस्पतीचीं, पेज ही आसतालीच. पेज जेवप म्हळ्यार दळदीर ही भावना चंगळवादांत फोल्गी वृत्तीन वाडयल्या. हळशिकावणी खाणां खावन पोटां इबाडून घेतात. हे पेजे सांगाताक निवोळ, कुयां आदी उतरांय काळा भायरीं जाल्यांत

सकाळीं फुडें मानाय लोक दुसऱ्या वाठारांत कामाक वच्चें पडल्यार पेज जेवनच भायर सरताले. शेतकार भावांक धा-साडेधांक शेतकाराची बायल पेजेचो बुडकुलो घेवन शेतांत वताली. बुडकुल्यांत नाल्लेची वाटी आनी ताका लाकडी दांडो आशिल्लो दवलो आनी एका खोल्यांत गुठलायल्लीं चेपणेचीं तोरां वा भाजिल्ल्या सुक्या बांगड्याच्यो पेसो.

आमचे भुरगेपणांत आमकां सांज सकाळ शाळा आसताली. अकरांक शाळा सुट्टगीर पोटाक कडकडीत भूक लागताली. मागीर घरा येवन हुनहुनीत पेज भुरकावप. पेजे वांगडा खतखतें वा पोरसांत जाल्ले भाज्जेची शाक. ना जाल्यार पापड, लोणच्याची फोड, खळांतली आंबली वा भाजिल्लो बांगडो. पितळी भरून पेज जेवली काय दनपारचें जेवण जायसर पोट टूम्म.

शिरदोना 'पेजेचें फेस्त' म्हण जाता. गोंयांत इगर्जेनीं आनी कपेलांनी फेस्तां जातात ताका खेरीज नांवां आसात. त्या नांवां खातीर आनी थंय जावपी गजालीं खातीर हीं फेस्तां गोंयभर फामाद आसात. जशें राय-सालसेत आनी ताळगांवां आनी कांय इगर्जेनीं जावपी 'कणसाचें' फ़ेस्त, आगशेचें 'पिपऱ्यां' फ़ेस्त, कुडटरेचें 'केळ्यां' फेस्त, बड्ड्या-मडगांवचें 'पेरां' फेस्त तशेंच शिरदोन हांगा 'पेजे' चें फेस्त फामाद आसा. शिरदोना नाझारेत वाडो हांगा एके ल्हानशेच दोंगुल्लेचेर नाझारेत जेजूचें कपेल आसा. शिरदोना 1790 ते 1810 मजगतीं कोलेरा आयिल्लो आनी तातूंत खूबशे लोक मेले. तांचे यादीक हें कपेल बांदलें. ह्या कपेलांत पास्काचें फेस्त जातगीर पयल्या आयतारा हें 'पेजेचें फेस्त' जाता. गोंयच्या साबार वाठारांतले लोक आपली आंगवण पुराय करपाक ह्या फेस्ताक येतात. मुखेल मीस जाल्या उप्रांत सगळ्या लोकांक फुकट पेज दितात. आनी सांगाताक मिस्कूट (लोणचें). फकत पेज जेवपाची मायटी वा पितळी आपणें हाडपाची.

त्या दिसा सकाळीं फांतोडेर ह्या कपेलाचे कुशीक घाल्ल्या मल्लांच्या माटवांत सात व्हडल्या हांड्यांनीं ही पेज रांदतात. हे सात हांडे म्हळ्यार आमच्या पुराणांतल्यो सात भयणी. ही सात भयणीची संकल्पनां आमकां गोंयांत साबार वाठारांनीं मेळटा. ही पेज फकत सवाशीणींनीच रांदपाक जाय असो नेम आसा. ही पेज जातगीर पयलीं ती वाड्याचे शिमेर वाडटात आनी मागीर जमिल्ल्या लोकांक. हे पेजेचो सगळो खर्च धेंपो घराणें जे शिरदोनचे भाटकार आसात ते करतात. शिरदोनचें भाट जाका 'पेंसांवाचे भाट' म्हणटात जाची मालकी ते काळार सरकारान धेंपो घराण्याक दिल्ली ताचो कर (पेंसांव) म्हण हें घराणें पेजेचो सगळो खर्च उखलता.

अशेंच तरेची पेजेची दिसपट्टी कार्यावळ पणजे म्हामाय काम तीगेर जाताली. म्हामाय कामतीच्या रासवळ कुटुंबाचें व्यवस्थापन ताचो एक ट्रस्ट करतालो. ताका 'सरकार' म्हणटाले. बरोबर अकरांक पेज दिताले. कोणेंय येवन ही पेज जेवंची. हाका 'सरकाराली पेज' वा 'सरकारी पेज' म्हणटाले. जे भुरगे पणजे शिकपाक आसताले वा जे लोक पयसुल्ल्यान आपल्या कामा खातीर पणजे येताले तांचे खातीर ही एक बरी सोय आसली. आदले लोक सपासप हॉटेलांनी वचनासले आनी लोकां कडेन पयशेय नासले. अशीच धेंप्यागेरय दनपरां जेवणाची सोय आसली. म्हामाय कामतीली सरकारी पेज आनी धेंपो घराण्यालें दनपारचें जेवण जेवन त्या काळार खूब जाणांनी आपलें शिक्षण पुराय केलें हाच्यो देखी आमचे कडेन आसात.



हे पेजेचेर कोंकणींत साबार म्हणी आनी वाक्प्रचार आसात.

'हून पेज लोणच्याक काळ, ल्हान बायल जिवाक काळ', हुनहुनीत पेज जेवंक जायना आनी ती न्हिवता म्हणसर लोणचें वा तोणाक खावन सोंपता. देखून लोणच्याचो वा तोणाकाचो काळ म्हळ्यार यम. हून पेज तोणाकाक काळ अशेंय म्हणटात. पेजेक खतखतें करतात तेंच हून पेज न्हिवसर खायत बसतात. आदीं चलयांचीं ल्हानपणांत लग्नां जातालीं. पूण तांच्यान आपल्या घोवाक कुडीचो भोग दिवंक जायनासलो म्हूण ल्हान बायल जिवाक काळ वा जिवार काळ अशें म्हणटाले. 'हून पेज आम लेक घांस', अशीय ही म्हण वापरांत आसा.

'हांड्याच्या पोंदाक आनी पेजेच्या तोंडाकाक कितेंय चलता', न्हावपाचें उदक तापोवपाक आसता त्या हांड्या पोंदा उजो करपाक कितेंय घाल्यार जाता. धुंवर जाल्यार मान्यांत जातलो. पेजेक तोणाक कितेंय चलता. लोणचें बी कितेंय उपकारता हें सांगपी ही म्हण.

'जोर रडटा पेजेक', जोर आयल्यार पचूंक बरी म्हूण पेज ही लागतालीच. ते खातीर 'जोर रडटा पेजेक' ही म्हण आयली. कोणय हातार कांय उडयल्या शिवाय काम करपाक अनमनता तेन्ना ही म्हण वापरतात. 'जोर रडटा पेजेक, घयरांव रडटा खंय जागेक', असो हे म्हणीचो दुसरो भाग घोळटा.

'पेजेर खालो पोळो आनी शितार काडलो वरताळो', णव वरांचे पेजे बराबर अळसांद्याचें तोंडाक आनी पोळे खाले. पोट भरिल्ल्यान दनपारचें शीत जेवप जिवार आयलें. वरताळो म्हळ्यार वचपो.

'पेजेक नाशिल्लो शिताक रडटा' वा 'पेजेक गोत नाशिल्लो शिताक रडो', जाचे लागीं पेज जेवपाची तांक ना ताणें शिताक

म्हूण आपल्या आवयच्या भायली गजाल आवडना असो हे म्हणिचो अर्थ.

'पेजेक आनी लजेक पडना' वा 'लजेक गेल्यार पेजेक पावना', लजेन जो पेज मागिना तो उपाशी पडटलो अशें सांगपी ही म्हण. हाचो दुसरो अर्थ कसलेंय काम करपाक लज बाळगिल्ली तर जेवण मेळपाक कठीण.

'पेजेक दितलो तो शेजेक घेतलोच', जो दुसऱ्याचें काम करता तो आपलें काम करून घेताच. मनशाची मुवार्थी वृत्ती दाखोवपी ही म्हण.

'शीत करपाक गेलें, पेज जाली', जो कोण बरें काम करपाक वता तें काम इबाडटा तेन्ना ही ओपार मारतात. 'करपाक गेलो गणपती जालें केलदें' ह्याच अर्थाची दुसरी म्हण.

'मायेरची पेज सगळ्या आंगार तेज' वा 'आवयली पेज सगळ्या आंगार तेज', लग्न करून दिल्ली चली जेन्ना कुळारा आपले आवय घरा येता तेन्ना तिका आवयन वाडिल्ली पेज लेगीत बरी लागता. ती सासगेर कितल्याय श्रीमंतागेर दिल्ली आसूं. ते पेजे फाटल्यान आवयचो मोग आसता हें सांगपी ही म्हण.

'उदांच्या शिता परस कश्टाची पेज बरी' सांगून हाडिल्ल्या तांदळाचें शीत जेवचे परस आपणें कश्ट करून मूठभर हाडिल्ल्या तांदळाची पेज ही सदांच श्रेश्ठ. स्वाभिमानान जगपाक सांगपी ही म्हण.

हे पेजेचेर साबार वाक्प्रचार आसात.

'सामकी पेज मरे!', आमच्या उलोवपांत तो मरे सामको पेज! असो वाक्प्रचार येता. सामको पेज म्हळ्यार कसली घटपाण नाशिल्लो मनीस वा अर्थ नाशिल्लो, कितेंय पाल्हाळ उलोवपी मनीस.

'पेजेक लागप' आनी 'पेजेक लावप' हे दोन वाक्प्रचार कोंकणींत घोळटात. हांकां दोन अर्थ आसात. पेजेक लागप म्हळ्यार कामाक लागप वा दुसरो अर्थ खाकनवाळ जावप. पेजेक लावप म्हळ्यार दुसऱ्याक कामाक लावप (पेजेक लायलो- नोकरी दिली) वा ताका खाकनवाळ करप.

ही आसली आमचे लोकसंस्कृतायेंतली 'पेज'.

ललित



काश्मिरी
पावसकार

**काश्मिरी पावसकार** पेशान शिक्षिका जाल्ल्यान तांचो सातत्यान संपर्क येता तो विद्यार्थ्यांलागीं आनी नवनव्या कल्पना विश्वा कडेन. हाकाच लागून तांचे विचार एके वेगळेच गतीन साहित्यरुपांत परावर्तीत जातात. कांय वर्सां फाटीं त्यो बिम्बांत सातत्यान सदर बरयताल्यो. तांचें एक पुस्तकय उजवाडाक आयलां. बऱ्याच काळान तांचे साहित्य वाचप्यां मुखार येता ही वाचप्यां पासत खोशयेची गजाल.
पत्तो : शिवोली, बार्देस.
मो.: 9421192858



# मेकळें मन

वैशाखांत दनपारच्या वता रखरखान आनी स्तब्द हवेक लागून झाडां पानां लेगीत हालनात! अर्दी-मर्दी मळब ढगाळ दिसलें तरी पारो मात्तूय देंवना! तातूंत लायटीचो आपालिपा आनी उदका अडचणींक लागून जीव बेजारिल्लो आसता आनी तितल्यांत सैमाचीं विस्मितां सुरू जातात. पंचेंद्रियांक सुखावपी जायत्यो संवेदना जागृत जातात, म्हणटा थंय आशाढ तेंकता आनी पयल्या पावसाचें गोड आगमन जाता.

पयलो पावस म्हणलो काय जायत्या जाणांक 'रोमॅण्टीक' फिलींग्स् येतात. कांय जाण सामके 'नोस्टेलजीक' जातात. भुरग्यांचो तर तो सामकोच घोस्ताचो. हय. ह्या पयल्या पावसाची मजाच वेगळी! सांजे आदेसाक तांबशा - काळ्या मंद उजवाडांत जनेलां लागीं बसून चवरां, सांडगीं, भर्जी बी तळून खातना पावसा थेंबे पळोवपाची खुशालकाय खंयच्याय फाईव्ह स्टार हॉटेलाच्या खाणांक लेगीत फाटीं उडयता. चडूच उमेद आयल्यार भायर वचून शेकान शेक भिजपाक, हाता पोश्यांत पावसा उदक घेवन तोंडार मारपाक आनीकूय वेगळी मजा येता. राती वेळार थंड पावसांत गोयडेंत गोठेवन घेवन सुस्त न्हिदप म्हणल्यार तर एक सर्ग सुखूच! असो हो पावस कोण चुकयत?

असो हो 'मनमौजी' पावस म्हणल्यार गोंयकारांची जान. आमचें स्पिरीट. पुरूमेंता सामान कोठये कुडींत (फ्रिजांत) पुंजावन, शेतां - भाटांचीं आनी घरचीं कामां आटापून पावसाक येवकार दिवंक मागीर तो एका पांयार उबो. पूण अंदू वर्सा स मेक अरबी समुद्रांत जाल्ल्या तौकते चक्रिवादळान गोंयाक वेंग मारली आनी कोट्यांनी रुपयांची हानी जाली. एकाच खिणांत मोड उठलें आनी झों -झों करून वारें व्हावूंक लागलें. वाऱ्यान म्हाल म्हातारीं झाडां-पेडां घंसायस करून हुमटून पडलीं. दोन जीव गेले. सातश्यां वयर लायटी खांबे मोडून पडले. येरादारी बंद पडली. सेगीत चार दीस गांवांनी लायट गुल्ल जाल्ल्यान घरांतलीं सगलीं माकनांय बंद पडलीं. 'कहाँ गये वो दीन? वो राते?' म्हणीत सुस्कारे सोडीत राती सारच्यो पडल्यो. भोगूं बाबड्यांचें! तशें

पळयल्यार 'उदक हें जिवीत.' आनी पावस हें ताचें निसर्गीक स्रोत. ताच्या येवपांत सृश्टीक वैभव आनी खोशी मेळटा. असो आनंद आनी सौंदर्याचें मिलन घडोवपी पावस कोणाक नाका जाला व्हय? पूण तो फावो त्या प्रम णांत आसचो.



हालीं जायत्या कारणांक लागून पावसा प्रमाण चुकूंक लागलां. तातूंत मदींच आयिल्लों हें तौकते वादळ. तशें तें अवचीत येवंक ना. ते विशीं आम कां पूर्व कल्पना दिल्ली, पूण तयारेचेर व्हडलोसो भावार्थ नाशिल्ल्यान आमी सुशेगाद रावतात, इतलेंच. देवा दयेन हालीं तेंपार आपत्ती वेवस्थापनाक लागून अरिश्टां वेळार लोकांक सुरक्षीत जाग्यार स्थलांतरीत करपाक, संपत्तीचें रक्षण करपाक, पिडीत लोकांचें पुनर्वसन करपाक सोंपें जालां. कोरोनाचे बाबतींत हेंच घडलां. हजारांनी लोकांचे बळी गेल्यात. नोकरी - वेवसाय बंद पडिल्ल्यान जायत्या जाणांचो जीव गोळाक लागला. पुराय जगांत निर्शेणेचें ल्हार पातळ्ळां. अशे परिस्थितींत मनाक थाकाय हाडप तरी कशी?

आमच्या दोळ्यांक दिसपी आनी कुडीक जाणोवपी एक अवकाश, एक जागो आसा तो म्हणल्यार आमच्या मनांत. हें मन आमचें खाजगी, भितरलें. ह्या मनाचो आवाको विशाल आसता. ह्या स्पेसाक ना कसली मर्यादा, ना सीमा. तें पुराय मेकळें आसता. पूण आमी मात घुस्मटून उडांत्रपी शारिरीक स्पेसांत चड शिरकून उरतात. तौकते आनी कोरोना वेळार आमचेंय तशेंच जालां. देखून जाल्ल्या लुकसाणाचो उगडास काडून रडत बसचे परस, मनांतल्या अवकाशांत शिळोणी घालीत मन मेकळीं जगुया. मनाच्या मळबांत शितळ चान्नें फुलोवया. फकत गरज आसा ती ह्या मनाच्या स्पेसांत भंय, हुस्को घेवन बसचो वा ना हें जाणें ताणें थारावचें. मागीर थारलें तर! मुखार अशीं अरिश्टां येतलीं तेन्ना आमी तयार रावया. मन मेकळें दवरुया. आनी खाशेल्ले गोंयचे स्टायलीन म्हणुया, 'कितें जाता तें जावं, तुका गोडाचो पांव!'

गजाली



फिलोमीना
साँफ्रांसिस्को

मुंबय रावपी फिलोमीना साँफ्रांसिस्को-कवयित्री,निबंदकार. वेगवेगळ्या नेमाळ्यांनी सातत्यान लेखन.'म्हजो दिस्टावो'(काणयां संग्रह),'ओंपता तें पिकता'(सान काणयों),'हुमऱ्या वयली पणटी' आनी'गुलमोहर' हे कविता संग्रह, 'टुनटुनींच्यो काणयों (अणकार) अशीं पुस्तकां प्रकाशीत. 'वावराड्यांचो इश्ट'सातोळ्याच्या फा. लेपतानियो आल्मेदा उत्कृश्ठ लेखन पुरस्कारान सन्मानीत.

मो.-09892829339

# खावकेक आसा चेडो, आनी सोदूंक भोंवता वाडो



बीं तशें भात म्हणटात. बरें बीं वोंपल्यार, बरें भात पिकता आनी वायट बीं वोंपल्यार वायट भात. बीं वोंपता तसलेंच भात पिकतलें. वेगळें कशें पिकतलें? साहजीक आसा तें! जाणां आमी हें. तरूय, केन्नाय आमची अपेक्षा वेगळी आसता. म्हणचें वायट बीं वोंपल्यारूय, पीक बरेंच जाय आसता आमकां! कश्ट करिनासतना फळ जाय आसता आमकां! बसलेले कडेन सगळें आमचे होंटयेंत पडलेलें जाय आसता! जायत्या बियाचो दर्जो कसलोय आसूं, पीक मात बरेंच आसचें ही आमची (चुकिची) अपेक्षा. 'बीं तशें भात' ही ओंपार आमी आमच्या माणकुल्यां सबंदांत, चड करून वापरतात. तीं धाकटीं आसतना तांचेर जाल्ल्या संस्कारा विशीं लागू करतात. बरे संस्कार जाल्यार, गुणेस्त तरणाटीं जातलीं आनी करूंक फाव नासलेले संस्कार वो वायट देखीचे संस्कार जाल्यार, अवगुणाचीं जायत तीं व्हड जातलीं. चड प्रमाणांत सगळें थारलेलें आसता तें संस्कारांचेर. बऱ्या संस्कारांचेर. संस्कार म्हणजेच बियां आनी बियां हीं बरींच आसतात. ( केन्नाय बऱ्या झाडांक कीड लागता, हो अपवाद) म्हणटकूच सर्वसादारण बियां बरींच आसतात, हें आमचें थारलेलें मत! बियां हीं शुद्धच आसतात, कसलेंच मिश्रण नासतना म्हूण आमी मानतात. तातूंत वायट वस्तूंचें मिश्रण करतकूच तीं अशुध्द जातात, वायट जातात आनी तें-ते प्रमाण फळां दिता, पिक दिता, भात दिता. मुद्दो हो, आमचीं माणकुलीं, तांचेर कसलेय बरे वायट संस्कार जावचे पयलीं, तांच्यांत कसलेच दोश नासतना, कसलीच अवगत सावळी तांचेर नासता. सामकी शुद्ध बियां कशीं! जेन्ना आमकां शेतांत, पोरसांत वोंपपाचें आसता, तेन्ना आमी बियां पासत कितलो तकस घेतात, चवकशी करतात, हाचो ताचो सल्लो घेतात. हांगा-थंय, कितलेय पयस लेगीत वतात. बियां हाडूंक, बरीं बियां सोदून हाडूंक. श्रेश्ठ दर्जाचीं बियां मेळोवंक! अश्या वेळार आमी एक आनी एकूच लक्षांत दवरतात ती गजाल म्हळ्यार, बीं तशें भात!

आमच्या पुर्वजांनी हें म्हणणेंक आमी आदान दिनात. तेच पासत बरीं बिंयां मेळोवपाक आमी कशट घेतात. बरें भात मळचें, बरें पीक जावंचें होच आमचो हेतू आसता आनी आसपाचोच. हीच तर जाणवाय. ही जाणवाय आमी आमचो घरा कडेनूच बसून फायदा करपा खातीर वापरपाची. कशी? अशी - आमचें जिवीत म्हळ्यार, पांगम्. ह्या शेतांत आमी जे तरेचीं बियां वांपतलीं, ज्या दर्जाचीं बियां वांपतलीं, तसलींच आमकां पिकावळ मेळटली हातूंत दुभावूच ना. ते खातीर आमी बऱ्याच दर्जाचीं बियां वांपूंक जाय. हीं बियां आमकां सहज मेळूंक शकतात. कसल्याच उठाबश्यो काडी नासतना हीं शुद्ध बियां आमच्या हाता लार्गीच आसतात. दोळ्यां सामकारच आसात. हीं शुद्ध, बरीं बिंयां म्हळ्यार, आमचीं माणकुलीं भुरगीं. हय, आमचीं घाकटुलींशीं भुरगीं. हींच तीं बिंयां, आमकां जाय आसलेलीं बियां. आमचें जिवीत सरसरीत करपी बिंयां, आमकां उमेदीच्या, उर्बेच्या, शांतीच्या, समाधानाच्या, उत्साहाच्या पाळण्यार धोलोवपी बिंयां. आमचें उरलेलें जिवीत पुर्णपणी धादोसकायेन, सवस्थ कायेन भरपी बिंयां. सपनेल्ल्या आमच्या सपनाक साकार करपी बिंयां. जिवीत आमचें जगपा सारकें करपी बिंयां. संपुर्णायेन जगपा सारकें.

आमी सदांच आयकत आयल्यां, भुरग्यांनी जाणट्यां कडल्यान शिकूंक जाय. खरें तें! आनीक कोणा कडल्यान शिकतलीं तर तीं? पूण, वेगळी दिसपी एक गजाल सांगची म्हळ्यार, आमी जाणट्यांनी भुरग्यां कडल्यान शिकपा सारकें खूब आसा. गरज इतलीच, आमी तांचे वागणुकेचेर लक्ष दिवंक जाय, बारीक नदर दवरूंक जाय. तांच्यो करण्यो निरखूंक जाय . तांचेर आमचें लक्ष पुर्णपणीं केन्द्रित करूंक जाय. तेन्ना आमकां कळटलें. तांच्या फायद्याक पडपी गजाली आमी तांकां उतरांनी समजायतात, ताचे परस चड गजाली भुरगीं आमकां आपले देखीन शिकोवंक शकतात आनी शिकतातय बी! सद्या आमी फक्त तीन गजालींचेर लक्ष दिवंया. पयली गजाल म्हळ्यार खोशाल जावपा खातीर भुरग्यांक निमित्याची गरज आसना. खोशाल जावपाक तांकां कारण नाका. तीं सदांच खोशाल. पळेत तेन्ना, उमेदीन, उर्बेन भरलेलीं. तांकां पळेतल्याच्या तोंडार हांसो हाडपी- तांचे असलो हांसो :- नितळ, निर्मळ, निश्पाप हांसो! निरपराधी काळजांतली ही तितलीच निरपराधी भावना मुखामळार तितलेच निरपराधीपणान उदेता.ताचें निरपराधीपण आमकां कळटा आनी ना-कळटा आमीय बी तांच्या ह्या निरपराधी हाश्याच्या हांयसाक बळी पडटात. आमकां हाची सुलूस लागचे आदींच आमच्या बी... हय, आमच्याय बी मुखामळार हांसो फुलता. फुलाचो बोगो हळूं हळूच फुलत, फुलत फुलत फुलत फुलचें, तसो. हो तांचो मन भुलोवपी हांसो आमच्यांत कसो आनी केन्ना भिनलो तें आमकां कळऽ लेगीत ना. तांच्या हाशांतली ही निर्मळ मोगाची भावना आमच्यांत मिसळटात. आनी आमीय बी परतून एक फावट तांचे पिरायेचीं जातात. भुरगेपण आमी अणभवतात. ताणसाण नासलेलें भुरगेपण. माथ्यार हजार विचारांचें वजें नासलेलें भुरगेपण.



हे जाणटे पिरायेर आमी आशेल्लें भुरगेपण. खिणाक तरी.

दुसरी गजाल म्हळ्यारः- भुरगीं कांयच करिनासतना, हातार हात धरून बसलेलीं केन्नाच दिसनांत. तीं गपचूप, रिकामीं बसलेलीं दिसूंक मुश्किल. तीं कितें तरी करीत आसतातूच. खेळणें घेवन खेळटात, तातूंतलीं कांय खेळणीं मोडटात, कांय शेवटीतात, वचून परत हाडटातूय बी! (स्वता उठून वतात. जाणट्यां भाशेन, 'मात्शें हाडून दी' म्हणीनांत आरतून परतून पळेतात, निरखीतात, कितें तरी करपाचें चिंततात, आनी मनांतलें हें गणीत सुटलें ना जाल्यार, तें खेळणें कुशीक दवरतात. कुशीक दवरतात, पूण रिकामीं बसनात . खेळाचो फुडलो राउंड सुरू करतात. तीं नक्की कितें करतात, तें कळूंक मुश्किल! इसकुटावन सांगपाक जमपाचें ना. पूण करतात कितें तरी. सांगपाचो हेतू इतलोच, भुरगीं बेकार बसनात. खवश्रश बसनात. देखुनूच तर, जाणटीं तांकां ओगी बसपाक धेंगशे घालीत आसतात.

भुरग्याचें हें अशें व्यस्त आसप देखदिणें. 'रिकामें मन देवचाराचें आयदन' म्हणटात. टाळण्यो येवंच्यो त्यो ह्याच अशा रिकामीं वेळार. टाळणेंत पडचें तें तेन्नाच. रिकामीं आसतना. बेकार आसतना. येवंक नाका आसलेलीं नकारात्मक चिंतनां, ह्याच वेळार आमकां सतावपाची संदी घेतात. आमच्या मना विरुद्ध आमचो ताबो घेतात. आम कां निराशी करतात. आमचे हात पांय गळोवन सोडटात. आमकां असक्त करतात. मनानूय असक्त आनी कुडीनूय असक्त. मन थाऱ्यार नासतकूच, कुडीचेरूय फार येता. सगळ्याच वाटांनी आमचो घात जाता. अश्या वेळार आमी भुरग्यांची देख घेवपाची. रिकामें बसपाचें न्हय. कितेंय तरी करपाचें, करीत रावपाचें. कितें करपाचें तें जण एकल्यान आपले आवडी प्रमाण थारावपाचें. पूण, करपाचेंच कितें तरी. भुरग्यांच्या खेळांतल्यान आमी आमच्या सुखाचो मार्ग सोदून काडपाचो. सुखी रावपाचें. खोशाल जावपाचें.

तिसरी गजाल म्हळ्यारः- भुरग्यांक शसे आसना. हांवपण ना तांकां. देखून तीं आपल्या मना सारकें करूंक शकतात. करून घेवंक शकतात, आपल्या मना सारकें. आनी करतातूय बी तशें. आपल्याक जाय तें मेळयतात. सहजपणीं. सोंपेपणीं. कसल्योच उठाबश्यो काडी नासतना, कसलीच कास्तीग घे नासतना. पूण, आमचें मात सदांच तशेंच नासता. आमकां कश्ट काडचे पडटात. भुरग्यांक हें शक्य जाता, कारण तांचे उतरावळींत उतराचो जो अर्थ आसा, तो तसोच उरता. तश्यातशे तसो. बदलना. बदलीं नांत तीं, त्या उतराचो अर्थ. आपल्याक जाय तसो ओडीनांत, घुंवडायनांत, बिगडयनांत. दवरतात शसे कुशीक, आनी जातात खालतीं. खालतीं जावप म्हळ्यार दुसऱ्यान आमकां असक्त समजप जावंक शकना म्हणलोलो अर्थ काडिनांत तीं. उतराचो भलतो सलतो अर्थ घेनात तीं. एसे दवरतात कडेक, आनी जातात खालतीं खऱ्या अर्था प्रमाण वागतात, आनी जातात सुखी.

भुरगीं खालतेपणीं मागतात, आनी मेळतसर मागत रावतात. बेजार जायनासतना, सोसणीकायेन, मनांत राग येवंक दिनासतना. धीर सोडी नासतना, आत्मविस्वासा सयत नम्रपणीं विनयतात तीं आमकां. (केन्नाय हट्टाक पेट्टालो, तो अपवाद. तसो, सगळ्यांच गजालीक अपवाद आसाच) तांचे सादे खालतीकायेचे वागणुकेन आमचें काळीज मोवाळटा आनी दितात आमी तांकां- तांकां जाय आसता तें. दिवंक नाका आसल्यारूय दितात.

भुरग्यांचो आनीक एक गूण सांगचो जाल्यार, तीं आपलो दर एक खीण हुसक्या मेकळीं जियेतात. कसलीच चिंता नासतना, कसलीच धास्ती नासतना. चड फामाद आसलेल्या उतरान सांगचें जाल्यार टेंशपीळेप नासतना. समाधानी जिवीत जियेतात तीं. आमचें तशें नासता. आमी आंवडेल्ल्या सुखी जिविताचे वाटेर आमचो शसे आड येता आनी सगळें आरतें परतें जाता. गोंधळ जाता आनी आमकां जाय आसलेलें जिवीत कडेक उरता.

अश्या वेळार आमी भुरग्यांची देख घेवपाची. तांचे कडल्यान शिकपा सारकें खूब आसा. आमचे खातीर भुरगीं जाणवायेचें भांडार जावंक शकतात. तांचे कडेन आसाच, जाणवायेचें भांडार ताचो आमी उपेग करपाचो. भरपूर उपेग करपाचो. आमीय बी आमचो इगो कडेक दवरपाचो आनी तांचेच भाशेन हुसक्या मेकळें, टेन्शन नासतना जिवीत जियेवंक शिकपाचें. आमचीं भुरगीं जियेतात तशें समाधानान, संतोसान, धादोसकायेन, खुशालकायेन आनी शेवटीं, शेतांत वोंपूक जाय आसलेलीं बियां आमचे नदरे सामकार आसतना, तांचेर आडनदर करून, नदरे आड आसलेलें सोदूंक भोंवत वचपाचें न्हय. खांकेक आसा चेडो, आनी सोदूंक भोंवता सगळो वाडो जावंक दिवपाचें न्हय.




# एक आसलो सुर्या!

## (आतां ना? अशें विचारपी प्रस्न!)

ग्वादालूप डायस [illegible]
1972तलो. कवयित्री,
निबंदकार, लिपयांतरकार,
रोमी तशेंच देवनागरी लिपींत
लेखन, भुंयफोड, मळबगंगा,
जलस्थल (कविता).
ज्वालामुखी (निबंध), मामाचो
गांव हीं प्रकाशीत पुस्तकां.
पत्तो : नुवें-गोंय
मो. : 8605942157

एक आसलो सुर्या ह्या तियात्र पुस्तकांत जेन्ना निमणो पड्डो देंवता, तेन्ना स्वताक मनीस समजुप्यांच्या गिन्यानाचो पड्डो उगतो जाता. एक आसलो सुर्या म्हणल्यार मार्कोस गोन्साल्वीस हांणी समाज नवसरणेच्या वावरांत मारिल्लो उलो!

भुरगेपणार दर एके काणयेची सुरवात अशीच आसताली... एक आसलो राजा...! म्हाका रोखडेंच समजतालें, हो राजा केन्ना तरी आसलो. आतां ना. मात एक आसलो सुर्या अशें वाचतकच जी वेदना म्हजें काळीज पिळपाक लागल्या, ती वेदना एक आसलो राजा...अशें आयकतना केन्नाच भोगली ना!

writer with The Midas Touch म्हणल्यारूच श्री.मार्कोस गोन्साल्वीस! कोंकणीं पत्रकारिता तशेंच एकांकी आनी भुरग्यां-तियात्र मळार तांणी केल्लो वावर म्हणल्यारूच तांची मल्टी डायमेन्शनल वळख! तियात्र अकादेमीचे 'भुरग्यां-तियात्र स्पर्धे'त तांणी बरोवन दिग्दर्शीत केल्लो, दुसऱ्या इनामां सयत हेर तासांनी बारा इनामां मेळयल्लो तियात्र म्हणल्यारूच 'एक आसलो सुर्या!' हो उत्कृश्ट तियात्र पुस्तक रुपान छापून आयिल्ल्याची खोस सूख-दिणी!

सुरवातेक सांगलां तशें माथाळो वाचून कितलोसोच वेळ म्हजो स्वास घुस्मटलो. भुरगेपणार एक आसलो राजा हें हांवें सहज पचयल्लें. मात, अणभवांनी तिजिल्लो, संवेदनशिलतायेन भरिल्लो, तशेंच रचनात्मक शैलीन माखिल्लो बरोवपी जेन्ना म्हणटा 'एक आसलो सुर्या' तेन्ना हांव खोल-खोल विचारांच्या देंगणांत सांडलें! बरोवपी खंयच्या सुर्याची खबर करता काय? फांतोडेर उदेवपी निसर्गीक सुर्याची?

तशें जाल्यार एक आसलो सुर्या अशें कित्याक म्हणलें तांणी? हो सुर्या तर आमचे मदीं अजुनय आसा. जाल्यार ह्या पुस्तकांतलो सुर्या कोण? म्हजी बुदद ह्या खिणांक गिराणांक सांपडली आनी हांवें विचारांच्या देंगणांत रावनूच हें




पुस्तक वाचलें!

William Shakespeare म्हणटा, "All the world's a stage!" पूण हे संवसारी माचयेर, मार्कोस गोन्साल्वीस हांणी आनीक एक माची उबारपाचें धाडस ह्या तियात्र पुस्तकांत केलां. भूक, गरिबी, लाचारी, हिणसावणी आनी दळीद्रपण सारकेल्या पात्रांक घेवन नदर आसा पूण दिश्टावो होगडावन बशिल्ल्या कुडड्या, आपसुवार्थी समाजाच्या दोळ्यांत सुर्याचें किर्ण फांकारपाचो येशस्वी यत्न ह्या तियात्र पुस्तकांत जाला! हे खातीर तांकां परबीं!

सात पड्डे, काळजा शिरेक हात

घालपी पोट-कथा आनी संवाद, अर्था-भरीत कांतारां, विनोदी झालर आशिल्ल्या तियात्राचें पुस्तक म्हणल्यारूच एक आसलो सुर्या!

हो सुर्या एका रेल्वे स्टेशनाचे कुशीक, मोडक्या पुला लागसार झोपडपट्टेंत उदेता! उदेता म्हणचे परस बेगर परिस्थीतींत जल्मता! निसर्गीक सुर्याचें एक बरें. ताका नेमून दिल्ले उदेंतेक तो उदेता. मळबाची भोंवडी करून थारायल्ले अस्तमतेक धारेक वता!

ह्या तियात्र पुस्तकांतलो सुर्या, ताचें कुटूंब आनी ताच्या समाजाचें मात सगळेंच उरफाटें. हांगा निसर्गीक सुर्या उदेता पूण फांतोड जायना. रेलगाडी आसा पूण मुक्काम ना. दोन गांव जोडपी पूल आसा पूण सुर्या खातीर हो पूल ताची कल्पना आनी वास्तव एकठांय हाडूंक शकना. भूक आनी पोट हांचें मदलें अंतर मिठयना. सुर्या आनी ताच्या समाजा खातीर हो पूल न्हय बगर एक दुरीग! हें दुरीग तांकां उंचेल्या समाजा पासून वेगळायता. अन्न, वस्त्र आनी आलाशिरो आशिल्ल्या मनशांचे वळेरींत बसपाचो तांचो अधिकार काडून घेता. ह्या तियात्राचें कथानक आयज हांगा जाल्यार फाल्यां थंय़ झोपड्यार्नी वस्ती करपी बेगर लोकांचे जिणें भोंवतीं घुंवता.

W.H. Davies आपले एके कवितेंत म्हणटा, what is this life, full of care, we have no time, to stand and stare! पूण बरोवपी हाका अपवाद थारल्यात. सुर्या आनी तांच्या समाजाची जीण तांणी निरखिल्या. पारखिल्या. देखुनच तर अस्वस्त करून उडोवपी तांची लिखणी तांच्या हाल-उपद्र्यां भितर शिरकल्या!

ह्या तियात्र पुस्तकांत बरोवपी दोन तरेची भूक दाखयतात. एक भूक पोटाची. जी मारूंक सुर्या, 'चुन खाता. भुकेक बळी पडून केन्ना तरी आपल्याच बाळकाचो जीव काडपी ताची आवय, जिती उरूंक आपल्या पोटाक कपड्याचो ओलो कुडको बांदून राती सारता. तूं जल्मांत आयला तोच तुजो गुन्यांव अशें सांगून सुर्या-चो बापूय भुकेचेर जैत व्हरपाक तांकां गाळी सवता. मारता. भीक मागूंक नासल्यार चोरी करूंक उक्सायता. सुर्याची भयण पिंकी, पोटाचे भुकेक कोयराचीं बल्लां उस्तिता.

ह्या तियात्र पुस्तकांत दुसरे तरेची भूक म्हणल्यार गिन्यानाची भूक! अर्थान ह्या तियात्र पुस्तकाची तेंगशी! पूण पोटाची भूक भागना तांकां गिन्यानाची भूक भागोवपाचो अधिकार खंय आसता? पोटाची भूक मारूंक धडपड चालू आसतना मर्लीन नांवाचें भुरगें, आपल्या शिक्षकांच्या आदारान तांची गिन्यानाची भूक भागोवंक झोपडपट्टी आनी शाळे मदीं एक पूल थारता! गिन्यानाची भूक भागतली म्हणपाचो आशावाद खिणभर ह्या पुस्तकांत झळकता!

Itlie mozgotim, anik ek odruxtti kump Suryacher yeta. Sorkari monis zopoddpott'ttio moddun uddovpachea vavrak lagtat. "Devan amkam oxinch zogonk ani oxinch morpak zolmant haddleant. Hea son'vadantlean Surya ani tacho kuttumb porot ek pavtt back to square one pavta!

इतले मजगतीं, आनीक एक अद्रुश्टी कूप सुर्याचेर येता. सरकारी मनीस झोपडपट्ट्यो मोडून उडोवपाच्या वावराक लागतात. देवान आमकां अशींच जगोंक आनी अशींच मरपाक जल्माक हाडल्यांत. ह्या संवादांतल्यान सुर्या आनी ताचें कुटूंब परत एक पावट back to square one पावता!

उप्रांत कितें? फुडें कितें जातलें हें जाणून घेवंक उत्सुकता वाडटा! मर्लीन नांवांच्या आशावादी किर्णाचें खरें अस्तीत्व कळटकच कोणें तरी गरम काळजार, थंड किरांव उदक उडयल्ल्याचो चर्र आवाज येता...! तियात्र पुस्तकाच्या शेवटच्या पड्ड्यांत, शिक्षण आनी गिन्यानाचे दोंगुल्ले आड सुर्या उदेता काय भूक आनी गरिबीच्या उचांबळ दर्यांत अस्तमता? हाची जाप सोदूंक मार्कोस गोन्साल्वीस वाचप्यांक मेकळीक दवरता!

एक आसलो सुर्या ह्या तियात्र पुस्तकांत जेन्ना निमणो पड्डो देंवता, तेन्ना स्वताक मनीस समजुप्यांच्या गिन्यानाचो पड्डो उगतो जाता. एक आसलो सुर्या म्हणल्यार मार्कोस गोन्साल्वीस हांणी समाज नवसरणेच्या वावरांत मारिल्लो उलो! ताचो पडसाद सगळ्यांच्या कानार सादचो! एक आसलो सुर्या म्हणपाचो वेळ कोणाचेरूच केन्नाच ना येवंचो!

बरोवपी : **मार्कोस गोन्साल्वीस**

प्रकाशक : **तियात्र अकादेमी, गोंय**

लिपी : **रोमी**

मुखपृष्ठ : **विली गोईश**






# मोग भयणीचो!

मेरशे रावपी राजेंद्र शेटकार [illegible] आवड. ताका काव्य [illegible] रुची आसा आनी ताच्यो कोंकणी कविता हे आदीं समाज माध्यमाचे आनी बिम्ब मासिकांत उजवाडाक यिल्यात. ललित लेखना वांगडाच ताचो कथा केळोवपाचोय हावेस आसा.

मो.94238 85549

ल्हानपणार भयणी वांगडा झगडीं जातालीं. रात जशी जशी वाडटाली झगडीं पालवतालीं. तिच्याच गळ्यांत हात घालून शांत न्हिद येताली.

हेरशी तें म्हजेर मोग करतालें!

म्हाका आवडटा तीच वस्त ताका आवडटाली. म्हज्या हातांतल्यान ती वस्त झोंबून काडटालें आनी हेच खातीर आमचीं झगडीं जातालीं.

हेरशी तें म्हजेर मोग करतालें!

आवयन जर म्हाका चड खावपाक दिलें जाल्यार आवय कडे झगडटालें.पूण केन्ना केन्ना आपल्या खाणांतलो वांटो म्हाका दितालें.

हेरशी तें म्हजेर मोग करतालें!

आई मारपाक येत जाल्यार मर्दी येतालें. आईचें थापट आपले फाटीर घेतालें.

हेरशी ते म्हजेर मोग करतालें!

परबेक ताका नवे कपडे मेळटाले. म्हाका मात पोरणेच आसताले.आनी हेच खातीर आमचीं झगडीं जातालीं.

हेरशी तें म्हजेर मोग करतालें!

राखीबंधना दिसा हांव ताची वाट पळयतालों. पॉकेटमनींतल्यान सांबाळील्ल्या पयशांतल्यान मिठाय आनी राखी हाडून तें म्हज्या हाताक बांदतालें.

हेरशी तें म्हजेर मोग करतालें!

मास्तरान बापायाक हाडूंक सांगल्यार व्हडली भयण म्हणून हांव तिका व्हरतालों.

तें मास्तरा सामकार म्हजो कान पिळटालें.

हेरशी तें म्हजेर मोग करतालें!

आवय सदाच ताचे वटेन ओडटाली,

म्हणटाली,“ परक्यालो गोठलो तो, दुसरे घराक धाडपाचो।”

आतां म्हाका कळटा, आवय कित्याक अशें म्हणटाली!

राखी बांदपाक म्हाका ताकतीक, आसता ताचे घरा वचपाची!!

●●●











# कोंकणी वाचन विश्व

# एक स्तुत्य उपक्रम!

गोंय विद्यापीठांत कोंकणी विशयांत एमएचें शिक्षण घेवपी मानसी प्रेमानंद धाऊसकार बिम्ब मासिकाचें पालवी संपादक जावन आसा. प्रसार माध्यमाचेर युट्युबाचेर शिक्षणीक व्हिडीयो तयार करता आसतनाच बिम्ब मासिक आनी भांगरभूंय दिसाळ्यांत कविता तशेंच लेख बरयता.

वाचनाची वाट म्हणल्यार प्रगल्भतायेची वाट. हे वाटेक शॉर्टकट ना. ही अखंड, अनंत वाट आमी प्रत्येकान आपणावपाची गरज आसा. हालीसराक हे वाटेर चलप्यांची संख्या उणी जातना होलमता. कारण आमकां शॉर्टकट आवडटा. ही शॉर्टकटाची वाट म्हणल्यार इंटरनेटाची वाट. जर एकाच क्लीकान आमकां संवसार भरची खंयचीय म्हायती उपलब्ध जाता जाल्यार, हांवें वाचनाचो ताण घेवप तरी कित्याक? हो सर्वसादारण विचार आयच्या काळांत घोळटा. हाताच्या बोटार मेजूं येता इतले लोक सोडीत जाल्यार आयचे पिळगेक वाचनाची ओड ना म्हणपाचें जाणून येता. कारण पुस्तकांची सुवात मोबायलान आनी हेर तांत्रीक गजालींनी घेतल्या. म्हणटकच हातूंत आयचे पिळगेचो मात्तूय दोश ना अशेंच म्हणचे पडटलें.

तरी लेगीत आमी नव्या काळाक वेंगायतात आसले, कालाय तस्मै नमः अशें जरी म्हणटात आसले तरी फाटलो सरिल्लो काळ सामकोच विसरायेर घालूंक फावना. फाटल्या काळाचे बुन्यादीचेरूच फुडलो काळ तोलून आसता देखून फाटल्या गजालींचो पोत सोडूंक फावना. तशें जाल्यार दोरी तुटिल्ल्या पतंगा वरी गत जावं येता. हाचीच जाण दवरून आयज कितल्योय गिन्यानाच्यो अर्विल्ल्यो वाटो सामकार आसल्यो तरी वाचनाची पोरणी वाट सोडून दिवंक फावना. कित्याक तेच वाटेन आमकां हे नवे वाटे मेरेन हाडून सोडिल्लें आसा.

हेच जाणविकायेंतल्यान लोकां मदीं वाचनाचें म्हत्व रूजोवंक, वाचनाचे शेणिल्ले वाटेची दिका दाखोवपाच्या हावेसान कोंकणी भाशा मंडळान 8 सप्टेंबर 2020 ह्या दिसा (आंतरराष्ट्रीय साक्षरताय दीस) कोंकणी वाचन विश्वा सारको गडगंज उपक्रम आरंभ केलो. भाशा मंडळाची अध्यक्ष बाय अन्वेषा सिंगबाळ हांणी हेर साबार युवकांच्या सांगातान तो चालीक लायलो. वाचन संस्कृताय जागोवपाची अखंड ज्योत घेवन म्हत्वाच्या साबार कोंकणी पुस्तकांचेर, तातुंतल्या विशयांचेर चर्चा जाली आनी जायत आसा. इतलेंच न्हय तर कोंकणी सिनेमांतलें साहित्य लेगीत एके कार्यावळींत चर्चेक आयलें. कोंकणी वाचन विश्व म्हणल्यार विवीधतायेचें भांडार. विवीध विशय गिन्यानगिरेस्त मानेस्तांच्या मार्गदर्शना खाला कितल्याश्याच लोकांच्या अतंस्करणा मेरेन पावले. साबार युवकांच्या सहकार्यान कोंकणी वाचन विश्वाची कार्यावळ येसस्वी जायत रावली.

कोरोनाच्या काळांत सुरू जाल्ल्या ह्या उपक्रमान कितलेशेच नवे वाचक तयार केले. ह्या संघर्शाच्या काळांत ऑनलायन पध्दतीन कार्यावळ सादर जावन जायत्या लोकांच्या मनांत वाचनाचे उत्फर्के निर्माण करप शक्य जालें. वाचन करतले व्यक्तीचे जिणेंत एके तरेची थिरताय प्राप्त जाता, वाचन मनांतल्या सुप्त विचारांक जागयता. तेच प्रमाण बौध्दीक तशेंच मानसीक परिपक्वताय आत्मसाथ करपाची संदूय भेटयता. हीच मोख 'कोंकणी वाचन विश्व' फाटलें वर्सभर घेवन अथक पावलां मारत आसा. अश्या ह्या उपक्रमाचो

वांटूय म्हजो एक भाग आसल्ल्याचो म्हाका आनी म्हजे वांगडा हेर कितल्याच जाणांक अभिमान भोगता हाची म्हाका कल्पना आसा.

विश्व हें सासणाचें. ताका अंत आनी पार ना. ताका थारो ना. तशेंच कोंकणी भाशा मट्टान फुडाकार घेवन सुरू केल्ल्या ह्या वाचन विश्वाकूय थारो आसूंक फावना. ह्या विश्वाचे गर्भांतल्यान विचारमंथन चालूच उरपाक जाय. कित्याक तें अर्थपूर्ण जगपाचें मूळ. वैचारीक विचारमंथन एकेच गजालींतल्यान घडूंक पावता तें म्हणल्यार वाचन. वाचनाक म्हण एक शिस्त आसता. कितें वाचचें आनी कितें वाचचें न्हय हेंय समजप तितलेंच म्हत्वाचें थारता. हेंय मतींत दवरून कोंकणी वाचन विश्वाची प्रत्येक कार्यावळ अशे तरेची नदर वाचप्यांक भेटयता. तशेंच नव्या वाचप्यांक ते दिकेन व्हरता. कोरोनाच्या काळांत लेगीत ह्या उपक्रमाक लागून कितलेशेच साहित्यीक, कोंकणी विचारवंतांची वळख आमकां जाली. तांचे विचार आमचे मेरेन पावले. तशेंच वाचन विश्वाच्या वांगड्यांक ऑनलायन संयोजन कशे तरेन करप हेंय गिन्यान प्राप्त जालें. दर एक कार्यावळींत उपाट ज्ञान संपादन एक व्यक्तीन करूं येता. तशेंच कितल्याश्याच पुस्तकां लागीं इश्टागत लेगीत जाता.

हें सुपुल्लें विश्व वाचनाचें! ह्या विश्वांत प्रत्येक वाचप्याक येवकार. तरी लेगीत कामाच्या व्यापाक लागून बऱ्याच लोकांक ह्या कार्यावळींत त्या वेळार वांटो घेवप शक्य नासता. तरी तांचें इत्सेक विरजण पडचें न्हय देखून ही कार्यावळ फेसबूक आनी यु ट्यूब सारख्या समाज माध्यमाचेरूय जोडिल्ली आसा. जाका लागून ती सवस्तकायेन केन्नाय पळोवं येता. खऱ्यानीच, आयोजकांची ही दुरदृश्टी. त्या पासत तांकां परबीं फावता. ह्या प्रकल्पाक लागून फाटल्या वर्सा सावन किण्ण पडिल्लें वाचनाचें वाटेर आतां वाचन संस्कृतायेचीं कितलींच फुलां वयर सरतना दिसतात आनी तें पळोवन म्हज्या सारक्यांचें मन धादोसता.

कोंकणी वाचन विश्वाक एक वर्स पुराय जाल्ले खातीर बिम्ब परिवारूय ह्या विश्वाक मना काळजा सावन परबीं भेटयता.

❁❁❁

## कवनां म्हयन्याळी

शंकर रामाणी



केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान सन्मानीत स्मृतीशेष **शंकर रामाणी** हे ज्येश्ठ भारतीय कवी. कोंकणी वांगडाच तांणी मराठींतल्यानूय काव्य लेखन केलां. सद्या तांच्या जल्म शती वर्साक प्रारंभ जाला.

### सासाय

आज मेरेन
तुज्या सांगातान चलताना
म्हज्या थकिल्ल्या पावलांकय
आतां
नवी आंकवार वाट फुटल्या
आनी धारेल्ले नदरे मुखार
एक अनवळखी गांव
निक्तीच फांतोड जाल्लेवरी पयस
झिळमिळूंक लागला...
म्हाका होलमल्ली
ही वाट फक्कत म्हजी
एकट्याचीच;
जाल्यारूय
धतरेच्या दिश्टाव्यान
भारावल्या म्हज्या दर एका
पावलाक
तुज्याच सासणाच्या सासायेचे
स्वास-उस्वास आसात

### प्रिय...

तुजें पत्र पावलें
तुवें बरयलांः
खूब दीस जाले,
हांगा
वारें-वादळ वेंगावन
झाडां-पेडां हुमटावन उडोवपी
खुनयाळो पावस पडटा
आनी कित्याक कोण जाणा! तुज्या
काथलायल्ल्या उगडासांनी पेट
घेतला;
मन हुंवारून आयलां;
जीव थाऱ्यार ना

हांव
तुजे परस कितलोंच पयस
आशिल्ल्या ह्या अनवळखी गांवांत
पावसाची मातूय सुलूस ना;मळब
गिमाच्यो रखरखीत जांबयो
काडटा;
जीव तानेक भायर-बितर आशेला
पूण तुजें पत्र वाचीतसावन
पुराय निर्शेल्ल्या काळजाच्या
अंत्राळांत
अनचित जोगलां मारून
कुपां मांडूंक लागल्यांत आनी
वारें -वादळ शिरंत्रांत घुसून-
-घुस्मटून उटंगाराचो पावस केन्ना
झडत हाचो नेम ना..

### वाफोर

वाफोर
अजून येवना
ती मात केन्ना सावन
एकटीच
वाट पळेत आसा

वाफोरान
तिचो कोण येवपाचो आसा
हें तिकाय
नीट खबर नासुंये

हांवें विचाल्लें
तेन्ना तिणें सांगलेंः
'केन्नाय तरी
वाफोर येवपाचो आसा
इतलेंच हांव जाण;
पूण पयस,
खूबच पयस मळब
जंय दर्याक तेकलांशें दिसता
ते निळनिळशे देगेक
वाफोराची सावळीशी सुलूस
केन्ना फुटत
हाचो मातय भरवसो ना
जाल्यारूय हांगा हांव पिशें कशें
कोणा खातीर थामलां
हांवच नकळं
लोक म्हाका हांसतात...
हांसुंदी..'

### आश्विन

नितळ
अस्तमतेच्या वाठाराक
नाखुटशी
निक्तीच न्हावंक लागिल्ली
बियेची कोर
तिनसानचे कात्रीर
पयसुल्ल्या
बांदादेगेक आशिल्ल्या तळ्यांत
आपलें हारशेल्लें रूप
ओखेत रावल्या..

### आनिकूय

देंव बाबा,
देंव;
आनिकूय
खोलायेंत देंव...

पेंव बाबा,
पेंव;
आनिकूय
हुंवारांत पेंव

काव्यफुलोर





## प्रतिक्षा

सक्काळीं गेलो तूं
घेवन चटणी भाकरी

कालच हाडिल्ले गंव
करुन लोकां चाकरी

केन्नाच आधार दिना तरी
आसा म्हाका तुजी खात्री

तिगोवंक कुकूम कपलाक
तूं आसा म्हजी सत्री

आतां बसलां दिवो लावन
वाट तुजीच पळयत

कसो येतलो घरा तूं
हाचोच हुस्को करत

येतलो तूं भाजी घेवन
नातर कांदे- मिरसांग

काय तळीरामा भशेन
रस्तो मेजत, खरें सांग



हरिश कामत
बार्देस-गोंय

## तात्पुरतें

तात्पुरत्या जगांतलो
तात्पुरतो मोग
कितलो खरो कितलो पुरो
कळना ताचो ओघ

तात्पुरत्या जगांतल्यो
तात्पुरत्यो अपेक्षा
कितल्यो कमी कितल्यो चड
कळना तांची रेशा

तात्पुरत्या जगांतले
तात्पुरते आमी
कितले आयज कितले फाल्यां
कोण दितलो हमी...



अन्वेषा सिंगबाळ
मडगांव-गोंय.
मो. : 9923 442746

## घर

ल्हान आसताना बाबा म्हजो
दोनूय हात उखलून म्हणटालो
धर गे म्हाकां
वेगान तुज्या
काम कांयच करू नाका
सगळोच वेळ म्हज्याच खातीर
दि गे मम्मी
धर गे म्हाकां ।।
मागचे पयली तोंडान तुज्या
घास हांव भरयतालीं
न्हाणोवन धुवन पावडर तिती
लावन तुकां बसयतालीं
पातकडया पोंदची सपनां म्हजी
तुकांच घेवन हांव रंगयताली ।।

घरां भायर गेली तरीय
फकत तुजोच हुस्को म्हाकां
म्हज्या बगर रावचोना
रडटा काय बाबा आतां ।।

हातांत काम करताली
पूण नदर तुजेर आसताली
बरे संस्कार मेळचे तुकां
हाची जतनाय घेतालीं ।।

भरिल्ल्या घरांत म्हज्या
चिवचिवाट तुजो
दीस केन्ना सोंपता तो
कळच नासलो ।।

आयज घर किण्ण जालां
वारो लेगीत येवंक विसरला
सपना साकार करूंक आपली
पूत म्हजो दुबय गेला ।।

पयशार पयशे धाडटा घरा
लग्न जावन थंयच रावला
हांव जाणटीं एकटी एकसुरी
उरली म्हज्या घरां
उरली म्हज्या घरां ।।



शोभा फुलकार
चिबल-गोंय
7875237478

काव्यफुलोर

## हाताचीं बोटां

हाताचें वरदान मनशाक
दिल्यांत बोटां पांच हाताक
वेगवेगळें कार्य प्रत्येकाक
वाटून दिलां सगळ्यांक

अगुष्ट नांव आखाण्याचें
सर्व कल्याण धर्म कर्म ताचें
सगळ्या बोटांक साथ ताचो
ताचे विणे अर्दवट जिणें हाताचें

तर्जनी नांव दुसऱ्याचें
श्राध्द धर्म कर्म ताचें
पुर्वजांक संतुश्ट करपाचें
दुशऱ्याक बोट दाखोवपाचें

मध्यमा नांव मदल्या बोटाचें
लोकधर्म कर्म ताचें
कुकूम तिबो लावपाचें
सगळ्यांत वर्चस्व ताचें

अनामीक नांव चवथ्या बोटाचें
देव धर्म कर्म ताचें
देवाक गंध कुंकूम लावपाचें
मुदी घालून बंधन बांदपाचें

कनिष्ट नांव करंगळीचें
अघोर धर्म कर्म ताचें
आहुतिचो मान ताचो
आसून ल्हान कठोर काम ताचें

पोसो जाता पांच बोटांनी
मूठ घडटा पांच बोटांनी
नमस्कार जाता पांच बोटांनी
आशिर्वाद मेळटा पांच बोटांनी



**डॉ.उल्हास नास्नोळकार**
करंजाळे मो. : 9823066540

## घावे

म्हजे काळजाक घावे जाल्यात
देखून हांवें
तुजी बिबूत,
तुजो आंगारो
आनी तुजें तीर्थ
एकठांय करून ताचो एक
लेप तयार केला ...
तूं मात्सो हांगा यो
आनी हो लेप म्हजे काळजाक लाय.

सद्या –
तूं घायाळ जाला
आनी हांव तुजे खबरेक आयलां ...



**आर. रामनाथ**
फोंडें–गोंय.
मो. : 9850458763

काव्यचवर



## इश्टागत

इश्टान म्हाका फोन केलो
काळजांतलो विस्वास घट जालो
तकलेंतलो दुबाव शांत जालो
मनांतलो आनंद जागो जालो

इश्टान विचारलें, 'कितें रे, कसो आसा?'
हांवें म्हळें, 'चल्लां रे ! बरो आसां
कळकळीचो उगडास आयलो म्हाका
फोन काडून नंबर लायलो तुका'

घिटायेचीं तुजीं उतरां आयकून
मनाक म्हगेल्या मेळ्ळो सुकून
दुख्खाक तुवें घालें धांवडावन
खोशेंन दोळे आयले भरून

दिनवास म्हजे इश्टा तुका
वेळार तूं पावलो म्हाका
नमन म्हज्या इश्टा तुका
इश्टागत तुवें दाखयली म्हाका



दत्तप्रसाद नायक
बिठ्ठोन-गोंय
मो.95529 14969

## सैमधन

पोरसांत तुज्या परमळटा
आबोलेचें झाड
मोग आसल्यार चिमटीभर
परमळ म्हाका धाड

खबर आसा हावेस तुका
तांबड्या फुलांचो
सृश्टदेवी न्हेसल्या शालू
पाचव्या कोराचो
आशाढाचो चडून भांग
धोलता माडयो माड

गावचें तुवें सुरबूस
निसर्गाचें गीत
मेळची तुजे कळाशेक
संवसाराची किर्त
आशाढ सरी धर्तरिचे
करता कितले लाड

केन्ना तरी फाटले यादीन
गायता जातलें मन
शब्द आनी स्वरांक
अर्पण करून प्राण
इल्लें तरी सैमधन
पानार म्हज्याय वाड...

सुनिल पालकार
कालापूर-गोंय
मो. 99217 96865



## यादी

रातचे राती
कातरता पानां
सकाळ उदेतकच
परमळीत फुलां...!

रातचे राती
पालवता पणती
सकाळ उदेतकच
परमळटात उजवाती

रातच्या राती
लागना दोळो
सकाळ उदेतकच
मन शितळकळो

रातचे राती
यादीर यादी
काळीज चिरी
पावसा सरी...!

सुनिता सु. शाह
मेरशे-गोंय
मो.9420690052






## जंगल शाळा

(आधुनीक काळाचें हितोपदेश)

# शेतकार आनी ताचे पाडे

फाटल्या सप्तकांतले फार्मा वयले पिकनिकेक केल्ली मजा भुरग्यांक भोवच आवडली. आतां तीं सगळीं, आपल्याक दुसऱ्या गांवांत पिकनिकेक व्हर म्हूण एल्म ेचे फाटिकूच लागलीं. म्हणटकच एल्मोन माजोड्डें गांवांत तांकां व्हरपाचें थारायलें.

माजोड्ड्या पावना फुडें भुरग्यांनी बैलगाडयेन भोंवपाचें थारायलें. थंयच्या खडबडीत रस्त्या वयली ती भोंवडी तांकां भोवच मानवली.

इतलेंच न्हय, बिंगो, चानी आनी लैतावांक लेगीत तणान भरिल्ल्या त्या गाड्या वयली भोंवडी मानवली. गाड्यांत भरिल्ल्या तणाच्यो काडयो बिंगोच्या नाकांत परत परत गेल्ल्यान शेगीत पांचेक मिणटां ताका शिंकेर शिंक येत रावली. ताका तसो शिंकतना पळोवन भुरग्यांची हांसून हांसून मुड्डी पडली.

ते अशे भोंवडी करतना तांकां मेळूंक तांचो इश्ट मिट्टू कीर आपल्या संवगड्यां वांगडा आयलो. येतना तांणी भुरग्यां पासत गोड गोड पेरां हाडिल्लीं.

गाड्या वयल्यान भोंवतां भोंवतां तांणी तीं गोड गोड पेरां मिटक्यो मारीत मारीत खालीं. पांचवे चार शेतां मदल्या बांधा वयल्यान गाडो वता तेन्ना सगळ्या भुरग्यांनी ताल-सुरांत कितलींच पदां गायलीं. तांची भोंवडी सोंपल्या उपरांत एल्मोन त्या पाड्यांची फाट थापटिली आनी तांकां ताजें ताजें हरवें तण खावपाक घालें आनी खूबशें उदक पिवपाक दिलें. ही सुंदर भोंवडी आयोजीत



केल्लें पासत एल्मोन त्या गाडेकाराक भरपूर बक्षिसी दिली.

मागीर सगळ्या भुरग्यांनी, 'काणी सांग, एल्मो आम का काणी सांग' म्हणत हट्टूच धरलो. पुराय दिसाचे भोंवडेंत भुरग्यांक इतलें गिन्यान मेळिल्लें आसतनाय तीं आनीकूय सोदतात तें पळोवन एल्मोक बरें दिसलें. एल्मोन तांकां म्हाइडू आनी कायतू ह्या वार्काच्या दोन शेतकारांची आनी तांच्या पाड्यांची काणी सांगली.

वार्का गांवांत म्हाइडू आनी कायतू नांवाचे दोग शेतकार आसले. ते आपल्या कसदार शेतांत भाजी पिकयताले. तांच्या शेतांत भेंडे, तांबडी भाजी, तेंडलीं, दुदी,कणगां, वायंगीं तशेंच भिकणां आनी अळसांदेय पिकताले.

ते सप्तकांतल्या सोमार, बुधवार आनी शुक्राराक आपल्या आपल्या गाड्यांचेर आपली ती ताज्जी भाजी भरून लागशिल्ल्या मडगांव शारांतल्या बाजारांत विकूंक वताले.

म्हाइडू आनी कायतू सक्काळीं 6 वरांचेर, केन्ना केन्ना फांतोडेर लेगीत बाजाराक वचूंक घरांतल्यान भायर सरताले. त्या आदीं म्हाइडू आपल्या पाड्यांक, रानू आनी शानूक पोशेतालो आनी तांकां खावपाक भरपूर तण आनी पिवपाक उदक दितालो. मागिरूच तो तांकां गाड्याक बांदतालो.

म्हाइडू केन्नाच आपल्या पाड्यांक बेगीन वचपा पासत मारून धांवडाय नाशिल्लो. तो तांकां खूब मायेन सांबाळटालो. रानू आनी शानूक खबर आसलें, आपल्या धनयाक वेळार मडगांवच्या बाजारांत पावपाक जाय, देखून ते वाटेर मानूय गणय नासतना सडसडीत चलताले. बाजाराच्या दिसांनी म्हाइडू मडगांव बाजारांत सकाळीं 7 वरांचेर पावतालो आनी आपली सगळी भाजी खपयतालो. तो सदांच सगळ्या आदीं मडगांव बाजारांत पावतालो देखून ताच्या म्हालाक बरें मोल गावतालें.

कायतूचेय रॉकी आनी मॉकी नांवाचे दोन पाडे आशिल्ले. तांकां तो सामकी वायट वागणूक दितालो. तो तांकां केन्नाच सारकी खावड घाली नासलो आनी तांणी बेगीन चलचें म्हूण आपले बडयेन तांकां मार मार मारतालो. कायतुच्या माराच्या भंयान रॉकी आनी मॉकी धांवताले खरे पूण रोखडेच थकून हळुहळू चलताले. ताका लागून कायतू मडगांव बाजारांत सदांच उसरां साडे सातांक पावतालो आनी म्हाइडू सदांच आपले आदीं बेगीन पावता म्हूण ताचो दुस्वास करतालो. तो सदांच आपले आदीं बाजाराक कसो पावता हें ताका कशेंच कळना आसलें.

एक दीस सांजवेळचो कायतू म्हाइडुच्या घरा कडेन आयलो आनी ताणें ताका विचारलें,'' म्हाइडू, फाल्यां आमी आमच्या पाड्यांची अदला बदल करुंया? तूं म्हजे पाडे व्हर आनी तुजे म्हाका दी.''

म्हाइडू आपल्या शेजाऱ्याचे सांगणेक तयार जालो आनी ताणें आपले पाडे ताका दिले आनी रॉकीक आनी मॉकीक आपणें घेतले.

ताणें आदले दिसा तांकां



बरे न्हाणयले आनी खावपाक भरपूर तण घालें आनी पिवपाकूय जायतें उदक दवरलें.

दुसरे दिसा, सदचे वरीं म्हाड्डू बाजाराक वचपाक कायतुचे पाडे आपल्या गाड्याक बांदून 6 वरांचेर भायर सरलो. कायतूय आपल्या गाड्याक म्हाड्डुचे पाडे बांदून ज्युस्त त्याच वेळार बाजाराक वचूंक भायर सरलो. पूण सदचे वरींच म्हाड्डू मडगांव बाजारांत 7 वरांचेरूच पावलो. कायतूक मात बाजारांत पावपाक अर्दवराचो कळाव जालो.

कायतू लागीं म्हाड्डुचे पाडे आसुनय आनी तांणी धांवचें म्हूण जरी तो रस्तो भर तांकां शेपलायतालो तरी तो म्हाड्डू आदीं बाजाराक कस्सोच पावंक शकलो ना.

ते सांजवेळा कायतून म्हाड्डुचे पाडे ताका परते दिले आनी विचारलें,'' म्हाड्डू, आयज हांवें म्हज्या गाड्याक तुजे पाडे बांदले खरें, तरी हांव बाजाराक तुजे उपरांतूच कसो पावलों तें म्हाका गोमलें ना. तूं सदांच इतले बेगीन मडगांव बाजाराक कसो पावता हाचो गूट म्हाका उकतो कर रे!''

'' कायतू, म्हज्या इश्टा, मोनजात हीय आम च्या संवसाराचे वांगडी. आमी तांकां केन्नाच वायट वागोवंक फावना. आमी तांकां मोगान आनी मनीसपणान वागोवंक जाय. अशें केल्यारूच ते आमकां त्या मोगाची, आपलेपणाची परतावणी आपल्या वावरांतल्यान दितले!फाल्यांच्यान तूं तांकां बडयांनी शेपलावपाचें सोडून दी आनी मागीर पळय तांचे मर्दी कितें बदल जाता तो!''

कायतून मानून घेतलें आनी दुसरे दीस सकाळीं ताणें आपल्या पाड्यांक रॉकीक आनी मॉकीक मात्तूय बडी लायली ना. ताणें तांकां भरपूर खावड घाली आनी मोगान वागयले. अशे तरेन तांकां माये मोगान तो वागोवंक लागलो तशें तोय म्हाड्डू बाजाराक पावता त्याच वेळार आपलो गाडो घेवन पावपाक लागलो.



आपले मोनजाती विशीं कायतुच्या काळजांत जाल्लो बदल पळोवन भुरग्यांकूय खूब्ब खोस भोगली. काणी आवडली म्हूण सगळ्यांनी ताळयो मारून दाद दिली.

''एल्मो, ते दुदयाचें कितें करतात रे?''

म्हाड्डू आनी कायतुच्या शेतांत दुदीय जातात अशें एल्मोन काणयेंत सांगिल्लें ताची याद दवरून मानवान विचारलें.

'' दुदयाचे सुरबूस अशे कितलेच प्रात करतात. हांव फाल्यां एल्मीक तांतलोच एक प्रात, दुदयाचें भर्त करपाक सांगतां.'' एल्मोन सांगलें.

''दुदयाक तशी व्हडलीशी रूच नासता!'' आपलें तोंड वाकडें करीत रायनान म्हणलें.

'' तरी तो सामको पुश्टीक आसता, रायना!'' रेहानान म्हणलें.

'' जर सारकें रांदत जाल्यार दुदया इतलें सुरबूस आनीक रुचीक दुसरें कांय ना अशें म्हणटलीं तुमी!'' एल्मोन म्हणलें.

एल्मोचें आयकून, एल्मी करतल्या दुदयाचें भर्त चाखपाची भुरग्यांक सामकी उमळशीक लागली. तिणें मागीर करून तांकां तें खावयलेंय बी! सगळ्यांनी तें रुच काडीत काडीत मिटक्यो मारून खालें!



# एक काणी शाणी शाणी

- डॉ. हनुमंत चोपडेकार

(बाल कादंबरी)





## 15 शाणीच्या इश्टांची पेवपाची काणी

**'लहानपण दे गा देवा,**
**मुंगी साखरेचा रवा'...**

खऱ्यांनीच, दर एका मनशाच्या जिवितांतले भुरगेपणांतले दीस म्हटल्यार साखरे प्रमाण गोड दीस आसतात. अजापाची गजाल म्हटल्यार ते भुरगेपणांतले म्होंवे दीस मात साखरेचो कापूस जिबेर दवरतकच जसो नाच्च जाता ते भशेन रोकडेच काबार जातात. मनीस केदोय व्हडलो जालो तरीय ताचे मर्दीं एक ल्हान भुरगो आसताच. तो भावूक, निश्पाप आनी भावराती आसता. ताका दर एकल्यान जपपाक जाय. ताची अपुरबाय करपाक जाय. देखून आमी भुरगेपणांतल्यो सगळ्यो यादी पुंजोवपाक जाय. तशेंच आमचें भुरगेंपण दर एका पांवड्यार मनसोक्त अणभवपाक जाय. भुरग्यांनो, जाणा जायात.... तुमी मना पासून खेळपाक जाय, नाचपाक जाय, राना वनांत हुमले कशे भोंवपाक जाय. तो पळयात, भोंवतणचो सैम आमचे खातीर टिफिन्स घेवन तयार आसा. काण्णां, चुन्नां, चारां, बोरां, आंबे, मुट्टे, हांसाळीं, कणेरां कितें कितें म्हूण खातले तुमी! सांगात?

खरें सांगतां, भुरग्यांनी मस्ती करपाक जाय! पण स्वताचो जीव सांबाळून. वगीच भियेवन फाटीं रावचे परस धिटायेन फुडें सरप सदांच बरें. आतां भियेवन तुमी पेंवपाक शिकले नात, दोंगर चडपाक शिकले नात, झाडार हुमकळपाक शिकले नात, शेता-भाटांत वावुरपाक शिकले नात, पतंग उबोवपाक शिकले नात, नुस्तें धरपाक शिकले नात जाल्यार तुमचे

मर्दीं शिटुकसाण उरची ना. पूण एक गजाल मतींत धरात. मजा करात पूण ती जिवीतभराची सजा जावची ना हें लक्षांत धरात. जमता तितलीच मजा करात, ल्हान ल्हान झाडांचेर चडात, व्हडल्यांच्या आदारान सांबाळून पेंवपाक शिकात. रानांत वयताना कोणाच्या तरी वांगडा वचात. देवान तुम कां बी तकली दिल्या तिचो वापर करून निर्णय घेयात. ना जाल्यार अती थंय माती जावंक वेळ लागचो ना. कळ्ळें? तुमकां हें अशें हांव कित्याक सांगतां सांगात....? तर, तुमी शिटूक, धाडसी आनी बुदवंत जावंचे हे खातीर. प्लीज... म्हार्जी उतरां सारकीं गांठीक बांदात.

म्हणटकच, तुमी न्हंयेंत पेवपाक जाय, दोंगरार चडपाक जाय, झाडार चडपाक जाय. शरीर बळकट करपाचे नदरेन जे जे खेळ खेळपाक जमतात ते सगळे खेळ खेळून मज्जा मज्जा करपाक जाय, तितलोच उपाट अभ्यास लेगीत करपाक जाय. आनी सगळ्यांत व्हडली गजाल म्हटल्यार आपलें भुरगेंपण जगपाक जाय....."

शाळेंतले बालदिनाचे कार्यावळींत सरस्वती पुजता त्या सभाघरांत दिवचल सावन आयिल्ले गांवस सर भुरग्यां कडेन उलयताले. मुखेल सोयरे म्हूण आयिल्ले गांवस सर जें कितें उलयताले तें शाणी आनी हेर भुरगीं कानांत प्राण हाडून आयकतालीं. गांवस सरान भुरग्यांक मुद्दाम आपले भोंवतणी वाटकुळेच बसयल्ले आनी तो मर्दीं रावन भुरग्यांक काणी सांगिल्ले वरी मजेशीर पद्दतीन भुरगेपणाचें म्हत्व सांगतालो. अजाप म्हणजे शाणी पयली सावन चवथेंत पावऽ सर ते मराठी शाळेंत दर एकलो उलोवपी तांबडे निळे मराठींतूच उलयत आयिल्लो ताणें पळयल्लें. खरें म्हणल्यार, ते वक्ते उलयतात ती तांबडी काय निळी मराठी हें कळपाक भुरग्यांक बुद्द येवंक नाशिल्ली. तशें तेंय एके पद्दतीन बरेंच आसलें, ना जाल्यार वोगीच इपरीत घडपाचें. पूण एक गजाल ते कार्यावळींत घडिल्ली. पयलेच फावटीं भुरग्यांचे नीज भाशेंत कोण तरी उलयतालो. तिसरी आनी चवथेचीं सगळीं भुरगीं ते कार्यावळीक हाजीर आसलीं. पयली आनी दुसरेच्या भुरग्यांक वेगळ्या वर्गांत वेगळी कार्यावळ त्याच वेळार चालू आसली. भुरगेपणाक इतलें म्हत्व आसता हें भुरग्यांक पयलेच फावट इतले सोपे पद्दतीन कोणतरी सांगतालो. खऱ्यांनीच खऱ्या अर्थान भुरगेपणाचें म्हणजे कितें हें त्या भुरग्यांक बाबड्यांक खबरूच नासलें.

शाळेंत सरस्वती पुजता त्या मोठ्या वर्गाचे बांकडे कुशीक काडून कार्यावळी निमतान सभाघर करताले. गांवस सर उलयताना भुरग्यांक तें एक प्रशस्त सभाघर दिसलें. तेन्ना शाणी वांगडा हेवटेन तेवटेन दामू, पेमलो, नानी, वास्को, माया, विशांत शुभदा बशिल्लीं. तिंवूय पयलेच फावटी इतले तन्मयतायेन गांवस सराचें उलोवप आयकतात तें पळोवन शाणीक तांचें कौतूक दिसलें. गांवस सर सामको भुरग्यां मर्दीं भोंवून आपलें म्हणणें पटोवन दितालो. गांवस सरान ते कार्यावळीक भुरग्यांक एक गीतूय शिकयल्लें. तें भुरग्यांक रोकडेंच पाठ जालें.

हांसात खेळांत, खोशेन लोळात दम दमा दम... दम
टम टमा टम, टम टमा टम, टम टमा टम... टम
फूल दिसलें फुलून घेयात, पावस आयलो भिजून घेयात
पावसाच्या थेंब्याचे रंग तुमी सोदून घेयात

जालें, ते दिसा सावन गांवस सरान शिकयल्ल्या वयल्या गीताचें भुरगीं पारायण करपाक लागलीं. भायर भितर, शाळेंत घरांत, खेळटाना पळटाना जंय वता थंय 'दमा दम दमा दम, टम टमा टम' चालूच....!शाणीनय त्या 'दमा दमा दमान' आनी 'टम टमा टमान' सगळें घर माथ्यार घेतलें म्हटल्यार जाता. 'किचिमिपिं'तल्या आपल्या चारूय इश्टांक तांणी तें पद जबरदस्तीन शिकयलें, 'किकी' 'चिची' 'मिमी' 'पिपी'.. शाणी जेन्ना जेन्ना तें पद म्हणटालो तेन्ना तेन्ना शेपडी हालोवन आनी तोंडांतल्यान तरेकवार आवाज काडून ताका साथ दिताले. तें पळोवन घरच्यांचो बरोच टायम पास जातालो.

खरें म्हटल्यार गांवस सराचें भाशण आयकून शाणी सामको भारावन गेल्लो. 'हांसात खेळात खोशेन लोळात, दम दमा दम.. टम टमा टम...टम, टम टमा टम, टम टमा टम...दम' हाचो नक्की अर्थ आमी खूब मजेन भुरगेंपण घालोवपाक जाय ह्या विचारान तो खोश्शी जालो. ते राती ताणें थारायलें. 'हय आतां मनसोक्त खेळप, रानांत वचून काण्णां, चुन्नां हाडप, पेरीचेर चडोन पेरां खावप, पाणट्या वयल्या उदकांत पेंवप, तरेकवार खेळ खेळप आनी तितलोच नेटान अभ्यास करप!

जालें, त्या दिसा सावन दर दिसा शाळा सुट्टकच आनी

आयतारा बी शाणीची स्वारी हागऱ्या वाळार तेरेकवार खेळ खेळपाक धांवतालो. दर आयतारा तो आपल्या इश्टा वांगडा पाणट्ट्या वयल्या रानात वचून थंयच्यान काण्णा, चुन्ना वा हांसाळ्याचेर ताव मारतालो. गांवकारल्या घरा फाटलें पारय्याचे पेरीर चडून पेरां खातालो. म्हत्वाची गजाल म्हणजे, ती चोरी थारूंक जायना म्हूण भुरगें गांवकारल्या दामूक मुद्दाम पेरांचे ते मोहिमेंत आसपावन घेताले. दामूल्या भाटातलीं मोटव्या माडाचीं आडसरांय अशेंच मोहिमे खातीर उणीं जातालीं. वास्क्याल्या आमुल्लेचीं घोंटांय बाबडीं भुरग्यांच्या महत्वामान दिसरात उणीं जातालीं तीं अशेंच तेरच्या खाशेले मोहिमे खातीर. पूण मोटवो माड आनी ल्हान आमुल्ली सोडून व्हडल्या माडांचेर आनी व्हड आंब्याचेर भुरग्यांनी लक्ष मारचें न्हय हाची दखल बाबड्या शाणीक मास्तर जावन घेवची पडटाली. अशा वेळार अती थंय माती जावंक वेळ लागचो ना हीं शाणपणाचीं उतरां तो सगळ्यांक आयकयतालो. तशे भुरगे आतां मात्शे व्हड जाल्ले. आडांगीपणा वाडिल्लींच! तेच वांगडा थोडी जबाबदारीय मनांत रिगिल्ली..

आतां गांवांत शाणीचो एक ल्हान पंगड जाल्लो. त्या पंगडांत नानी, मंता, दामू, वासको, पेमलो, पको, जगू हे फॅविकॉल लायिल्ले वरी घट्ट दसून आसताले. गांवचे तांच्या परस व्हड भुरगे तांकां 'फॅविकोल जोडी' म्हुणूण चाळयताले. गांवस सराच्या त्या भाशणाचो ह्या पंगडाचेर बरोच परिणाम जाल्लो. दर दिसा सांजवेळार शाळा बी सुटटकच हे सगळे गांवच्या चवाट्यार एकठांय जावन दुसरे दिसा कितें करचें तें थारायताले. आयतार आनी सुटये दिसा जाल्यार खास उपक्रम थारिल्लोच आसतालो. हेर दिसांनी तांचे जायते खेळ चलताले. लिपचेल्यांनी खेळप, बडयांनी खेळप, लगोऱ्यांनी खेळप, गड्ड्यांनी खेळप बी सदचेंच जाल्लें. तर आयतारा पिड्यांचीं बेटां करून तशेंच भेंडयेच्या बडयांच्यो विकेटी करून क्रिकेट खेळप, कोयण्या बालांनी खेळप ना जाल्यार रानांत काण्णां चुन्नां बी हाडपाक वचप अशी तांची मांडणी आसताली. ल्हान आसतना तांकां घरचीं भायर सरपाक मनाय करतालीं. पूण आतां भुरगे मात्शे व्हड जाल्ल्यान आनी गांव ल्हान आशिल्ल्यान कोणूय भुरगो केन्नाय 'आईऽऽ खेळपाक वयता गोऽऽ' अशें म्हुणत बाण कसो भायर सरतालो. काय फावटी कितेंय चुकलें, खय खरचटलें वा धांवतना पडलें जाल्यार जाणट्यांची तापोवणी वा केन्ना केन्ना मारूय खावचो पडटालो तो ते हांसोन हांसोन खातालेय बी!

दिसभर मन मारता थंय भोंवप, शेता धडेर वाऱ्या भशेन धांवप. आंबे, काण्णां, मुट्टे, हांसाळीं, तोरां, पेरां, जगमा खावप. ह्या तरेकवार गजालींनी शाणी आनी ताच्या इश्टांचे दीस बरे वयताले. चौथेच्या पयले सत्राही परिक्षे वेळार ह्या गजालींक मात्सो विसव मेळ्ळो. आनी परिक्षा सोंपताच सुटी पडिल्ल्यान भुरगे परत कानांत वारें गेल्ल्या पाडका भशेन वावुडपाक लागले.

एका आयतारा शाणी आनी ताचे वांगड्यांनी गांवच्या पाणठ्यार पेंवपाची जंगी कार्यावळ करपाची थारायली. खरें म्हणल्यार तातुंतल्या एकट्याकूय पेंवपाक कळऽ नासलें. पूण कांबळे गुरूजी म्हणटा तसो 'इट इज बॅटर लेट दॅन नॅवर' केन्ना तरी सुरवात करपाकूच जाय. सगळ्यांनी टाळयो मारीत पेंवपाची कल्पना उबारून धरली. जाणट्यांक बी कळचें न्हय म्हूण पयलीं पाणठ्याचे देगेर कांय वेळ कोंयड्या बालांनी खेळप आनी थोड्या वेळान जणट्यांची नदर चुकोवन ल्हवूच पाणठ्याचे भितरले वटेन केगदींच्या आडोसाक वचून उदकांत देंवप अशें थारलें. 'पेंवपा खातीर कपडे बी घेवपाचे भानगडींत कोणी पडचें न्हय, वोगीच कोणांक दुबाव नाका.' अशें दामून पयलींच सगळ्यांक ओर्द दिल्ली. ताणी शाणी कितेंय शाणपणां करीत म्हूण आदींच आपलें म्हणणें स्पश्ट केल्लें. तशीं केन्ना केन्ना दामू मुखार शाणीचीं शाणपणां उणी पडटालीं. कारण आडसरां, पेरां, आंबे बी चडश्यो सगळ्यो गजाली दामूल्या घरच्योंय आसताल्यो. ते भायर कोंयण्या बाल आनी तातुंतली चडशी सामुग्रीय दामूच हाडटालो.

आयतारा सकाळीं सुमार साडे णव्वाक ल्हव ल्हव करून सगळे भुरगे जमले. नानी, मंता, दामू, वास्को, पेमलो, पको आसलेंच! पूण पेंवपाचें गुपीत कोणें तरी फोडिल्ल्या कारणान पेमू आनी विनय भैय्या लेगीत पेंवपाचे कार्यावळीक वांटेकार जावंचे पासत पावले. ते दोगूय पेंवपाक जाणा म्हूण हेरांक ते आयिल्ल्यान थोडें बरेंच दिसलें. हरशी आमी दर आयतारा चवाठ्यार कोयण्या-बालांनी खेळटाले पूण आयज पाणठ्यार खेळटात अशें कोणांक दिसचें न्हय म्हूण दामूनूच संजुल्या

पसऱ्यार आशिल्ल्या लोकांक आय़कूंक येयत ते भाशेन म्हटलें -

"पावले मरे सगळे, आरे चवाठ्यार खेळटात आनी सगळो बोवाळ घालतात तुमी. जाण्ट्यांक बाड्यांक त्रास जाता. आयज मरे आमी पाणठ्या देगेक खेळुंया. कितें रे शाणी?"

"हय हय या या.... चलात चलात. पाणठ्यार या."

बाबडो शाणी जाप दिंवचे पयलींच सगळ्यांनी हयकार दिलो आनी मोन्यांनीच सगळे जाण पाणठ्या वटेन चलपाक लागले. पसऱ्या वयले जाण्टे भूत पळयल्ले वरीं अजापीत जावन तांकां पळयतूच उरलें. सगळे जाण पाणठ्यार पावले. दामून कोंयणो आनी बालां तयारूच दवरिल्लीं.

" मंता, नानी चलात गडी घालात. थोडे खेळून घेवया पयलीं." दामूक खेळ सोंपोवन पेंवपाची ताकतीक लागिल्ली.

आतां खेळ सुरू जातलो आनी उपरांत सगले उतकांत देंवतले हे कल्पनेनूच सगळ्यांनी खेळटना कल्पनेंतूच उडयो मारल्यो. मंतान बेगीन गडी वांटपाची ताकतीक केली. ते प्रम ाण मंता आनी नानी दोगूय दोन पंगडांचे म्हालगडे म्हूण उबे रावले. थंय दोन पंगड तयार जावपाची प्रक्रिया सुरू जाली.

'अभिताभ बच्चन जाय काय धर्मेंद्र?

ब्रूस ली जाय काय दारासिंग?

कपील देव जाय काय सुनील गांवसकार?

गब्बर सिंग जाय काय कालिया?'

ते सगळे मेळून धा जाण आसले. पांच पांच जाणांक घेवन दोन पंगड जाले. आतां कोण पयलीं खेळटले ह्या प्रस्नाचेर तांची गाडी थाबली. ते सरशीं वास्क्यान ओली सुकी उडोवपाक जमनी वयल्यान एक फुटकरो नळकुटो काडून, ताचेर एक वटेन तोंडाची थुकी उडोवन विचारलें -

"ओली काय सुकी?"

" हे, ओली सुकी आयज चलची ना. आमी सदांच



ओली सुकी हारतां ''- दामू

'' हे दामल्या, सदांच कित्याक रडटा..? मागीर खेळ्यार किदें जातां?'' - मंता

'' आलीं सुकी उडोवया आमी. दामूचें कायच उपकारचें ना.''- नानी.

'' हय हय... चलता आमकां, हरशीं म्हूण आयज कोण खेळटा!''- पेमलो.

'' पेमल्या, खेळपाचें बरें आसा रे... पूण हो दामलो मरे, सदांच आपणाक व्हडलो समजता. सदांच कांसले ना कांसले नखरे हेचे! - मंता.

'' हे मंता, तोंड सांबाळोन उलय हां... ना जाल्यार...'' - दामू

'' ना जाल्यार कितें? सामान व्हरतलो मरे? व्हर व्हर...'' - मंता

'' ना ना... हो मंता सदांच म्हाजेर जळोन आसता. हांव येयना खेळपाक. हांव चल्लों पेवपाक.''

इतलें म्हुणून दामून आपलें कोंयण्या बालाचें सामान घेतलें. तें थंयच लागीं आशिल्ल्या पेमल्याच्या पोरसांत बांय कडेन उडयलें आनी तो तडक पाणठ्या फाटल्यान आशिल्ल्या केगदी वटेन धांवलो. हेर भुरगे 'दामू, हेऽऽ दामूऽऽऽ' म्हणीत, ताका समजयत फाटल्यान गेले.तांचीं झगडीं बंद जावचीं म्हूण शाणी दामूक कितें तरी सांगपाक सोदतालो पूण दामू थांबलोंच ना. पेमू आनी विनू भैयानूय आपल्या व्हडपणाच्या अधिकारान ताका थांबोवपाचो यत्न केलो. पूण तो रावलो ना.

दामू कोणाचें कांय आयकुपाचे मनस्थितींत नासलो. तो देगेकच्या भाटांतल्यान निट्ट पाणठ्याचे फाटले वटेन पावलो. थंय वचून ताणें सगळ्यांत पयलीं कलसांवाच्या बोल्मांतलो; कारशटी मागचे ग्वातीर हाडिल्लो कपडो काडलो. कलसांव मात्शें सकयल देंवोवन भेंडाचे मुळीक तो कारशटे कपडो ग्वांयलो. कलसांव मागकें देंवोवन तें कुशीक काडलें. बुस्कोट आंगा वयल्यान देंवयलो. दोनूय मुस्तायकी तांबड्या माडाच्या मुळांत दवरून तो तडक पाणठ्याच्या उदकांत रिगलो.

शाणी, नानी, मंता, वास्को, पेमलो, पको, जगू, विनू आनी पंमू भैय्या थंय पावले तेन्ना मुखा वयलें चित्र पळोवन ताची दातखिळीच बसली. दामू पाणठ्याच्या उदकांत सामको भोंवऱ्यात घुसपल्लो. तो जंय पावल्लो थंय उदक बरेंच खोल आशिल्ल्यान तो बुचकळटालो. आकातान तो हुयेल मारपाचो यत्न करतालो पूण तेंवूय ताका जमनासलें. मुखा वयली परिस्थिती पळोवन सगळेच भुरगे पांयांक खिळ मारिल्ले वरीं उबेच उरले. इतल्यांत शाणी आइडलो -

'' आरे! पळयतात कितें. धांवात... वाटायात तेका....''

'' होय, होय!'' भुरग्यां मदीं कोणांक कांय सुचना जालें.

'' पूण आमकां पेंवपाक खंय कळटा!'' मंतान भियेत भियेत आपली अडचण सांगली.

''होय होय1''

'' गेलो गेलो पोंदाक गेलो...''

'' बुडकळ्ळो बुडकळ्ळो...''

'' कोण तरी वाटायात रे आमच्या दामूक!'' वास्को थपकल मारून बसलो.

शाणीन सगळ्यांचेर नदर मारली. सगळे जाण भियेल्ले. ताणें विनू आनी पंमू भैय्याक आशेन पळयलें. दोगूय पेंवपाक जाणा तरीय भियेल्ले. भोंवऱ्यांत गेल्यार आपूण परत वयर सरत हाची तांकां खात्री नासली. उदकूय व्हांवतें आसलें. शाणीन परिस्थितीचो अदमास घेतलो. मनांतल्या मनांत सांतेर मांयेक आनी कुमयावस देवाचें नांव घेतलें. लख्ख करून ताचे तकलेंत उजवाड पडलो. ताणें थंयसर भाटांत पडिल्लें लांब चुडीत ओडीत हाडपाक सुरवात केली. विनू भैय्याचीय लायट पेटली. तांणी आनी हेरांनी तें चुडीत हाडपाक आदार केलो. तें चुडीत तांच्यांनी दामू वटेन उडयलें. दोन तीन प्रयत्नांत चुडटाची शेवडी दामूच्या हाताक लागली. ताणें ती कशी बशी घट्ट धरली.

'' दामू, दामू घट्ट धर!''

'' चुडीत घट्ट धर.''

'' भियेवं नाका.''

पूण दामूक त्या भोंवऱ्यांतल्यान वयर काडप इतलें सोंपें नासलें. कोणें तरी उदकांत देंवन ताका भायर काडप गरजेचें आसलें. पेमल्याचेर शाणीची नदर गेली. ताका पळोवन शाणीक कसलीशी याद जाली.

" पेमल्या, धांव मार, तुमचे बांयक राजू आसा तो हाड बेगीन."

" हां.. हां.... होय होय...."

पेमल्याचें घर लागींच आसलें. तो धांवलोच. दोन तीन मिनटांनी तो धांपेत धांपेत राजू घेवन थंय पावलो. इतलो वगत भुरग्यांनी चुडटाच्या आदारान दामूक बुडपा पासून वाटायल्लो. पूण दामू थंय उदकांत बुचकळटा तो पळोवन ते सामके भियेल्ले. रडोन तांचो जीव गोळाक लागिल्लो. मोठ्यान हुयेली मारल्यार जाणटे एकठांय जातले म्हूण ते आपले आपूण गजाल जाग्यार घालपाक सोदताले. शाणीन पेमू भैय्याक आशेन पळयलो. ताका पेंवक कळटालें. राजू पळोवन तो तयार जालो. ताणे वेळ होगडाय नासतना तो राजू आपल्या भेंडाक बांदलो. विनू भैय्यान ताची गांठ घट्ट केली. रोकडीच पेमू भैय्यान दामू वटेन उडकी मारली. विनू भैय्यान दुसरे वटेनची दोरी लागींच्या माडाक बांदली आनी ताचे मुखार आपूण रावलो.

पेमू भैय्या पेंवत पेंवत दामू म्हऱ्यांत पावलो. दामू जाम पडिल्लो. कसो तरी ताणें जिवाच्या आकांतान तें चुडीत घट्ट धरिल्लें. बुडटल्या दामूच्या भुजांक धरपाचो ताणें यत्न केलो, पूण तो सफळ जालो ना. वयल्यान तो उदका पोंदाक वचपाक लागलो. ते सरशी ताणें दामूचे केंस चपक्यांत धरले. त्याच खिणाचो फायदो घेयत सगळ्यांनी चुडीत सोडून राजू ओडपाक सुरवात केली. विनू, शाणी, नानी, वास्को, पेमलो, मंता, पको, जगू सगळ्यांनी एकूच नेट करून त्या दोगांकूय वयर काडले.

दामूक सगळ्यांनी वयर भाटांत हाडून न्हिदयलो. विनू भैय्यान ताका पोटकुऱ्या धरून ताच्या पोटांतलें उदक काडलें. तो ल्हव ल्हव सावशीत जालो. कांय खिणांत दामू उठून बसलो. तसो सगळ्यांचो जीव थाऱ्यार पडलो. येदें व्हडलें सकश्ट निस्तारलें म्हूण सगळ्यांनी देवाक हात जोडले.

मरणाचे धडे वयल्यान परत हाडपी आपल्या सगळ्या इश्टांक दामून उपकाराचे भावनेन पळयलें. ताका आपल्या इश्टांचो अभिमान दिसलो. ताणे पयलीं देवाक आनी उपरांत तांकांय हात जोडले.

दामू भोंवतणी सगळे इश्ट एकठांय जाल्ले. पयलीं तांच्या मुखामळार खंत आशिल्ली! पूण दामू जसो जसो सावशीत जाता तसो एक एकटो मुमरख्यानी हांसपाक लागलो. पळयता म्हणसर सगळेच दामूक पळोवन हांसूंक लागले. कितें जालां तें दामूक बाबड्याक कळना जालें. ताणें आशेन शाणीक पळयलो. शाणीन ताका दोळ्यांनी सांगपाचो यत्न केलो पूण ताका शाणीची ती भाशा कळ्ळीच ना. निमणें मंतान दामूची मुस्ताकी ताच्या मुखार धरीत सांगलें -

" हे दामल्या, सकयल पळय, तुजो संवसार उक्तो पडला.उदकांत मरे तुजी काश्टी व्हांवून गेल्या. हे घे तुजे कपडे आनी धांप तो संवासार तुजो!"

मंताच्या त्या उतरां सरशीं थंय पाणठ्याचे देगेक त्या आकांताच्या प्रसंगा उपरांत खोशेचो एक व्हड हांसो पिकलो आनी त्या हांश्यांत दामूय वांटेकार जालो.

(चलता...)



# मांजरा पील

- अविनाश कुंकळकार

सांजेच्या स वरांचेर माजराचें पोर रडिल्ल्याचो आवाज आईक आयकूंक आयलो. आईन तन्वीक उलो मारलो, तन्वीन कुडींतल्यानूच आईच्या उल्याक जाप दिली.

" हांगा यो गो!" आईन म्हळें. आईच्या उल्यान तन्वी भायर येता.

" कितें आई?"

" माजराचें पोर खंय रडटा तें पळय गो! त्या शेजारच्या माजरान आमगेर येवन पोरां बी काडूंक ना मगो?"

" ना आई, तें कुडींत..." तन्वीन अचकीत आपली उतरां थारयलीं.

" कितें कुडींत ?"

" कुडींत न्हय, कुडी भायर रडटा तें माजराचें पोर...!"

" पळय ताका. भितर आनी येत तें!"

" ना-ना!! भितर येना, भितरूच आसा तें!"

" कितें म्हळें?"

" हांव भितरूच आसां आई, ताका भितर येवंक दिना हांव..." अशें म्हणून तें सामकें उचांबळ जावन कुडींत गेलें.थोड्या वेळान आई सालांत सारण मारतना थंय तें माजराचें पोर रडत-रडत आयलें. ताका पळोवन आईक सामकी भिरभिरी मारली. तिणें रागान सारण जमनीर उडयली आनी तन्वीक उलो मारलो.

" तन्वी... तन्वी बेगीन हांगा यो आनी तेजसाकूय आपय...!"

तन्वी आनी तेजस दोगांय सालांत आयलीं.

" आई, कित्याक आपयताली?" तन्वीन विचारलें.

" हें कितें गो?" त्या माजराच्या पोरा कडेन बोट दाखोवन आईन विचारलें.

" म्हजें माजरतें!" अशें म्हणून तेजसान त्या म ाजराच्या पोराक वेंगेंत घेतलें.

" तें भितर कशें आयलें गो?" आईन परतून विचारलें.

तीं दोगांय उग्गी!.

" हांवें कितें विचारलां बाय तुका?"

" आई, हांवें सांगिल्लें ताका, तें आमकां नाका म्हूण. स्कुलांतल्यान येतना ताणें ताका हाडिल्लें." तन्वीन भियेत भियेत सांगलें.

" बाबा ताका आनी कित्याक हाडलें तुवें?"

" आई, थंय रस्त्याचे कडेक एकटेंच बाबडें रडटालें, तें आपले शेणिल्ले आवयक सोदतालें जावये! भुकेन, तानेन तळमळटालें अशें म्हाका दिसलें म्हूण हांवें ताका आमच्या घरा हांडलें."

माजराच्या पोराक कशें घरा हाडलें हें तेजस आपले आवयक सांगतनाच तांचो बापूय सगूण आयलो. ताणें तांचें सगलें उलोवप आयकलें आनी तेजसाक आपले वेंगेंत घेवन ताची तोखणाय करीत म्हळें,

" शाब्बास तेजस शाब्बास!! खूब बरें केलें तुवें ताका हाडलें तें. आतां भितर वचून ताका दूद पिवंक दी." बाबाचीं उतरां आयकून तेजस खूब खूश जालो आनी माजराच्या पोराक घेवन भितर गेलो.



" तुमी केन्ना आयले? आनी हें कितें सांगतात ताका?"

" हे देवाचे उपकार... आमच्या भुरग्यांच्या भर्या गुणाची वळख आज आमकां जाता. फुडें वचून आमची भुरगीं कितें करतली हाचो अंदाज आमीं आजूच लावक शकता

म्हळ्यार !! हांव समजूक नां

जो तान्नेल्याक उदक पिवयता, भुकेल्याक दिता जेवक जेवण. हाच्या परस चड कांयच ना संवसारात, हेच खरे मनीसपण. सगुणाची उतरां आयकून आईचो सगलो राग निवळलो. तिच्या दोळ्यानी दुकां भरली. तीणे जोड आवांजान म्हळें .

माफ करात हा हे तर म्हज्या लक्षातूच आयलें नां तन्विच्याय बी दोळ्यातल्यान दुकां गळूक लागली. ताणे दुकां पुसीत म्हळें.

हय बाबा! म्हाकाय बी माफ कर. म्हाका वायट उतलेच दिसता की हांव म्हज्या भावासांरके कित्याक जावंकना, म्हज्या भावा सारके विचार म्हजें कित्याक ना बाबा? ते रडूक लागलें. बाबान ताचे तकलेर हात दवरून ताका समजावपाच्या यत्नान म्हळें.

ना बाय , तशे कांय ना! आमीं सगली एकेच माळेचे मणीं

हय खरेच तें आईचे काळीज खोशेच्या उमाळ्यान भरून आयलें, ती चड कांय उलोवक शकली ना. वता हांव भितर म्हाका खूब काम आसा अशे म्हणीत खोशेची दुकां गळयत ती भितर गेलीं.

बाय! तूंवय वच आईक मात्सी मजत कर, दीस भर काम करून-करून सामके नाका पुरो जाता गो तिका बाबान तन्वीक म्हळें.

हय बाबा!! म्हाकाय बी तशे दिसता. पूण आई म्हाका कसलेच काम करूक दिना,प्रत्येक वेळार म्हणता अभ्यास कर, अभ्यास कर.

उमळ

डॉ. सुषमा अरूर



डॉ. सुषमा आरूर सद्या गोंयांत दोना पावल हांगा रावतात. तांकां आदीं सावन साहित्याची आवड आनी वाचनाचो नाद आसा. तांणी 'गजाली पोटसऱ्यांच्यो' हें सर्पप्रेमी गुरुराज सनिल हांचें कन्नड पुस्तक कोंकणींत अणकारीत केलां. तांकां ललित लेखनात रस आसा.

दामोदर मावजो लिखीत

# 'जागरणा'चेर कांय वेंचीक विचार

हालींत हांवें मावजोबाब हांणी शेचाळीस वर्सां आदीं बरयल्लें धा काणयांच्यो पुस्तिका 'जागरणां' वाचलें.गोंयचे ल्हान-सान गांवचे भोंवतणींतलें निसर्ग वर्णन, त्या काळांतलो समाज आनी तांचे सहवासांत आयिल्लो गांवगिरें वा शारी लोकांलें व्यक्तिचित्र, त्या काळाची विचार प्रणाली, घरांत पाळच्यो रीत-रिवाज , पूजा-पुनस्कार, अनवाळपण, वीज नासलें घरांतलें रहाणें हे पाटभूंयेर लेखकांन ह्यो काणयो रचयिल्लो आसात. हातुंतलीं थोडीं भोव अस्तुरीलीं पात्रां निरागस, लजेस्त, संस्कारी, थोडीं धाडशीं. लोकांले निंदा वा आरोपाक दाद दिनासले, निर्भीड बायलांलें चित्रण केलें आसा. तशेंच तीन वेगवेगळे कथेंतल्यो दादल्यांले पात्रां, इनास, सुभाश आनी पाद्रि मायेस्त आनी संवेदनशील दादले आसून, दुसरें दोन कथेंतले मिनी आनी रमेश हीं देड बुदवंत पात्रां हुबेहूब रितेर रचयलेले असा कि मुखार वाचूंक उमेद वाडवपी. मुळांत तांगेलें सादे-सूदें, वस्तुगत जीवीत मनाक खोशी हाडपी. हालीसराक समाजाचो आनी कौटुंबिक जीवन मौल्य बदल्लां आनी बदलत आसा ह्याची जाणीव वाचकांक आपोआप लक्षांत येता. कोंकणी साहित्यांत हालींसरांतूच पावल दवरिल्ले म्हाका ह्यो काणयो वाचून जे थोडे फार विचार मनांत आयले तें हांगा उतरायलें आसा.

'मन म्हाजें पिशें' ही एक नवीन लग्न जावन, पयली फावट घोवाले घरांत पांय दवरिल्ले व्हकलेली काणी. तर्णाटे जोडप्यालें निरागस मोग, मायेचो एकत्रित घराबो सुंदर रितेर निरूपण केल्ले आस्सा. सकाळचें न्हावन सोवळ्यान देवाक दिवो लांवन, तुळसी पूजा करपी नवीन व्हकल, सांजवेळाक देवा दिवो लावन, म्हालगड्यांक पांय




पडन आशिर्वाद घेंवचो रिवाज ह्या कथेंत वाचून आत्ताचे काळांत कितलेशे घरांत हें दिकूक पडटा असो एक शंका मनांत आयल्यार कांयच चूक ना. हे काणयेंत एक बायल मनीसाले मनांत जावपी चित्र-विचित्र भावना, दुबाव लेखकान संवेदनशीलतायेन स्पर्श केले आसा! लग्न जाल्लेले थोडेच दिसान चेरडांले अपेक्षा करतलें घरचे लोकां, सुनेक जावंचो दुबाव (आत्तय तीच स्थिती आसा) हें सगलें एक अस्तुरिलें नदरेन व्यक्त केले आसा. एक दीस तिजेच घोवान रोविल्लो रानटी रोंपीक जाल्लेले फुलाचो वास घेवन तिका

ओकारी येवपी आनी घरची सगलीं खुश जावन तिची सरबराय जाता! ती खोशींत आसपी पूण एके दीस, मडगांवचे एक बायलेक जाल्लेले दोन तकलीचे चेरडाले बातमी ती वाचता आनी कोणा बरशी शेयर करी नासतना, मनांतले मनांत चिंतून हैराण जाता. असलें मानसीक स्थितींत ती बाळांत जाता आनी तिजे मना सारकें, तिचे घरकारालो प्रतिरूपा वरी एक सुंदर चली उबजता. खंयचो समाजांत चल्यांक येवकार आसा, थंय मावजोबाब हांणी चलीक मान दिवन तांचो उदारमत दाखवन, दिलें आसा.

'कोंयसांवांली गोरंवा' मोनजातिचेर मोग आशिल्लें एके जोडपी इनसा आनी कोंयसांवा मजगतींत आशिल्ली अनुरूपताय आनी एकमेकांक न दुकंवचो सभाव वाचकांक मानवता. तीन चेरडूंवा आनी जाण्टे गोरवां पोसपाची तांक नाशिल्यान. दिसाय कोयसांव घरोनघरा वचून गोरवां खातीर धोण मागून हाडपी. असले वायट अवतिकायेंत जाणटे गोरवांक विकून एक बैल व बिंया घेतल्यार दोनवेळाची जेवण मेळटा अशें चिंतून इनसान बाजारांत तांकां विकपाक पळयता. पूण बायलेक तांचेर आसलो मोगा लेगीत तो विकना आनी वस्तुस्थितीक तोंड दिंवपाक कठीण जावन, फुडाराचें चिंतून, रागान आनी दुख्खान फडफडटले कोंयसांवाले अवतिकाय पळवन वाचप्यांलें काळीज पिळन येता. अशी ही काळजाक स्पर्श करपी गजाल व्हय.

'आंबो म्हगेलो' ही एक 8-10 वरसाचो भुरग्याली काणी. कदाचीत अशें दिसपी की लेखक तांचे बालपणाचे अणभव सांगतात कि कितें? तितलें सहज आनी हृदयस्पर्शी आसा ही गजाल। विनू वत्ता मामाले घरा, ताका खेळपाक, खावपाक आनी भोंवपाक हांगा कांय निर्भंद ना. तेन्ना आंब्यांचो मोसम आशिल्लो. विनू हांगा मजेंत आसा, ताका ताजे घरा वचपाचें बिलकूल मनांत ना. पूण ताका व्हरूंक ताजो बापय आनी भाव आयल्यांत. विनूक भावा कडून कळता कि तांचे घराच्या पोरसांतले एक मानकुराद आंब्याचे रूकाक ह्या वरस खूब तोरां जाल्यांत म्हूण. पूण घरा ताका आवय तोरां खावपाक दिना, थोडे दिसान गोड गोड आंबे जात्तले, ताजे वाट पळे म्हूण सांगता. सगलीं चेरडूंव आंबे पिकपाचे वाट पळयत आसतात.एके रात्ती विनूक सपन पड्टा की पिकिले आंब्यांचे रास पडल्या, ताजेर एक काळो सोरोप बसला आनी तो भिवन , हुम्मेवन उटता. दुसरे दीस फातोंरड्यार एक काळो म नीस येवन आंबे व्हरतना तो पळयता, तो ताका सपनांतलो सोरोपसो दिसपी. दुक्कांन भरिल्लो विनूक आनी निरशेल्लेलें ताजे भावंडाक आपले भावा बरोबर आवय तिजे कुळारा धाडता. म्हालगड्यांलें धाक, शिस्त, तांचे उतरां भायर नासले हीं भुरगें एके कडेन आनी हालिसरचे गिरेस्त आनी दुबळे, दोनी स्तरांतले पालक सारकें तांगतांगेले भुरंग्यांक लाडान वागयतल्यां मर्दी जमीन -आसमानाचो फरक दिसून येत्ता. हालीं तांका आसचे एक -दोन चेरडूवांले खोशी लेगीत कितेंय करपाक ते फाटी-फुडें पळयनात. असल्या वाटाघाटींत फाटले, शिस्त, आदर असलें कितल्यो तरी मौल्यां पसून पयस गेल्लेले भुरग्यांक पळंवचे पडटा अशें म्हजे लक्षांत आयलां.

'बोमाडो' ही मिनी आनी बेलाली गजाल।. हें जोडपें वतात कायनाताले काजाराक. सुंदर देखणो आनी नटवेपणाचो, चेडवांक आकर्शित करतलो मिनू आपणाले सादी-भोळी, लजेस्त बेलाक पार्टींत बीयर पिंवपाक भाग पाडटा. तिका खबर आसता की तिका बीयर लागता, आनी ती तेन्ना चड उल्लायता. तशें हरशी तिका उतरां उणेंच. तिजे मनांतले अडखळा काडपाक आनी तिणें चड एंजोय करपाक जाय म्हूण मिनी तिका चडच पिंवक फोर्स करपी. डान्स जेन्ना सुरु जाता तिजे बरशी तो डान्स करता पूण ती चोयता कि चेडवां ताजे भोंवतणींतूच घूंवत आसतात. आनी तो बेलाचेर एक नदर दवरन दुसऱ्या बराबर नाचता. पूण, बेलाक दुसरे दादल्या वांगडा खबरी करची, हासचे पळवन मिनू रागार जाता आनी तो तिका ताकतीकेन घरा घेवन येता. दोंगय रागान तपतपलेले आसतात . मिनीक दिसता कि तिका पिवोंवक लायले आपणा बरोबर खुलून वागतली म्हूण, पूण ती दुसऱ्यां बरोबर फंकाडे करपाचे पळवन ताजो मूड वत्ता. घरां पावले की मिनू बेलाचेर तुटून पडचोच,पूण ताजे तोंडांतल्यान उतरां भायर पडनात. ताचे एवजी बेलाच सणसणीत ताका उलो मारता. ती ताका शिटकावणी दिता की ताणें खयंचेय चेडवां वांगडा मोगचाळे केल्यार ताजो हात आनी पांय मोडून दवरतलें म्हूण ! रात गयी आनी बात गयी! तशें फांतोड्यार मिया-बिबी राजी जातात!

'रितें जिणें'- साठाचे आस-पास आशिल्लो एक जाणटो आस्पत्रेंत एडमीट आसा. तो भारी भक्कम गिरेस्त मनीस, त्या दिसाचे दिसाळ्यांत चडान चड इनकम टेक्स भरपी धा गिरेस्त

लोकांत ताजी नाव बी नोंद आसा. तो एक गिरेस्त मात न्हय, कितले तरी राजकारणी आनी व्हड लोका वांगडा ताजे ऊठ-बैस आसून, दीस भरांच कामांत तो कार्यरत आसपी मनीस. पूण मद्याक पिडेस्त आसा म्हूण खूब दीस हागा तो पडून आसा. ताका उबगण येवन जीव नाकाशें जाला. पुताक दिसता की बापयन खूब वाट काडला आनी ताका आता आरामाची गरज आसा. अस्वस्थ आसपी जाणटो थंय आशिल्ले नर्सेक एक मिनिट बसपाक दिना. उप्रांत ताजो इष्ट आनंदराव येवन ताका भेटता आनी ताजे अवतिकाय पळोवन , ताका प्रेरीत करपाक म्हणटा, की 'साठाचे पयलींच कित्याक जाणटो शी वागता. तो अजून काम करपाक शकता अशें आशावादाची उतरां उल्लयता. आपण पळय अठावन वरसांचो, अजून काम करपी. तुका करतबगार चलो आसा, धंदो मुखार चलोवपाक आपणालो पूत तसो ना म्हणता . ताका आराम करपाक साध्य आसा , पूण आपणाक सुखाची न्हीद बी ना म्हूण सांगून तो वता.

'तो हांव न्हय' – ही एक मजेशीर पूण वस्तुगत काणी आसा. एक दोतोर ताजो इष्ट इनासाचे सांगणे वयल्यान एक दवाखाना ताजे वठारांत घालता. थंय दुसरो दोतोर नाशिल्यान तीन म्हयन्यांत ताजो धंदो वाडता. एके दीस एक सुंदर आनी तरणी बायल येता, तिजे तोंडा वयलो हांसो इतलो मोहक की दोतोर तिजांत घुसपता. तिका तपास करतना तिजे नदरेंतलें आव्हान पळवन कांय तरी व्हडली चूक घडपाची तितल्यांत शेजारचो भुरगो दोतोराक 'बेगीन घराकडेन यो आवयेक बरें ना' म्हूण आफोवंक येता. दोतोराक मेळ्ळेली संद गमावची नासली, पूण त्या भुरग्यान ताजी पाठ सोडलीना. दोतोराक चुरचुरो दिसपी. फुडले 15 दीस तिजोच ध्यास दोतोराक. देडेक म्हयन्यान दोतोरालो इष्ट इनास येता आनी ताजे धंद्या विशीं, ताजी सुंदर आनी मोगाळ बायले विशीं उल्लोवन वत्ता. तशेंच दुसऱ्या दिसाक बायलेक घेवन येता आनी दोतोराक जाता शॉक ! ताका आपूण मित्राच्या बायलेक वायट नदरेन पळयलें हाची खूब लज आनी पश्चाताप जाता. इनास मुंबय गेले उप्रांत ती परती दोतोराक मेळपाक येता तेन्ना तो तिजेर खूब तिडकता. हें घडिल्ले सुमार दिसान ती परती येवन आपणाले मनांतलें सगलें उक्तें करता. काजार जावन दोन वरसां जाल्लीं पूण तो घरांत रावना, उठून वारंवार वत्ता. आपणाक पयसो नाका, तो जाय. पूण ताका पयसो जोडपाची हांवेस आसा. तिजी मांय तिका खंय वचपाक वा कोणा वरशीं उल्लोवपाक दिना. असली आवतिकायेत ती स्वताले उमेद भागवपाक इश्टागत जोडपी आनी ताचे वांगडा बरें कपडे घालन सिनेमा, हागा थंय भोंवपा लागता. आतां ती 4 म्हयन्यां गुरुवार आसा, हें आयकून दोतोर थक जाता. त्या दीस जेन्ना ती पयले फावटी आयिल्लीं तेन्ना शेजारचे भुरग्यान येवन आपणाक सामकार घडपी पाप कर्मा सावन वांचयलें म्हूण दोतोर ताजेर रिणीं आसपी !

'मूड म्हजो सोयरो' – सुभाषाले सोयरीक जावन दोन म्हयने जाल्ले, पूण मेकळें अशें तिजे वांगडा वेळ घालपाक मेळ्ळें नासलें. म्हूण ताणें एक आयतारा सिनेमाक वचपाचें थारायता. पूण ताजे मित्र मंडळी मॅच पोळोवपाक मडगांवा यो म्हूण आफोवंक येतात, हो सबूब सांगून , तांचे मसकऱ्यो आयकून तो थंय सकून भायर पडटा. चलत घरा येत्तना ताजे मन फुला सारकें हलकें जाता. रस्त्यार शिळोणी घालत शालीलो याद करत तो घरा पावता. शाली खूब लजेस्त चली, तिजे घरच्यान ताका भेटपाक परवानगी दिल्यार बी लोंकाचाराक भिवन ती येना. आज तो सगलो दीस तिनाचो वाट पळयत आसलो. पयले कपडे केले,बेगिन जेवलो, धवें खोमीजार च्याचे थेंबे पाडयले, खत्त केलें, ते काडपाक, रांदशिरे घश्टून, चड दाग करन, मनाक त्रास करन गाडी पकडूक धावलो.थेटराक पावन रांगेंत उबरोन तिकेट काडली, पूण ती आयलीना, शालिलो भाव चीट घेवन येता, 'आवयेक बरें ना, म्हूण येंवपाक जाल्लेंना, रागार जाव नाकां म्हूण वाचून, कितें करतलो? निरशेवन गेलो घरा!

हे कथेंतली आनी पयली काणी 'मन म्हजे पिशें' तलीं नायिका दोगंय लजेस्त, संस्कारी अशें त्या काळाक शोभतली तशें चित्रण केलें आसा.

'अशीं रुपडीं-अशीं रूपडीं'-रमेश, बी.ए शिकिलो, इंग्लेज, पोर्तूगीज, मराठी, हिंदी सगल्यो भास बरें उल्लोवपी, कामांत हुशार, कसलोय वेसन बी नाशिल्लो एक बरो दादलो.ताका आसपी एकूच संवय, म्हळ्यार अनामिक पत्र बरवन पोस्टार धाडचे, त्या खातिर तो आफीसांतले लोकांन पांचाक भायर पडतकीर, पत्र टायप करन पाकीटांत घालन स्टेशनार आशिल्ले पोस्टाचे डब्यांत घालप .ताका लग्न जाल्लां, तीवय सर्वीस करपी। तो प्रतिदीस कामांवले देवन तिणे येंवचे गाडीची वाट पळयता. पूण हालींत तिका चडकाम,

इयरेंड असले कारणान वेळ जाता आनी गाडी चुकता. हांणे पाविल्ले एक-देड वरांन ती मोटरबायकार घरा येवन पावता। तिंणे पायलेटा फाटल्यान बैसून येंवप रमेशाक नज, आनी हालींत बायलेन वेळ करन येंवप चड जायत आसा अशें ताका दिसप. ताका लागून एक दीस अनामिक पत्र हाकाच येंवक जाय? तो बरयता कि ताजी बायल ताजे सायबा वांगडा बायकार आफीस सुटले उप्रांत भोंवडी मारन मागिर तो तिका घरा हाडन सोडता, आनी आफीसांत ही गजाल पातळ्या म्हूण. जें तुं पेरता तें तुका मेळटा अशी ताची गत जाता! ह्या काणयांतली आनी 'तो हांव न्हय हांतूल्ली नायिकां लोकांले उतरांक पर्वा करी नासतना, आपणाले मना सारकें वागतल्यो धाडशी बायलांले व्यक्ती चित्रण केलें आसा.

### मेट्रिकेचो रिझल्ट

मेट्रीकेचो केदना एस.एस.सी जाल्ले, त्या दिसा पसून एस.एस.सीचो दर्जो कमी जाल्लो म्हळिलें सत गजाल न्हय. साठ सत्तर वरसां पयलीं मेट्रिक जाल्लेल्यांक सरकारी म्हण, कायद्याचे, रान खात्यांत, शिक्षण क्षेत्रांत काम मेळपाक कांय अडचण नाशिल्ली. शिकवणेंत एक गुणवत्ता आसताली. आत्ताचे सरकारी शाळेंतलें भुरग्यांक अंग्रेजी सोड, मांयभाशेंत बी चार ओळी बरवपाक आनी वाचूक आयल्यार व्हड आस्सा. हांत आडवाद आस्सू फाव. शोभान खूपच अभ्यास केलो, मुखेलतायेन सांगपाचें म्हळ्यार चल्ये चेरडूंव शिकचांत चड मेहनती आसतात , कष्ट करतात, चड करन घरचें काम करन वेळ वाया घालिनासतना अभ्यास करपी. सर्वसामान्य घरांतलें म्हालगड्यांक चेडाले शिकप चड गरजेचें अशें दिसपी.. लेखकांन काणी निमाणे अर्दार सोडल्या, कदाचीत शोभाली आत्मविस्वास अखंड आसा, तिणें रातन दीस अभ्यास केला आनी ती वयरचे गुणान पास जात्तली हाची खात्री तिका आसा ह्या कारणान आस्सू फाव वा ती नापास जाता, पूण ती सपन पळयता की, नेमाळ्यांत तिजो नांव ना, पूण ती पास जाल्याची लकोट्याची वाट पळयता.

### आंगवण

सानपणांत ना जाल्लेलो पुतालो वाट पोळोवन हांतुरणाक खिळिल्लो एके जाण्ट्यालो संवेदनशील आनी हृदयस्पर्शि काणी आसा.एके पाद्रीक इगर्जीत प्रार्थना करत आसलो एक दुखी जाणटो कामिल दिश्टीक पडटा. आनी तो ताजे कुशीक वचून मोगान, पाय म्हळ्यार, बाबा म्हूण आपोवन, हात ताजे

भुरगो दवरिल्ला तांचें उल्लासणी व स्पर्शान जाणटो आपणालो पूत जुझेच आयला म्हूण लेकून खोशेन तो थरथरता तेन्ना पाद्री बी काकुळता. तो पाद्री लोकांलें गरजेक पावतलो , आदार दिवपी मनीस। तो ताका भेटपाक एक -दोन वेळा ताजे घरा वत्ता, तेन्ना बी ताका पयले जाल्लेलोच अणभव जाता. आपण ते जाणट्यालें कशे तरेन मजत करपाची ह्या विशीर तो चिंतून आसपी. एक टीम चांदरची एक आवय आपणाले पुताक इगर्जेचे वाडींगात दवरपाक येता. कर्म धर्म संयोगान ताजें नांव बी जुझेच आसपी! पाद्रीक दिसता की हाका ते जाणट्यालें घरा ताजोच पूत म्हूण दवरिल्लें जाल्यार ताका जाणटेपणांत उपेगी जात्तलें, आनी भुरग्याक बी एक बरें घर मेळटलें अशें बरें चिंतून तो ते भुरग्याक सत गजाल सांगून ताका 'पाय' म्हण आपय अशें सांगता. पूण दुर्दैवान तो जाणटो ताजें स्पर्श आनी आवाजान पाद्रीक म्हणटा कि हो ताजो पूत न्हय। म्हजो पूत येत्तलो, तांणे आयिल्लो बगर हांव मरचो ना. अशें तो म्हणटा. पाद्रीक आपणाले खोटेपणाक लज दिसता. तशेंच थोडे दिसान जाणटेलाली शेजान्नी, 'तो मरत आसा, बेगीन यो 'म्हूण सांगता. पाद्री कामिलागेले घरा वत्ता. पाद्री आपणाले लोब काडन दवरन, जुझेचो खोमीज घालन कामिलाले कानांत ल्हवूच सांगता, 'पाय! हांव तुजो जुझे आयलां पळय' म्हूण पाद्री ताका वेंग मारता आनी कामिल खोशीन,म्हजे पुता, तूं आयलो म्हूण ताजे फाट पोरसयता.. ताजें आंग खतखतालें, तरी तो उल्लायत वता, 'आपणान आंगवण सांगल्या सायबिणीक, तूं आयल्यार फेडता म्हूण. पाद्री जाणा तें. तूं फेड तें आंगवण!' म्हूण सांगून कामिल मरता. पाद्रिक दिसता की पुण्याचे काम करपी तेन्ना ताजे हातान थोडें पाप काम बी जाल्लें म्हूण .

परिवर्तन हो जगाचो नियम, हे चाळीस वर्सांत आमचो समाज खूब बदल्ला आनी बदलत आसा. पूण ह्यो काणयो वाचतना आदले काळांतलें लोकां कितल्यो तरी नियम आनी निर्बंधनांत जियेल्यात हें कळन येता. हालींसराक अविभक्त कुटुंबा बदला विभक्त घराबें चड दिसक पडटात. बायल-घोव दोगयं कामाक भायर पडटात, तरी पयले वरी घरकामाचो वावर एकल्यान संभाळचे बायलांक त्रासदायक जाल्ला. हांतु अपवाद आस्सू फाव, थोडीं बायलो घर, संसार, नोकरी आनी परंपरा संभाळून वत्तल्यो बी आस्सत. काळ उलगून वयत आसा, कौटुंबिक कडक शिस्त,नियम आनी, जापसालदान्यो सैल जाल्यात. पालक आनी भुरग्यां मदलें नात्यांत आदलें कडकपणा बी उरलें ना. मनांतल्यों भावना अभिव्यक्त चड जायत आसात. आत्ता ही बदल बरें कि वायट थारायपाची गम न्हय. प्रत्येक घडणुकेक बरी आनी वायट पैलू आसता हें खरें.

पूण, आपलेपण, संवेदनशीलताय, मोग, प्रेम, कोप-राग, बजार असल्यों अनुभूती मानवी नात्याक जोडपी आनी हें मनीसपण म्हळिलें नातें श्रेष्ठ आनी सार्वत्रीक आसून खंयचेय काळ आनी सुवातेंचे पल्यान वचून अणभवयेत पूण परिस्थितीक लागून हांतूय चड -उणें जायत आसा हो बदल आमी अणभवत आसत. इमोशनल जांवचें एनर्जी प्रॅक्टिकल जांवप चड बरें हो आजचो मंत्र जावन आसा!

न्हिदता तेन्ना ताचो मेंदू मासको मृतवत् अवस्थेंत वता अशें आमी म्हणूं शकनात कारण फकत नॉन-रेम न्हीद जी मनशाचे न्हिदेच्या फकत 20 टक्के आसता तेन्नाच मेंदू कमी उर्जा वापरता आनी मात्सो सुशेग घेता.

कथिका

सुषमा तिळवे



# हुंवार

सुषमा तिळवे हें कोंकणी तशेंच मराठी काव्य मळा वयलें एक लक्षात उरपा सारकें नांव. कोंकणींत 'दवरणें' आनी मराठींत 'गंध मनीचे' हे काव्यसंग्रह ताची गवाय. त्या भायर गोंयच्या बऱ्याच नेमाळ्यांनी तांचें सातत्यान बरप चलता.

सावित्री धाकले धुवेक वांगडा घेवन खोऱ्यान माती पयस करीत किर्ते हाताक मेळटा काय म्हणून आशेन सोदताली. हुंवार येवन आज पंदरा दीस जावन गेल्ले. मातयेच्यो वण्टी घसाघस कोसळून घर पुराय मातये भरवण जाल्लें.दोन चेडवांक घेवन ती हेर लोकां वांगडा पंचायतीच्या सभाघरांत रविल्ली. आंगार आशिल्ल्या कपड्यां बगर तांचे कडेन आनीक कांयच नाशिल्लें. दोन दीस जेवणाची, हातरुण-पांगरुणाची सोय जाली. मागीर तिसरे दिसा सगळींच जाणा आपापल्या घराची किर्ते दशा जाल्या ती पळोवपाक गेलीं. कोसळून पडिल्लें घर पळोवन सावित्री हड्डें बडोवन रडिल्ली. सोरो पिवन घोव दोन वर्सां पयलींच सोंपिल्लो. घराची जाल्ली अवतिकाय पळोवन सावित्रीन थंयच चिखलांत बसकण मारिल्ली. मागीर जायते राजकारणी, समाजसेवक आनी हेर लोक मेळपाक येवन गेल्ले. बारीक सारीक मजत सगळ्यां कडल्यान जाताली.खरी गरज घर उबें करपाची आशिल्ली.त्या परस चड हुस्को तिका णव्वी आनी सातवी शिकपी तिगेल्या धुवांचो आशिल्लो.चार घरांचें घरकाम करून ती संवसाराचो गाडो धुकळताली. व्हड कश्टान तिणें भुरग्यांक शिक्षणा खातीर मोबायल घेतिल्लो. तिका धुवेन सांगिल्लें, उदकांत पडलो काय मोबायल पेड्ड्यार जाता म्हुण. तरी पूण ती त्या चिखलांत मोबायल व्हड आशेन सोदपाक लगिल्ली. भुरग्यांलें शिक्षण चड म्हत्वाचें हें तिका होलमतालें. तिका आतां चड ध्यास तांच्या शिक्षणाचो लागिल्लो.जेन्ना तिका कळ्ळें की फोंड्यां एका घरांत सान स म्हयन्याच्या भुरग्याक पळोवपाचें काम आसा म्हुण तेन्ना व्हडले धुवेक घेवन ती तांगेर गेली. तिणें तांकां सांगलें ,'कामाचे पयशे दिवं नाकात, तर ताचे खातीर मोबायलाची सोय करून तांचें शिक्षण चालू उरूं दी. आपणाली धूव सांगता तें काम मन लावन करतली अशें तिणें तांकां सांगलें. तांचे सुनेचें ऑनलाईन काम सुरू जावपा आशिल्लें. फकत तागेल्या सान भुरग्याक पळोवपाचेंच काम आशिल्लें. तो घराबो खरेंच बरो आशिल्लो. तिगेली अवतिकाय समजून घेवन तांणी रोकडेंच ताका कामाक दवरून घेतलें आनी सावित्रीचो एक हुस्को कमी जालो. देव कशी ना कशी आपणाक वाट दाखयतलो हाची तिका खात्री पटली.धाकले धुवेक सांगाताक घेवन ती आतां फुडलें सगळें जाग्यार घालपाक धडपडटाली. मातयेचो उडो उस्तितना तिका ट्रंक हाताक लागलो. एक व्हडलो फातर घेवन तिणे कुलूप तोडलें. कपड्यांची फुगून वाट लागिल्ली. बेगबेगीन तिणें तळाक हात घालून पाकीट मेळटा काय म्हुण सासपिलें. पाकीटांत दवरिल्ल्या पयशांचो फुगून लगदो जाल्लो. सावित्री कपलार हात मारून पर्थून थंयच चिखलांत बसली. इतक्यांत 'आई' म्हूण व्हडले धुवेचो उलो कानार पडलो. हें आनी परत कित्याक आयलें काय हो विचार तकलेंत येवन तिचे काळजांत धस्स जालें.धुवेक तिणें घट्ट वेंगायलें आनी नकळटा तिगेल्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हांवक लागल्यो. धुवेन तिगेलीं दुकां पुशीत म्हळें,"आई, रड नाका. हें दिदी आनी तागेल्यो ह्यो इश्टीणी आम कां मजत करपाक आयल्यां. तें एके व्हडले कंपनींत कामाक आसा. तें आमकां ताचे कंपनी मार्फत घर बांदून दितलें. ताणें ताच्या बॉसा कडेन उलोवणी केल्यांत. तें आमच्या म ोडिल्ल्या घराचे फोटे काडपाक आयलां. आनी ताणें म्हाका आपणालो पोरणो मोबायल दिला. आतां हांव अभ्यास करपाक लागलें. आनी हो मोबायल तांणी बायक दिवपाक दिला.हो दिदीच्या फ्रेंडान दिला. आनी हे कपडे आनी खावपाचे जिन्नस दिदीले मम्मीन दिल्यात. धाकल्या बायक घट्ट वेंगायत ताणें तो मोबायल ताका दिलो. आपणाक आतां अभ्यास करूंक मेळटलो म्हूण तें खूश जाल्लें. ताणें वाकून ते दिदीक आनी ताच्या फ्रेंडांक नमस्कार केलो. दिदीन ताका वेंगेंत घेतलें आनी म्हळें,"तुजे दिदी बरें मन लावन शिकता, तशें तुवूय शीक. हीं घे तुका पुस्तकां. म्हज्या आनीक एका फ्रेंडान तुजे खातीर दिल्यांत.हें सगळें घडटा तें पळोवन सावित्रीन त्या भुरग्यांच्या पांयांर घालून घेतलें आनी म्हळें, "तुमच्या रुपान देवूच म्हजी मजत करपाक आयला!" तांणी केल्ले मजतीच्या हुंवारान तिगेली संवसाराची बोट तडीक लगिल्ली. 'देवा, तूच वाट दाखयता रे बाबा!' अशें म्हणत त्या भुरग्यांल्या माथ्यार हात भोंवडांवन 'देव तुमचें कल्याण करूं' असो तांकां आशिर्वाद दिलो.

मानाचें पान



मंजुषा शेणवी तळावलीकार

# संवसारांत अनुकूल रितीन जगपा आनी तगपा खातीरचे मेंदवाचे १२ नियम



## ब्रेन रुल्स

जॉन मेडिना

फातर्डी किनाऱ्यार वर्सां शिक्षकन्या पेशात आशिल्ली **मंजुषा शेणवी तळावलीकार** मानसशास्त्राच्योय अभ्यासक आसात. भुरग्यांचें मानसशास्त्र समजून घेवन तांकां योग्य दिकेन व्हरप ही तांची मोख. तांकां वाचनाची आवड आसाच, तेच वांगडा समिक्षा, कविता आनी ललित लिखाण हातूंत तांकां रुची आसा. साहित्य अकादेमी तशेंच हेर संस्थांच्या चर्चासत्रांतूय तांचें योगदान आसा.

NEW YORK TIMES BESTSELLER

UPDATED AND EXPANDED

brain rules

12 Principles for Surviving and Thriving at Work, Home, and School

JOHN MEDINA

कितलेशेच अब्ज वर्सां आदीं हो संवसार घडलो आनी ते वेळार सावन उत्क्रांती जायत आसा. एकपेशीय जिवा पासून सुरू जाल्ले ह्या संवसाराचे उत्क्रांतीचो प्रवास सगळ्यांत गुंतागुंतीची रचना आशिल्ल्या बुदवंत अश्या मनशा मेरेन पावलो. उत्क्रांतींत घडिल्ल्यो मनशांतले कुडींतल्यो वेगवेगळ्यो संस्था ज्यो रक्तभिसरण, पचन, प्रजनन, उत्सर्जन अशीं वेगवेगळीं कार्यां सांबाळाटात त्यो खरेंच अजापीत करपा सारख्योच आसात. मनशाचो सगल्यांत चड किचकट आनी विस्मयकारक अवयव म्हणल्यार मेंदू, जो संवसारांतल्या उत्क्रांतीचो सगळ्यांत उंचेलो अविश्कार. मनशान विज्ञानांत इतली प्रगती केल्या, पूण हो वेळ मेरेन तो मनशाच्या मेंदवाचो पुरायपणान अभ्यास करूंक पावलो ना. मेंदू अजुनय जायतीं कार्यां खंयचीं आनी कशीं करता हाचें संशोधन चालू आसा. न्युरो-शास्त्रज्ञ आनी मानसशास्त्रज्ञ आपापले परीन ताचो अभ्यास करतात. तातुंतल्यान कांय निश्कर्श आयल्यात जे समजल्यार आमचो मेंदू आनी मनाचो वेव्हार कसो चलता हाचो अंदाज आमकां येवपाक शकता. जो मेंदू आमचें जगणें आनी वागणें नियंत्रीत करता त्या मेंदवाकूच समजून घेवन आमी ताचेर नियंत्रण करूंक शकलीं जाल्यार आमकां निश्चितपणान जाय तशें जगपाक आदार जावं येता.

त्याच विशया वयलें हें एक वाचनीय आनी उपयुक्तशें पुस्तक, Brain Rules - 12 Principles for Surviving and Thriving at Work, Home and School. नामनेचे अमेरिकन लेखक जॉन मेडिना हांणी बरयिल्लें हें न्युयॉर्क टाइम्स बेस्टसेलर पुस्तक जावन आसा. लेखक जॉन मेडिना हे 'Developmental Molecular Biologist' तशेंच मेंदवाच्या रचनेंत लागपी जनुकां आनी अनुवांशिकतायेंतल्यान उद्भवपी मानसीक विकृती हांचेर विशेश संशोधन करतात. आपल्या सोदांतल्यान मेळिल्ल्या कांय वैज्ञानीक निश्कर्शांच्या आदाराचेर तांणी

हें पुस्तक बरयलां जें आमकां स्वताक समजुपाक निश्चित आदार करतलें. तर त्याच पुस्तकाची वळख आज हांव तुमकां करून दितां.

लेखक जॉन मेडिना हांच्या मतान आमच्या मेंदवाचे 12 नियम वो तत्वां आसात जीं आमी समजून घेतले जाल्यार आम कां आमचो मेंदू कसो चलता तें समजूंक शकता. हीं बाराय तत्वां तांणी शास्त्रीय पुराव्यान पटोवन दिल्यांत. तर तीं अशीं :

### Brain Rule:1-
### मनशांचो मेंदू उत्क्रांत जालो

ह्या संवसारांत बाकीच्या जाती प्रजातीं वांगडा जर तग धरपाची आसत जाल्यार दोन पद्दती आसात- एक म्हणल्यार शरिरान बळिश्ट जावप आनी दुसरी म्हणल्यार तकलेन बुदवंत जावप. आमी होमोसेपीयन म्हणल्यार मनशांनी दुसरी पद्दत आपणायली. आनी आपसुकच सगलो भार तकलेंतल्या मेंदवाचेर आयलो.

उत्क्रांतीचे वाटे वयले आमगेले सगल्यांत लागीचे जातभाई म्हणल्यार गोरिला. तांचे आनी आमचे भितर एकूच मोठो फरक आसा तो म्हणल्यार आमी प्रतिकात्मक तर्क (symbolic reasoning) लावंक शकतात जो ते लावंक शकनात. संशोधक ज्युडी डीलोचे ताका 'ड्युएल रिप्रेझेन्टेशन थीयरी' म्हणटा. मनीस कल्पना करपाक शकता. खंयचेय वस्तूक नाशिल्ले गुणधर्म आनी अर्थ दिवपाची क्षमता मनशाक आसता. देखीक भुरगीं हातांत एक बडी घेवन ती तलवारी सारकी घुंवडावन तिका तलवार म्हणटात आनी मोगी आपले मोगिकेच्या मुखामळाक पुनवेच्या चंद्राची उपमा दिवपाक शकता. आमी 'मनशां' म्हूण आमी कल्पनारम्य आसतात म्हणचे परस आमी 'कल्पनारम्य' आसात म्हूण आमकां मनीस म्हणप समा जातलें. ह्या खातीर मनशांक भाशा क्षमता आसता, गणिताची समज आसता आनी कलेची आवड आसता. आनी ह्या प्रतिकात्मक तर्कज्ञाना खातीर मनीस फकत जगप आनी तगपा पुरतो उरऽ नासतना ताची बाकींच्या प्राण्या परस चड भरभराट आनी विकास जावपाक मजत जाल्या.

उतरांक आनी भाशेक लागून आमी आमचे सरभोवतणची म्हायती मेळोवपाक फिशाल जालीं. एक मनशान घेतिल्ल्या वायट अणभवांतल्यान दुसरो शिकपाक पावलो. ते खातीर मनशाची तगपाची शक्यताय वाडली.

मनशान जेन्ना फातरां पासून आवतां केलीं तेन्ना मनीसजातीचे बुद्दीचो विकास जाल्ल्याची गवाय मेळ्ळी. ताचे उपरांत अदमाशे 10 लाख वर्सांनी मनशान फातराचेर फातर घासून उजो तयार केलो आनी तो जेवण शिजोवन खावपाक लागलो. आफ्रिकेच्या दाट जंगलांतल्यान भायर सरून मनीस हांगा थंय फाफसले. ते उपरांत 40 हजार वर्सांनी अविश्वनीय अशी गजाल घडली ती म्हणल्यार आमच्या पुर्वजांनी चित्रकृती आनी शिल्पकृती तयार केली. ताचे उपरांत मागीर पिरामीड बांदलीं. अशे तरेन मनीस आपले बुदवंतकायेन विकासाचो एकेक पांवडो चडत गेलो.

आमच्या मुळाव्या पुर्वजांचो आंकडो 2000 परस चड नाशिल्लो. कांय जाणांच्या मतान तर तो कांय शेंकडोच आशिल्लो. पूण इतले कमी संख्येन आसून लेगीत आमी आयज 7 अब्ज लोकसंख्येचे पलतडीन पावल्यात आनी अजुनय वाडत आसा. हें सगळें कशें शक्य जालें? मनीस नवे परिस्थिती कडेन जुळोवन घेवपाक येसस्वी जालो. जे कोण जावंक शकले नात ते तगले नात. आमचे परस बळिश्ट, हिस्र प्राणी आमचे सरभोंवतणी आसतना लेगीत आमी तगले कारण आमी शरिरान बळिश्ट जावचे परस आमचो मेंदू उत्क्रांत जालो आनी बुदवंत जालो.

संशोधक पॉटाच्या सिध्दांता प्रमाण मेंदवाचे दोन ताकदवान गुणधर्म - एक म्हणल्यार आमचें गिन्यान साठोवन दवरप आनी दुसरो म्हणल्यार त्या गिन्यानांत सुधारणा करपाची क्षमता. पयल्या गुणधर्मा खातीर आमी केन्ना आनी कितें चूक केल्या ती आमकां समजता आनी दुसऱ्या खातीर आमी ते चुकींतल्यान शिकपाक शकतात.

मनशां भितर जाल्लें आनीक एक जनुकीय परिवर्तन ज्याचे आमकां फायदे जाले ते म्हणल्यार मनीस दोन पांयांचेर चलपाक लागलो. पयलो फायदो म्हणल्यार ताचे दोनूय हात मेकळे उरपाक लागले आनी दुसरो कमी शक्तीन आम चें चलप जावपाक लागलें. आनी आमच्या पुर्वजांनी ती वांचोवन उरिल्ली शक्त आमचे कुडीचे स्नायू घट करपाक वापरचे बदलाक मेंदू आनी बुद्दी विकसीत करपाक वापरली. मनशाचो मेंदू उत्क्रांत जातना ताच्या मेंदवाच्या फुडल्या भागांत विशेश बदल जालो, जे वरवी तो हेर प्राण्या पासून

वेगळे तरेन विकसीत जालो.

मनशाचो मेंदू तीन पावड्यांचेर विकसीत जालो. पयलो भाग ब्रेन स्टेम, जो सगल्यांत आदीं उत्क्रांत जाल्लो तो सरपटल्या प्राण्याच्या मेंदवा सारखो काम करता जे खातीर ताका 'लिझर्ड ब्रेन' अशेंय म्हणटात. तो भाग आमचे कुडीची स्वासोस्वास, काळजाची धडधड, चलप, न्हिदप, पचन हे सारखीं कामां नियंत्रीत करता. ताचे वयलो मदलो भाग जाका 'मेमेलियन ब्रेन' म्हणटात जो सस्तन प्राण्याच्या वांगडा उत्क्रांत जाल्लो जो झगडप, पोट भरपाक खाण जेवण सोदप, धोको आसल्यार पळप तशेंच प्रजनन करप ह्या सगल्या कार्यांचेर नियंत्रण दवरता. तिसरे पांवड्यार उत्क्रांत जाल्लो मनशाच्या मेंदवाचो भाग म्हणल्यार कॉर्टेक्स जाका 'ह्युमन ब्रेन' म्हणटात आनी हो सगळ्यांत वयर आसता जो घडयो वो मिरयो घालून दवरिल्लेवरी आसता.

जसजसो मेंदू उत्क्रांत जावपाक लागलो तसो ताचो आकार वाडपाक लागलो आनी ताचे वांगडा तकलेचोय आकार व्हड जावपाक लागलो. तकली व्हड जातकच दुसरी समस्या उप्रासली, ती म्हणल्यार भुरगें जल्मतासतना आवयक त्रास जावपाक लागलो आनी खुबशे फावट आवयो बाळंतपणांतच मरपाक लागल्यो. उत्क्रांतीचो ताचेर उपाय म्हणल्यार आवयो भुरग्याच्या मेंदवाची पुराय वाड जावचे आदीच बाळंत जावपाक लागल्यो आनी गर्भाशया भायर भुरग्याच्या मेंदवाची वाड जावपाक लागली जे खातीर मनशाचे वाडी भितर भुरगेपण हो काळ एक म्हत्वाचो भाग आयलो जंय ताका आवय बापायच्या पालनपोशण तशेंच संरक्षणाची गरज पडली. हेर सस्तन प्राण्यां मदीं मनशा सारखो भुरगेपणाचो व्हडलो काळ नासता. बाकी हिंस्त्र जनावरांची शिकार जावपाची शक्यताय आशिल्ल्यान जितलो भुरगेपणाचो काळ चड तितलो ताची जगपाची शक्यताय उणी जाता. म्हूण 6 म्हयन्यां भितर खंयच्याय सस्तन प्राण्याची पुराय वाड जावपाची गरज आसता.

मनशा भितर सहकार्य आशिल्ल्यान तशेंच समुदाय करून संघटीत कार्य करपाची संकल्पना आशिल्ल्यान भुरग्याचें पालनपोशण करपाक समुदायांतल्या सगळ्यांचीच मजत जावपाक लागली जे वरवी मनशांचीं चडांत चड भुरगीं सुरक्षीत उरून, पुराय वाड जाय मेरेन तगपाक लागलीं. आनी हेंच गमक सवमागत हेर प्रजाती परस मनशाचो आंकडो वाडपाचें, विकासाचें तशेंच भरभराटीचें.

एकमेकांची मानसिकताय समजून घेवपाक, दुसरो मनीस किते चितता आसुये हें समजुवपाक खूब बुद्दीची गरज आसता जें काम आमचो मेंदू करत आसता म्हूण आमी व्हडल्या पंगडांनी रावपाक जैतिवंत जावपाक शकलीं.

## ब्रेन रुलः 2

### व्यायाम - व्यायामान मेंदुची शक्त वाडटा.

आफ्रिकेच्या घनदाट वर्शावनांत जेन्ना अन्नाचो उणाव जाणवपाक लागलो तेन्ना मनीस थंयच्यान भायर सरलो. अन्नाच्या सोदांत तो हांगां थंय हेडपाक लागलो. तेदे बेळार दादलो मनीस दिसाक 10 ते 20 मैल इतलो चलतालो आनी बायल मनीस 10 ते 12 मैल. मनशाचे बौध्दिक वाडीक शारिरीक हालचाली वांगडा चालना मेळ्ळी. मेंदू उत्क्रांत जातालो तेन्ना मनशाची शारिरीक धडपड्य खूब जाताली म्हूण मेंदवाक त्या वातावरणाची संवय जाल्ली. ते खातीर अजून म रेन हालचाल जावपी वो व्यायाम करपी व्यक्तीचो मेंदू व्यायाम न करपी वो एकाच जाग्यार गुळो जावन बसून रावपी व्यक्ती परस चड कार्यक्षम तसोच तीक्ष्ण आसता. संशोधनांत दिसून आयिल्ले प्रमाण दिर्घकालीन स्मृती, तर्कक्षमता, लक्ष केंद्रित करपाची क्षमता, समस्या सोडोवपाची कुशळताय, द्रव बुद्वंतकाय (fluid intellience), अमुर्त विचार (abstract thinking), पयलीं शिकिल्ले गिन्यानांत सुधारणा करप हे गुणधर्म सदांच शारिरीक हालचाल, कश्टाचें काम तशेंच व्यायाम करतले व्यक्ती मदीं चड सापडटा.

जी व्यक्ती शारिरीक रितीन क्रियाशील आसता वो व्यायाम करता तांचे मदीं स्मृतिभ्रंश जावपाची शक्यता 50% उणी जाता. अल्जायमर हें एक मेंदवाचें अशें दुयेंस जातूत जाण्टेपणांत ल्हवल्हव करून मेंदवाचे स्नायू आनी पेशी नश्ट जावंक लागतात आनी ते व्यक्तीची स्मृती उणी उणी जायत वता. ताचेर केल्ल्या संशोधनांत, आठवड्यांत दोन फावट व्यायाम केल्यार तें दुयेंस जावपाची शक्यता 60% उणी जाता अशें दिसून आयलां. व्यायाम करतकच आमचे मानसीक भलायकेक गरजेचे जैवरसायनीक हार्मोन्स नियंत्रणात उरून तांचो योग्य प्रमाणांत स्राव जाता. नैराश्य आनी चिंता पयस करपाक लेगीत व्यायामाचो तात्काळ तशेंच दिर्घकालीन



फायदो जाता. ल्हान तशेंच पौंगडावस्थेंतल्या व्यायाम करतल्या भुरग्यां मर्दीं मेंदवाचे क्रियाशीलतायेचेर केल्ल्या संशोधनांतूय तांचे वैचारीक बुध्दीमत्तेंत वाड दिसून आयल्या. तशेंच तांचे मर्दीं चड आत्मविस्वास आनी आत्म-मान्यताय, उणें नैराश्य आनी चिंता आशिल्ल्यान तांकां शैक्षणीक मळार चड यश मेळिल्लें दिसून आयलां.

मनशाच्या मेंदवाचें वजन ताचे कुडिच्या फकत 2 टक्के इतलेंच जरी आसलें तरीय तो शरिरांतली 20 टक्के उर्जा भकता. मनशाच्या मेंदवाक एकाच वेळार 2 टक्क्यां परस चड न्युरॉन्स कृतीशील वो सक्रीय करपाची क्षमता आसना. मेंदवाचें उर्जास्रोत रोकडेंच काबार जाता आनी तातूंत खंड पडलो जाल्यार ती व्यक्ती घुंवळ येवन पडपाक शकता. व्यायाम करतकच मेंदवाक योग्य रगताच्या पुरवठ्यांतल्यान पावपी प्राणवायू, ग्लुकोज, साकरे खातीर थकवो येना आनी मेंदवाचें कार्युय सुरळीत चालू उरता. न्युरॉन्साक गरजेचीं आशिल्लीं प्रथिनां लेगीत व्यायामान उत्तेजीत जातात.

**ब्रेन रुल 3 न्हीद–**

**वेवस्थीत विचारां खातीर वेवस्थीत न्हिदात**

मनशान जर वेवस्थीत न्हीद घेतली ना जाल्यार ताचे भलायकेचेर वायट परिणाम जातात. पूण उत्क्रांतीचे नदरेंतल्यान पळयलें जाल्यार मनीस न्हिदल्यार चड वायट परिणाम ताचे जिणेचेर जावपाक शकतात. जेन्ना मनीस न्हिदता तेन्ना तो सुक्ष्म-निश्क्रीय स्थितींत वता ( micro-hibernation) जंय ताका हिस्त्र जनावरांची शिकार जावपाचो चड धोको आसता. पूण तरीय आसतना मनीस तो धोको पत्करपाक तयार आसता हाचो अर्थ न्हीद मनशाक भयंकर गरजेची आसुंकच जाय. खरें म्हणल्यार मनीस न्हिदता तेन्ना ताचो मेंदू सामको सुशेगाद अवस्थेंत वता अशें आमी म्हणू शकनात कारण फकत नॉन-रेम न्हीद जी मनशाचे न्हिदेच्या फकत 20 टक्के आसता तेन्नाच मेंदू कमी उर्जा वापरता आनी मात्सो सुशेग घेता. बाकीच्या वेळार जरी आमी न्हिदिल्ल्लीं आसलीं, तरीय मेंदवाचें काम अविरत चालूच आसता. न्हिदतकच मनशाक सपनांय पडटात. आमच्यो सुप्त इत्सापुर्ती, भावनांचो निचरो हे सारकेलें कार्य आमकां पडटल्या सपनां खातीर शक्य आसता. नामनेचो संशोधक नाथानियल क्लेटमनच्या मतान मनशाक पडपी सपनांच ताका दर राती 'सुरक्षित' रित्या पिसो करतात. म्हणल्यार सपना जर आमकां पडनाशिल्लीं जाल्यार आमी कदाचीत खरींच पिशीं जाताशिल्लीं.

आमकां न्हिदोवप आनी न्हिदेंतल्यान जागे करप हें काम करपाक आमचे कुडींत दोन वेगवेगळ्यो संस्था आसात. लेखक म्हणटा ह्यो दोनूय संस्था म्हणल्यार दोन फौजो कश्यो ज्यो एकमेकां वांगडा झगडत आसतात. एक आमकां न्हिदोवपाक तर दुसरी आमकां जागें दवरपाक. एके संस्थेक सर्केडीयन अराउजल सिस्टम (जाका प्रॉसेस सी म्हणटात), जी आम कां सदांच जागी आनी शिटूक दवरपाक वावुरता. तर ताचे विरुध्द आसता ती होमोस्टेटीक स्लीप ड्राईव ( प्रॉसेस एस्) जी आमकां न्हिदोवपाक सोदता. जेन्ना प्रॉसेस सी हारता तेन्ना आमी न्हिदतात आनी जेन्ना प्रॉसेस एस् हारता तेन्ना आमी जागीं जातात. कितलो वेळ आनी गाढ न्हिदतलीं हें प्रॉसेस एस् नियंत्रीत करता जाल्यार खंयचे वेळार न्हिदेची गरज आसा हें प्रॉसेस सी थारायता.

24 वरां भितर खंयचे वेळार न्हिदेची गरज भासता ताचे वयल्या तीन तरेच्यो व्यक्ती आसतात

1. भारद्वाज सवणें (Lark) - दर धा व्यक्तीं मर्दीं एक

व्यक्ती ह्या प्रकारची आसता जी रातीं बेगीन न्हिदता आनी सकाळीं बेगीन उठटा. हे प्रकारचे लोक दनपरा खूब कृतीशील आसतात आनी दनपाराच्या जेवणा आदीं चडात चड उर्बे भरीत आनी उत्साही आसतात. तशेंच ह्या प्रकारच्या लोकांचो आवडटो जेवपाचो वेळ हो सकाळचो नाश्तो आनी ते बाकींच्या परस कमी कॉफी पितात.

2.घुबड (owl) - नांवा प्रमाणेंच हे लोक मध्यानरात मेरेन जागेच आसतात. ते सांजेचे 6 वरांचेर खूब क्रियाशील आसतात आनी रातचे उसरां मेरेन उत्साही उरतात. रातीं 3 वरांचेर बी ते न्हिदपाक वतात. आनी सकाळीं 10 मेरेन तरी जागे जायनात. हांचीय सरासरी 10 टक्केच आसता.

3. हमिंग बर्ड (humming bird) - उरिल्ले 80 टक्के लोक ह्या प्रकारचे आसतात जे दोगांयच्या मदले आसतात. थोडे मातशे भारद्वाज सुकणें प्रकारा वटेन बागवतात तर कांय जाण घुबडा वटेन.

प्रॉसेस सी आनी प्रॉसेस एस् हांची जैवरसायनीक लडाय दनपार मेरेन इतली अटीतटीक पावता की दोनूय प्रक्रिये मदीं समान ताण जाणवता. आनी ते खातीर आमकां दनपरां जेवण जातकच सुस्ती येता आनी न्हिदन दिसता. दनपारचें कांय वेळा खातीर न्हिदप, जाका आमी आड पडप अशें म्हणटात ताचो परिणाम पळोवपा खातीर नासान वैमानिकांचेर एक प्रयोग केल्लो, जातूंत अर्द्या लोकांक दनपरां कांय वेळार न्हिदपाक दिलें आनी दुसऱ्या पंगडाक दिलें ना. संशोधनांतल्यान अशें दिसून आयलें की 26 मिनटां ज्या पंगडान न्हिद काडिल्ली तांची सावचीतकायेक येवपी उणाव 34 टक्क्यांनी उणो जाला तशेंच तांचे प्रतिक्रियेंच्या वेळांतूय 16 टक्क्यांनी सुदारणा जाल्या.

अजून मेरेन 21व्या शेंकड्यांत लेगीत मनशाक कितली न्हिद गरजेची आसता ह्या प्रस्नाचो उलगडो जावंक ना. ताचें कारण म्हणल्यार न्हीद ही व्यक्ती निरपेक्ष आसता. थंय सामान्यीकरण केल्यार चलना. मनशाक न्हीद सारकी पडूंक ना जाल्यार ताची जेवण पचोवपाची क्षमताय एक तृतियांश उणी जाता. ताणतणाव दिवपी हॉर्मोन्साचें प्रमाण अदीक जाता. लक्ष केंद्रीत जावपाची क्षमताय आनी तर्कशुध्दताय उणी जाता, स्नायुचे भलायकेचेरूय ताचे वायट परिणाम दिसतात. रातचे सारके न्हिदले ना जाल्यार न्हिदेचें रीण वाडटा जें दिसाचें न्हीद काडून भरून काडचें पडटा. म्हूण न्हिदेक आमच्या मेंदवाचे भलायकेंत महत्वाचो वांटो आसा.

**ब्रेन रुल 4 – तणाव – ताणशेल्लो मेंदू शिकपाक कमी कार्यक्षम आसता**

नामनेचे संशोधक जिनसांक किम आनी डॅविड डायमंड हांणी केल्ल्या अभ्यासांत दिसलां, मनीस ताणा खाला आसता तेन्ना एकाच वेळार तीन गजाली घडटात.

1. उत्तेजीत जाल्ली शारिरीक प्रतिक्रिया
2. ती तणावपुर्ण परिस्थिती टाळपाची इत्सा
3. स्वतावेलो शेणिल्लो ताबो.

फकत कांय खिणां पुरतो उरपी तणाव सोसपा सारखीच मनशाची रचना आसा. आमी ताणा खाला येतात तेन्ना आम चो रक्तदाब वाडटा, काळजाची धडधड वाडटा आनी कुडभर भयंकर उर्जा जाणवपाक लागता. आमच्या रगतांत एड्रनालिन हॉर्मोन ओतूंक लागतात आनी आमची कूड झगडीं करप वो पळप ही प्रतिक्रिया दिवपाक सज्ज जाता.

कांय लाख वर्सां आदी मनीस तगपाचे जे समस्येक फुडो करतालो ती जाग्यार पडपाक चड कळाव लागनाशिल्लो. देखीक ताच्या मुखार जर वाग उबो रावलो जाल्यार एक तर तो वाग रोकडीच ताचेर उडी मारून ताका मट्ट करतालो ना जाल्यार तो मनीस पळपाक येस मेळोवन आपलो जीव वाटायतालो. म्हणल्यार ताचेर येवपी तणावाचो रोकडोच निकाल लागतालो. ते खातीर आमची तणावाची प्रतिक्रिया अशे तरेन घडिल्ली की कांय खिणां पुरतो आयिल्लो तणाव घेवपाची ताची क्षमता आसताली.

आयच्या आधुनीक काळांत आमचे जिणेंचे पध्दतीक लागून आमचो तणाव कांय वरां, कांय दीस, कांय म्हयने वो केन्ना केन्नाय कांय वर्सां मेरेन ताणटा. आमची कूड तो तणाव सोसपाक सक्षम नाशिल्ल्यान ताचेर आमचे काळजाचे तशेंच मेंदवाचे भलाकेचेर सामको वायट परिणाम पडटा. म्हूण तणावा खाला रावपी व्यक्तीक काळजाचो आताक ना तर ब्रेन स्ट्रोक येवपाची शक्यताय चड आसता. रोगप्रतिकार शक्तीचेरूय ताचो वायट परिणाम पडटा. कांय खिणां पुरतो आयिल्लो तणाव आमचे कुडीक तयार करून भायले परिस्थितीचेर मात करपाक मजत करता. पूण तोंच तणाव जेन्ना चड काळ

मेरेन तसोच उरता तेन्ना ताचो आमचे भलायकेचेर दुश्परिणाम करता.

प्रशिक्षित अभिनेत्यांच्या रगताचो नमुनो घेवन परिक्षण केल्ल्या संशोधनांत अशें दिसलें, जेन्ना ते अभिनेते आनंदी प्रसंगांचें चित्रीकरण करताले तेन्ना तांची रोगप्रतिकार शक्ती चडाविल्ली आनी निरोगी मेळटाली. आनी ज्या दिसा ते दुख्खेस्त प्रसंगांचें चित्रिकरण करताले तेन्ना तांची रोगप्रतिकार शक्त उणी मेळटाली. कॉर्टिसोल हो ताण वाडोवपी हॉर्मोन आमच्या मेंदवाचेर जायते वायट परिणाम करता. ताण सोसपाचीय दरेकल्या व्यक्तीची क्षमता वेगवेगळी आसता. पूण शारिरीक ताणा परस भावनीक ताण भलायकेचेर चड वायट प्रभाव घालता आनी आमची उत्पादन क्षमताय उणी करता. म्हूण मेंदवाच्या निरोगी भलायके खातीर तणाव कमी करपाक यत्न करप भोव गरजेचें

### ब्रेन रुल 5 – मेंदवाच्या तारांची जुळणी (wiring)

मनशाच्या मेंदवांत न्युरॉन्स पेशींचें जाळें आसता जें संदेशाची देवाण घेवाण करता. दरेकले व्यक्तींत त्या जाळ्यांतल्यो तारो वेगवेगळे तरेन जुळिल्ल्यो आसतात. जसजशे आमी नवें कितेंय शिकतात वो नवो अणभव घेतात तेन्ना त्या तारांची पुनर्रचना (re-wiring) जावन त्यो नवे तरेंचें जाळें विणटात. दर खिणाक मेंदू कितें तरी नवें शिकता वो नवो अणभव घेता जे वरवी ताची पुनर्रचना जावन तो बदलत आसता.

18 व्या शेंकड्यांत इटालियन शास्त्रज्ञ विन्सेंझो मलाकार्न हांणी सवण्यांचेर जीवशास्त्रीय अभ्यास करून कांय निश्कर्श काडले. तांणी सवण्यांच्या एका पंगडाक कांय युक्त्यो करपांत प्रशिक्षित केलें आनी मागीर जेन्ना तांच्या मेंदवांचें परिक्षण केलें तेन्ना तांकां त्या सवण्यांच्या मेंदवांत हेर सवण्यांच्या परस चड घडयो मेळ्ळ्यो.

ताचे 50 वर्सां उपरांत चार्लस् डार्वीनाक तसोच फरक रानटी आनी पोशिल्ल्या प्राण्यांच्या मेंदवा मदीं सापडलो. रानवटी प्राण्यांच्या मेंदवाचो आकार पोशिल्ल्या प्राण्या परस 15 ते 30 टक्क्यांनी व्हड मेळ्ळो. ताचें कारण म्हणल्यार रानटी प्राणी ज्या वातावरणांत जगतात, थंय तांकां जिते उरपाक वो पोट भरपाक सतत नवनव्या प्रसंगांक फुडो करचो पडटा जे वरवी तांचो मेंदू नवनव्यो युक्त्यो शिकत आसता.

मेंदू हो स्नायू सारकोच आसता. आमी जितलीं चड क्रियाशील रावतात तितलो ताका व्यायाम घडटा आनी तितलो तो घटमूट जाता. तशेंच ताची वाडूय जाता. कांय न्युरल तारांची जुळणी जल्मताच आसता जी आमचे कुडीर्ची स्वासोस्वास, काळजाची धडधड, चलपाची क्रिया, पचन हीं मुळावीं कार्यां करता. संशोधक ह्या न्युरॉन्सांचे जुळणेक 'अणभव स्वंतत्र जुळणी' म्हणटात. दुसरे तरेची जुळणी जी अणभव-अधीन आसता ती लवचीक आसता. तांची पक्की जुळणी जाल्ली नासता आनी आमी जसजशें नवे कितेंय अणभवतात वो शिकतात तसतशी तांची जुळणी घडटा आनी ते प्रमाण मनशाच्या मेंदवाची रचनाय बदलता. दरेकल्या व्यक्तीची गिन्यान मेळोवपाची आनी ती सांठोवन दवरपाची पध्दत विंगड-विंगड आसता. व्यक्ती तितल्यो प्रकृती हें आमच्या मेंदवा बाबतीतय 100% सत.

### ब्रेन रुल 6 – लक्ष वो ध्यान – मनीस वाजेवण्या गजाली कडेन लक्ष दिना.

मेंदू जेन्ना खंयचेय गजालीचेर चड लक्ष केंद्रीत करता तितली ती गजाल ताका वेवस्थीत समजता, ती बरे तरेन शिकप जाता आनी लक्षांतूय बेसबरी उरता. हाचोच अर्थ ज्याचेर आमी चड लक्ष केंद्रीत करतात तितलो ताचेर आमचे स्मरणशक्तीचो सकारात्मक प्रभाव पडटा.

खंयचेंय चित्र एकादरे व्यक्तीन पळयलें जाल्यार त्या चित्रांतल्या खंयच्या पैलुंचेर लक्ष केद्रींत करप हें दरेके संस्कृतीचेर निंबून आसता. देखीक सायन्स मॅगझीनाच्या मतान आशियाई लोक संदर्भाचेर आनी चित्राचो अग्रभाग तशेंच ताचे फाटल्यान आशिल्ल्याा पृश्ठभागा कडेन संबंधीत दृश्यांचेर लक्ष केंद्रीत करतात. अमेरिकन फकत चित्राच्या अग्रभागाचेरच चड लक्ष केंद्रीत करतात.

ज्याचेर आमी चड लक्ष केंद्रीत करतात, तें आमच्या चड स्मरणशक्तींत उरता. खंय चड लक्ष दिवप हें आमचो जिणेंतल्या फाटल्या अणभवांचेरूय थारता. तशेंच ज्या गजालींत आमकां चड रुची आसता थंय आमचें लक्ष आपोआप लागता. देखीक आमी जेन्नाा नवी गाडी विकत घेतात तेन्ना आमकांा सगळ्या रस्त्यार त्याच मॉडेलाच्यों गाडयो नदरेंत भरूंक लागतात.

चड म्हत्वाच्या गजालींचेर आपसुकच आमी चड लक्ष

दितात. हाचें उग्काटें म्हणल्यार आमी खंयच्याय गजालीचेर चड लक्ष दिलें जाल्यार आमका त्या गजालीत आपोआप चड रुची येव येता. ज्या गजालींत आमची भावनीक गुतवणूक घडटा त्योय गजाली आमकां बऱ्यो लक्षांत उरतात.

आमकां जायते फावट दिसता आमचो मेंदू हो भोंवकार्यकारी (multi-tasking) आसतलो म्हूण. पूण तें मत न्हीं. मेंदू सभावीक रित्या फकत एकेच गजालीचेर लक्ष केंद्रीत करूंक शकता आनी ताची प्रक्रिया लेगीत अनुक्रमीक ( sequential) म्हणल्यार एका फाटल्यान एक अशी जाता. हे मानपाक आमकां मात्शें कुस्तार जाता कारण आमी जायते फावट दोन वो तीन कामां एका वांगडा करतात- देखीक चलप आनी उलप आमी वांगडा करपाक शकतात. जरी तें आमकां वांगडा घडटाशें दिसता तरीय आमचो मुखेल झोत (spot-light) एका वेळार एकाचेरूच आसता. दोन गजाली करतना तो स्पॉटलायट आमी पयल्या वयल्यान दुसऱ्याचेर आनी परत पयल्याचेर इतले वेगान बदलतात की आमकां दिसता आमी दोनूय कामां वांगडाच करतात.

मनशाचो खंयचेय गजालीचेर लक्ष केंद्रीत उरपाचो कालावधी फकत 10 मिनटांच आसता. 10 मिनटां उपरांत उमळशीक जागोवपी वो लक्ष ओडपी कांय घडलें ना वो विशय बदल्लो ना जाल्यार ताका वाज येवपाक लागता. म्हूण राजकारणी, शिक्षक, पत्रकार अशे लोकांच्या समुदाया कडेन उलोवप करपी व्यक्तींनी मेंदवाचो हो गूण मतींत धरपाक जाय, जें वरवी ते प्रेक्षकांचें लक्ष आपले कडेन ओडून घेवपाक येसस्वी जातले.

**ब्रेन रुल 7– स्मृती – पुनरावृतीन स्मृती वाडटा**

मनीस जल्मजात सगलें गिन्यान घेवन संवसारांत येना. ताका तें संवसारांत येतकच स्वताच्या अणभवांतल्यान स्वताच वो दुसऱ्याच्या अणभवांतल्यान दुसऱ्यां कडल्यान शिकचें पडटा. आमच्या मेंदवांत स्मृती सांठोवन दवरपाक आशिल्ले वेवस्थे खातीर आमची उरपाची शक्यताय चडावल्या. जेवणाचो सांठो खंय आसा आनी खंय गेल्यार आमकां हिंस्र प्राण्याची भिरांत आसा हें आमकां याद उरतालें म्हूण तर आमी आयज म नशाच्या उत्क्रांतीच्या प्रवासांत जिवीत हानी टाळूंक शकल्यात. ना जाल्यार रानांत रावपी प्राण्यां मदीं शरिरान सगळ्यांत दुबळो प्राणी मनीस. हो बळिश्ट आनी हिंस्र रानटी प्राण्यां मदीं तग



धरपाक पावचोच नाशिल्लो.

स्मृती मनशाक सावचीत करता. खरें म्हणल्यार आमच्यो सगळ्यो यादी ह्यो मेंदवाच्या कॉर्टेक्सांतल्या विंगडविंगड वाठारांत सांठोवन दवरिल्ल्यो आसतात. तरीय मनशाक सगळो संवसार हो एकवटिल्लो दिसता. कारण आमचे विचार, यादी, संकल्पना ह्यो सगळ्यो एकमेकां भितर अशे तरेन घुस्पतात की त्यो मेंदवाक एक अखंडतायेचो आभास दितात. जर आमी एकादी गजाल शिकतना ती बारीकसाणेन लक्षांत घेतली तर ती आमचे स्मृतींत चड वेळ आनी चड प्रकर्शान उरता. खंयचीय गजाल शिकतना तिचो अर्थसार घेतलो जाल्यारूय ती आमच्या बरी तरेन यादींत उरता.

**ब्रेन रुल 8 – संवेदनाक्षम एकत्रीकरण– गिन्यान ग्रहण करतना चडांत चड ज्ञानेंद्रियां उत्तेजीत करात**

दोळे, कान, नाक, जीब आनी कात ह्या पांच ज्ञानेंद्रियांतल्यान आमकां भायल्या संवसारांतल्या घडणुकांचें गिन्यान जाता. हीं पांचूय ज्ञानेंद्रियां आमच्या मेंदवाक नदर, आवाज, वास, रूच आनी स्पर्श ह्या गिन्यानाचो सतत पुरवठो करीत आसतात.

दोळे, कान, जीब आनी कात ह्या चारूय ज्ञानेंद्रियांक

संकेत पयर्ली मेंदवांतल्या थॅलामस ह्या भागा कडेन धाडून मेंदवांतल्या उंचेल्या पातळे वयल्या भागां कडेन वचपाची परवानगी घेवची पडटा. मागीरूच गजालीचें आकलन घडटा. पूण फकत नाकाचें तशें ना. परमळाची म्हायती व्हरपी मज्जातंतू थॅलामसाक टाळून सरळ उंचेल्या पातळे वयल्या एमिग्डॅला कडेन शिरकाव करपाक शकतात. म्हूण परमळाक फाटल्यो यादी जागोवपाची चड ताकद आसता.

संवसार हो उत्पतीच्या काळा सावन भोव-संवेदनीय (multisensory) आशिल्ल्यान आमचे पुर्वज तश्या वातावरणांतच जगल्यात आनी तें वातावरण अणभवपाक फिशाल जाल्यात. म्हूण आमच्या पांचूय संवेदनाचो सम न्वय जावंक शकता आनी तीं एकत्रीत काम करपाक शकतात. म्हूण जेन्ना वाग आमचेर हल्लो करपाक येता तेन्ना आमची ताचेर नदर पडली तशेंच ताच्या पावलांचो वो डरकाळेचो आवाजूय कानार पडलो आनी एकादे वेळार ताचो गंधय आमच्या नाकांत पावलो जाल्यार आमचो मेंदू ह्या सगल्या संकेतांचेर एकाच वेळार प्रक्रिया करून ताचो खिणा भितर अर्थ लावन पळपाचो निर्णय घेवपाक शकता.

### ब्रेन रुल 9 – नदर – नदर ही बाकी सगल्या ज्ञानेंद्रियांचेर मात करता

आमी आमच्या दोळ्यांनी न्ही तर मेंदवान पळयतात. हो संवसार त्रिमीतीय (three-dimensional) आसा, पूण आमच्या दोळ्यांतल्या रॅटिनाचेर पडपी उजवाड हो व्दीमितीय आसता (two-dimensional). तातूंत भितर आनीक एक सम स्या म्हणल्यार आमच्या दोनूय दोळ्यांक आपापलें अशें वेगळें क्षेत्र आसता जे खातीर दोनूय दोळ्यांक एकच प्रतिमा वेगवेगळी दिसता. ते खातीर दोनूय दोळे दोन वेगवेगळ्यो प्रतिमा मेंदवा कडेन धाडटा आनी त्योवूय उरफाट्यो. ती सगळी म्हायती घेवन आमचो मेंदू जायतें गणीत करून ताचो अर्थ लायता. ती म्हायती जायते फावट अर्दकुटी आसता त्या वेळार मेंदू अदमासान ती तफावत भरून काडून आपल्या आकलन शक्ती प्रमाण ताचो अर्थ लायता आनी संवसाराचें जाता तितले मेरेन अचुकतायेन चित्र उबे करता. म्हूण चित्र कशेंय आसूं, आमकां आमचो मेंदू दाखयता तेंच आनी तशेंच दिसता अशें आमच्यानी म्हणूं येता. नदर ही आमची सगळ्यांत ताकदवान संवेदना जी आमच्या मेंदवांतली अर्दान अदीक उर्जा-संसाधन वापरता.

उत्क्रांतीच्या इतिहासांत संवसारांत आमचे वांगडा आशिल्ल्या झाडां-पेडां, प्राणी, सुकर्णी आनी बाकीच्या गजालींची वळख आमकां आमी तयार केल्ल्या भाशेच्या पुस्तकांतल्या उतरां परस आदी जाल्ली. ते खातीर आमचो मेंदू चित्राचो अर्थ बोली आनी लेखी उतरां परस बेगीन लावपाक शकता.

### ब्रेन रुल 10 संगीत – वैचारीक बुदवंतकाय वाडोवपाक संगीत आयकात वो शिकात

मनशां ही जल्मजात संगीतयुक्त आसतात अशें कांय शास्त्रज्ञ मानतात. म्हूण तर ल्हान बाळकां लेगीत संगीताक प्रतिसाद दितात. आवय जेन्ना भुरग्याक अंगाई गावन न्हिदयता तेन्ना भुरगें रोकडेंच गुल्ल जावन न्हिदता. भुरग्या कडेन नादमय उलयल्यार तीं खिदळपाक लागतात. संगीत हें खंयच्याय समाजांत लोकांचे सांस्कृतीक अभिव्यक्तीचो एक म्हत्वाचो भाग. हें इतिहासपुर्व काळाचे बाबतींत लेगीत खरें. उत्खननांत सापडिल्ली 35000 वर्सा आदीची सवण्याच्या हाडा पासून तयार केल्ली एक 'मुरली' ताची गवाय दिता. म्हूण जीवशास्त्रज्ञांच्या मतान मनीस जल्मताच संगीता खातीर 'हार्डवायर्ड' आसता आनी ताच्या मेंदवांत संगीता खातीर सम र्पित असो विशेश जागो आसता.

संशोधनानुसार संगीतकार वो संगीतमोगी हे बरे पयकी आयकुवपी आसतात तशेंच दुसऱ्यांच्यो भावना समजुपाकूय फिशाल आसतात. संगीत शिकल्यार सामाजीक कुशळताय तशेंच दुसऱ्या खातीरची सहानुभुती वाडटा. संगीत मनाची अवस्था सकारात्मक करता.

डॉपामिन हो एक न्युरोट्रांझमीटर (मेंदवांतलो हॉर्मोन) जो मनाक खुशी दिता आनी मेंदवांत यादीय घडोवपाटे प्रक्रियेक चालना दिता. संशोधक 'झटोरे' च्या मतान आमी जेन्ना आमचें आवडटें संगीत आयकतात तेन्ना आमच्या आंगार कांटो फुलता (जाका ते musical frisson अशें म्हणटात), जो डॉपेमिन रगतांत ओतता आनी आमची स्ट्राएटल सिस्टम सक्रीय करता जे वरवी आमचें नियोजन, निर्णय घेवप, स्वेच्छिक स्नायू नियंत्रीत करप, प्रेरणा दिवप अशीं म्हत्वाचीं वैचारीक कार्यां सुरळीत जातात.

ऑक्सिटोसिन हो आनीक एक न्युरोट्रांझमीटर जो समाजीक बांदीलकायेंत मजत करता. संशोधकांनी केल्ल्या अभ्यासांत अशें दिसलां, जे लोक प्रार्थना थळांचेर पंगडांनी गाना गायतात तांचे मदीं ऑक्सिटोसिनाचें प्रमाण चड सांपडटा. ताचो परिणाम म्हणल्यार तांचे मदीं स्थिरतेकी, विस्वास, मोग आनी आपलेंपण चड प्रमाणांत दिसून आयलां. मानसीक दुयेसां खातीर संगीतीक उपचार ग्रीक दोतोर हिपोक्रेटिसाच्या तेंपा वयल्यान चलत आयल्यात. अशे संगीताचे जायते लाब मनशाक मेळटात. मेंदवांतले जायते प्रक्रियेंत संगीता खातीर चालना मेळटा आनी मानसीक भलायकीय निरोगी उरपाक मजत जाता.

## ब्रेन रुल 11 – लिंग – दादल्याच्या आनी बायलेच्या मेंदवांत फरक आसता

जैवरासायनीक स्राव हो दादल्यांत आनी बायलांत वेगवेगळ्या प्रमाणांत जाता. देखीक सिरोटोनिन हो न्युरोट्रांझमीटर जो मनशाच्यो भावना आनी लहरी (Mood) नियंत्रीत करता तो दादल्यांचे कुडींत बायलां परस 52 टक्क्यांनी चड गतीन तयार जाता म्हूण दादले बायलां परस भावनीक रित्या चड थीर आसतात. सिझोफ्रेनिया हो मानसीक रोग दादल्यां मदीं चड सांपडटा. बायलां दादल्यां परस दुपेटीन निराशाग्रस्त आनी तणावांत आसतात. दादले बायलां परस चड समाजविघातक (anti-social) आसतात. सोरो पिवपाचें आनी अंमली पदार्थाच्या सेवनाचें प्रमाण बायलां परस दादल्यां मदीं चड आसता. एनोरेक्सियाचें ( वजन वाडपाचे भिरांतेन जेवण खाण सोडप) प्रमाण बायलां मदीं चड सांपडटा. आनी हे सगळे परिणाम दादलो आनी बायलां मदीं वेगवेगळे प्रमाणांत आशिल्ल्या जैवरसायनां खातीर दिसुन येतात.

उलयतना वो शाब्दीक प्रक्रिया करतना बायलां मेंदवाचे दोनूय भाग (उजवो आनी दावो) वापरतात तर दादले फकत एकूच भाग वापरतात. मेंदवाचे दोनूय भाग जोडपी तारांची रुंदी बायलां मदीं व्हड आसता. ते खातीर भास आनी वाचना कडेन संबंदीत दुयेंसां दादल्यां मदीं दुपेटीन चड सांपडटात. बायलां मदीं आशिल्ल्या दोन एक्स गुणसुत्रां खातीर (जें दादल्यां मदीं एकूच आसता) मेंदवाचो स्ट्रोक निवळपाचें प्रमाण बायलां मदीं चड आसता.

भावनीक अभिव्यक्तींत लेगीत दादलो-बायल वेगळीं आसतात. बायलां मेंदवांतल्या एमिग्डॅलांतली दावी बाजू सक्रीय करतात आनी भावनीक तपशील याद करतात तर दादले एमिग्डॅलातली उजवी बाजू सक्रीय करून फकत सारांश काडटात.

## ब्रेन रुल 12 – संशोधन – मनशां ही सभाविकच संशोधक आसतात

मनशांचीं भुरगीं हीं जल्मजात आपले सभोवतणचो सवस्तार जाणून घेवपाचे प्रेरणेन आनी इत्सेन जल्माक आयिल्लीं आसतात. तांचे भितरलें निरंतर कुतूहल ताकां आक्रमकतायेन तो सोद घेवपाक विवश करता. ही गरज तांचे भितर इतली आसता, शास्त्रज्ञ ताका तानेच्या, भुकेच्या वो लैंगिक गरजेच्या तोलामोलाची समजता.

1979 क एन्डी मेल्टजॉफ ह्या मानसशास्त्रज्ञान जल्मल्ल्या बाळका वांगडा एक ल्हानसो प्रयोग केलो. ताणें त्या बाळकाक जीब भायर काडून दाखयली आनी वाट पळयत रावलो. अजापाची गजाल म्हणल्यार त्या 42 मिनटां पिरायेच्या बाळकान आपली जीब भायर काडून ताका प्रतिसाद दिलो.

खंयचीय वस्तू ल्हान भुरग्यां पासून (देड वर्साच्या पिरायें मेरेन) लिपयली जाल्यार तांचे नदरेंतल्यान ती अस्तित्वांत नासता. पूण जसजशीं व्हड जातात तेन्ना ताकां तांचो समज चुकीचो हें आपसूकच समजता. भुरगीं आपल्या सभोंवतणच्या परिसराचें निरिक्षण करून, प्रयोग करून, अनुमान लावन, निश्कर्श काडून, म्हणल्यार एकंदरीत सक्रीय भाग घेवन शिकतात.

मनशाच्या मेंदवांत विखुरिल्ल्या मिरर न्युरॉन्सां खातीर तीं वर्तन वळखुपाक आनी अनुकरण करपाक शकतात. तांच्या मेंदवांचे कांय भाग ल्हान भुरग्यांच्या मेंदवा इतलेच लवचीक आसतात, जे जल्म भर नवे न्युरॉन्स तयार करपाक, तशेंच नव्यो गजाली शिकपाक सक्षम आसतात.

तर मेंदवाची अशीं ही बारा तत्वां वो नेम. आमचो कुडीचो सगळो कारभार सांबाळपी मेंदवाक जर आमी समजून घेवन जाय तशें लक्षण दिलें जाल्यार आमी जिणेंतल्या सगळ्या क्षेत्रांत चड कार्यक्षमतापूर्वक जगपाक शकतात आनी भलायकेच्याय क्षेत्रांत काळजी घेवपाक शकतात हातूंत मात लेगीत दुबाव ना.

नवलिका

डॉ. गुरुदास नाटेकार



# हो खेळ दैवाचो...!

**'हो खेळ दैवाचो...!' ही नवलिका गोंय मुक्ती उपरांतच्या लागशिल्ल्या काळांतली आसली तरी तातूंत पुर्तुगेझ राजवटीचो प्रभाव आशिल्ल्या काळखंडाचो प्रभाव दिसता. एके सत्य घडणुकेचेर निंबून आशिल्ली ही नवलिका वाचकांक एका वेगळ्या विश्वांत व्हरता..**

दिसाळयांनी आनी नेमाळ्यांनी सातत्यान मराठी लिखाण करपी *डॉ. गुरुदास नाटेकार* हे गोंयचे एक नामनेचे उद्देजक आनी सामाजीक वावुरपी. तांकां साहित्याची मुळा सावन आवड आनी तांणी नाटक, कादंबरी, ललित अशे साहित्याचे वेगवेगळे प्रकार हाताळून गोंयच्या मराठी साहित्यांत मोलाची भर घाल्या. आतां मेरेन तांचीं मराठी, कोंकणी, हिन्दी आनी इंग्लीश भाशेंत 18 पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांणी संवसारांतल्या 40 देशांची भोवंडी करून जिवीत अणभव संपन्न केलां.'हो खेळ दैवाचो!' ही तांची एक आगळी वेगळी नवलिका बिम्ब वाचकां पासत खिरस्ती खिरस्तीनी.

रोझी आंटी आपल्या मानलेल्या भावाची म्हणल्यार लुसीच्या पायची खबर सांगतना सामकी त्या काळांत पावलेली आनी काळीज ओतून ती खबर मारियाक सांगताली. मारियाकूय लुसी आपल्या बॅडरुम ंतल्यान सकयल पावता म्हणसर चडांत चड गजाल समजून घेवपाची आसली म्हूण ताणेंय रोझी आंटी सांगता ते खबरेचेर आपले कान लायल्ले. लुसी सकयल आयलें जाल्यार तिका आपलें सांगप अर्दकुटें सोडचें पडपाचें. तेच पासत रोझी आंटीन एक दोळो इस्कादीचेर आनी एक मारियाचेर दवरून आपलें सांगप चालूच दवरलें.

"कांय दीस अशेच उलगले. हांव जॉनाचे वाटेक दोळे लावन आसलें. आनी अश्याच एक दिसा दारांत जॅक्सन म्हुणलेलो एक मनीस उबो जालो. तो पुर्तुगालाक सावन गोंयां आयलेलो. आपूण जॉनाचो घट इश्ट म्हणपाची ताणें आपली वळख सांगली. हांवेंय ताचेर विश्वास दवरलो, कित्याक तो जॉनान बरयल्ली एक चीट आपल्या वांगडा घेवन आयलेलो आनी जॉनान बरयलेलीं लेत्रां हांव वळखतालें. पूण हांव तटाकलें तें मात दुसरीच गजाल पळोवन. ताच्या खाक्यांत धव्या लुगटान गुठलायलेलें एक सानुलें भुरगें आसलें आनी ताचेर नदर पडली तेन्ना ताका जीव आसा काय ना असोच म्हाका दुबाव सो लागलो!

हांवें जॉनाची चीट झरझरीत वाचली आनी म्हाका तेन्ना गोमलें, तें भुरगें म्हणल्यार दुसरें तिसरें कोण न्हय तर म्हज्या मोगाळ भावान धाडलेली आपली धूव लुसी! ती सगली घडणूक पळोवन म्हाका कांयच चिंतून येना जालें! तकली सामकी भेरेल्ल्या वरी जाल्ली. त्या भुरग्याक पळोवन हांव सामकेंच कांचाबूल जावन गेलें. कितलेच प्रस्न म्हजे तकलेंच भितर सरून नाचपाक लागले. पूण हांवें तकली थंड केली. मनाक घटाय हाडून हांवें त्या बाळकाक अचळय म्हजे कुशींत घेतलें.

पूण म्हाका अजाप जाल्लें,

आपल्या काळजाच्या कुडक्याक, आपले मांगाचे धुवेक म्हजे मुवादीन करूंक खासा जॉन कित्याक आयलो ना? कोण आपल्या इतल्या मान भुरग्याक कोणा तिसऱ्या वागडा इतलें पयस कसो धाडूंक शकता! तीच गजाल हावें, रावंक जायना देखून जॅक्सन म्हणटल्या जॉनाच्या त्या इश्टाक विचारलें.

"जॉन आर्थिक नदरेन हार्ली सामकोच पशार जाल्लो आसा. इंडियेक येवन परत पुर्तुगालाक वचपा इतली ताची तांक उरूंक ना. इश्ट म्हूण हावें ताका थोडो भाव दुडवांचो आदार केलाय बी! म्हजें गोंयांत भोंवडेक येवपाचें आदींच थारलेलें! तेन्ना हांव ताचो लागशिल्लो इश्ट जाल्ल्यान मोठ्या विश्वासान ताणें आपल्या भुरग्याक म्हजे सुवादीन करून तुमचे मेरेन पावोवपाचो निर्णय घेतलो. ताचो एक जिवा भावाचो इश्ट म्हूण हावें ही व्हड जापसालकी म्हज्या भुजार घेतली."

जॅक्सनान आपली नदर म्हजे वेंगेंतल्या भुरग्याचेर भोंवडायली आनी मुखार सांगूंक लागलो, "हावें ह्या इतल्या ल्हान भुरग्याक ताचो मांय वा पाय सांगाताक नासतना इतले पयस हाडपाची रिस्क घेवप समा नासलें. पूण हांव जॉन आनी सेंड्राचो एक घरचोच मनीस कसो जाल्लों! तांचे लागीं हांव एक आयडीयल कपल म्हूण पळयतालों आनी तेंच पासत तांचो म्हाकाय सांगात जाय आसलो. म्हाका म्हजोय संवसार तांचे वरींच घडोवपाचो आसलो. पूण त्या जिझसान सेंड्राक आपल्या संवसारात आपोवन व्हेलें. लुमी जल्माक येवन म्हयनो लेगीत जावंक नासलो. सेंड्रा ताका जॉनाचे मुवादीन करून सासणा खातीर ना जालें. जॉनान सेंड्राक दुयेंसांतल्यान भायर काडूंक आपलें आसलें नासलें तें सगळें खर्चिलें. उपाव नासून रिणां काडलीं! ताका एकूच आस्त आसली, सेंड्रा ह्या दुयेंसांतल्यान भायर येतलें आनी आमी बायच्या सांगाताक खुशालबरीत जियेतलीं! पूण कांयच फायदो जालो ना. सगलें उदकांत गेलें. काळजार फातर दवरून आतां जॉन लोकाचीं रिणां फारीक करूंक मर मर मरता!"

जॅक्सनाचे दोळे हें सगलें सांगतना भरून आयलेले. म्हजो भाव जॉन कसल्या अरिश्टांत सांपडला हाची कल्पना म्हाका आयलेली. जो भाव गोंय सोडून वयताना, आपूण तुका सगल्या आदाराक पावतलों म्हूण सांगून गेल्लो ताणेंच म्हजेर एक आकांताचो भार घातलेलो. ताकाच म्हज्या आदाराची गरज उप्रासलेली. ताच्या रगता-मांसाच्या कुडक्याक वयर काडपाची जापसालकी ताणें मोठ्या विश्वासान म्हजेर घाल्ली.

लुसी म्हजे खाकेंत जे दिसा आयलें तेन्ना सावन म्हजें पुराय जिवीत आनी संवसारूच आरत्याचो परतो जालो. तेन्नाच हावें थारायलें, म्हजें पुराय जिवीत आतां ह्या सानुल्या जिवा पासतूच सारपाचें! आनी म्हाका जमता तशें, तांकता तशें हांव लुसीच्या फुडाराचें येवजितूच जियेत रावलें, बाय!"

रोझी आंटीन एक व्हडलो स्वास भितर घेतलो.

"तूं म्हणटलें बाय, हावें व्हडलो त्याग बा केलो. पूण तशें कांय ना. आपल्या जिवितांत कांय मनशां आंज्या वरीं येतात! तीं तुजें जिवीत खोशयेन भरून उडयतात! म्हजे पासत म्हजें लुसीय तशेंच आसा. लुसी म्हणल्यारूच म्हजो संवसार! ताका कुशीक काडून हांव जियेवंकूच पावचें ना.

जॉनान ते चिटयेंत बरयलेलें, ' लुमीक जल्म दिवन सेंड्रान गेरवडोंच म्हजो सासणाचो नुगोप घेतलो. मिर्विसे पासत म्हाका ह्या माणकुल्याचो सांबाळप मुश्कील जाता. सेंड्राची ही निमणी आनी मोलादीक वस्त म्हजे लागीं आसा... उपकार करून तिका तुजे होटयेंत घे. सांबाळ



ताका...'

म्हज्यान ना म्हणपाचो प्रस्नूच नासलो! जॉन जेन्ना पुर्तुगालाक वचपाक गोंयच्यान भायर सरलेलो तेन्ना हांवें ताका उतर दिल्लें, तुका हांव गरज लागता तेन्ना आधाराक धांवून येतेलीं म्हूण! असल्या अडचणीच्या काळार ताका सांगात दिवप हें म्हजें नैतीक कर्तव्यूच आसलें. तेच पासत लुसीचो सांबाळ करपाची जॉनाची विनवणी हांवें मानून घेतली आनी आजुनूय तिका हांव पाळो दिता.''

रोझी आंटीन आपलें उलोवप थारायलें. तिणें सांगलेली पुराय घडणूक आयकून मारियाचें काळीज न्हिन्नाळ्ळें. आपल्या दोळ्यांतल्यान खंयच्याय खिणांक दुकांच्यो झरी व्हांवक लागतल्यो अशें ताका दिसूंक लागलें. इतल्यांत वयले माळये वयल्यान ताचे कानार लुसीचो आवाज सादलो,'' मारिया,आय ॲम रेडी...लेट्स गो डिअर''

ताचो आवाज कानार पडटांच रोझी आंटी सादूर जाली. तिणें आपले दोळे पुसले आनी म्हणलें, '' बाय लुसी, कंय चल्लें गो? नाश्ता केले बगर तुका हांव थोटेंच वचूंक दितां!''

रोझी आंटी माळयेचे इस्कादेर नदर दवरून थोडो वगत तशीच उबी रावली आनी तिणें लुसीक परत सादयलें.

''वेगीं यो गो बाय! यो बाय, मारिया रावता तुका नाश्तो करूंक!''

इतले म्हणसर लुसी सकयल पावलें. मारिया आनी तें नाश्तो करूंक लागलीं. गरम गरम चिकन करी आनी तोर्रांद उंडे म्हणटकच नाश्तो बेस्टूच आसलो लुसी पासत!

'' मॅडम, आतां वॉट इज द नेक्स्ट प्लॅनिंग?''

उंडो मोडटां मोडटां मारियान लुसीक विचारलें.

'' डोन्ट लो...बट.. म्हाका मातशें शॉपिंग करपाचें आसा. आमी मार्केटांत एक पासय मारून येवंया गो?''

लुसीन आपल्या मनांतली गजाल मारिया सामकार दवरली. मारियान 'ओके' म्हणत मान हालयली.

नाश्तो करून, रोझी आंटीक 'बाय बाय' करीत दोगांय वचपाक भायर सरलीं. रोझी आंटी त्या दोगांकूय हात हालयत पळयत आसली!

मारिया आनी लुसी म्हणल्यार एकाच कॉयनाच्यो दोन



सायडी अशें तिका दिसलें. आझूल मळब आनी धर्तर हें जशें सामकें वेगळें, वत आनी पावस ह्यो दोनूय घडणुको जश्यो एकमेकाच्या उरफाट्यो आसल्यो तरी दोनायचो सांगात केन्ना सुटना तसोच मारिया आनी लुसीचो सांगात आसलो! त्या दोगांयची ती इश्टागत पळोवन तांच्या इश्ट-इश्टीणी मजगतींय बरीच भासाभास चलताली. तांकां कोणेंच केन्ना एकमेकां विरेंत केन्ना पळोवंक नासलें. इतलीं तीं दोगांय एकमेकां भितर भरसून गेल्लीं.

मार्केटांत वचून लुसीन आपल्याक जाय त्यो सगल्यो वस्तु घेतल्यो. मागीर दोगांय वचून मार्केटा मुखा वयल्या जार्दिनांत वचून आवांतार बसून गजाली मारूंक लागलीं. मायकलान लुसीक दिल्ल्या विजिटींग कार्डाचो रंग ताच्या मुखामळार आजुनय निशेतालो. फाटीं फुडें जायत लुसीन मायकलाचो विशय मारिया मुखार काडलोच..

'' मायकलान तुका येदें व्हडलें कार्ड दिलां आद्रेसाचें, ताका चीट बरयल्या काय ना गो?''

लुसीचीं फकाणां करपाचो मारियाक आतां मूड आयलेलो.

'' ना गो, कालूच तर दिलां ताणें कार्ड!'' लुसीन लजत लजत जाप दिली.

'' मागीर कितें जालें? बरय मुगो तेका चीट! चीट बरय आनी तुका ताचे विशीं जें कितें दिसता..मोग..आपलेपण.. जें जें कितें दिसता तें सगलें बरोवन उडय.. कितेंच दवरूं

नाका काळजांत..''

मोगाच्यो गजाली, जाणवाय मांगपाची आतां मारियाक आयनीच सद गावलेली. तें एकटेच लुसीचें बेस्ट फ्रेंड जाल्ल्यान ताका तो अधिकार आसलो म्हणल्यार जाता. तांच लाब घेवन ताणें आपूण त्या विशयांतलें एक्सपर्ट आसलेल्या भाशेन ताका तें उपदेश करूंक लागलें.

'' चे तशें कांय ना गो! आनी म्हाका ताचे विशीं जें कितें दिसता तशेंच ताका म्हजे विशीं दिसतलेंच हें कित्या वयल्यान? म्हाका तो फकत एक इश्टीण करूंक सोदता बी आसत! कोणाक खबर ताका ताची फियान्सीय आसूं येता! ना तर हांव हांगा सपनां रंगयत रावतलें आनी तो म्हजे लागीं फकत एक इश्टीण म्हूण पळयतासलो जाल्यार...?''

लुसीन बावलेल्या तोंडान आपल्या मनांतलो दुबाव उलोवन दाखयलो.

खरें म्हणल्यार, मायकल आपूण सोडून आनीक कोणाचो आसूं येता हो विचार लेगीत लुसीक सोंसवना आसलो! पूण मायकलाच्या मोगांत सामकें बुडोन गेलां ही जाणविकायूच ताका सामकी अस्वस्थ करून उडयताली. त्याच विचारान ताचें तोंड बावलेलें.



'' तूं चिंतता तशें कांय आसचें ना गो..तो फकत तुजेर आनी तुजेरूच मोग करता. आतां हेंच पळय, ह्या गांयांत तुजे पिरायेचीं कितल्योच चलयो आसतल्यो! पूण तो तांकां सगळ्यांक विजिटींग कार्डां दियत बोंवता काय कितें? पिशें जालां काय कितें तूं? बरें आसा, तुका दिसता मगो तो तुका एक इश्टीण म्हूण मानता? तशें जाल्यार मागीर तूंय ताका एक इश्टीण म्हण्णूच बरय चीट! मागीर ताची जाप वो रियक्शन जें कितें येता तें पळोवन थारतलें ताचे मतींत सारकेंच कितें आसा तें..!'' मारियान ताका परतून एक फावट उपदेसाचे डोज दिले.

ताचें तें उलोवप आयकून लुसीचे दोळे भरून आयले. ताणें आपले पर्सींतल्यान तें विजिटींग कार्ड भायर काडलें आनी ताचेर नदर भोंवडायत ताणें मारियाच्या हातार आपलो हात धरीत म्हणलें,'' मारिया, आयज मेरेन हांव दुख्खाचे कितलेच समदीर हुपून गेलां. आतां खंय तरी म्हाका मायकलाच्या रुपान एक तड दिसूंक लागलेली! हांव ताका खंयचेच परिस्थितींत होगडावंक सोदिना. तो फकत म्हजोच आसा...हांव ताचेर तुजे इतलोच...गोंझी आंटी इतलोच मोग करतां...!''

ताचें तें उलोवप आयकून मारियान ताचो हात दामलो आनी म्हणलें,'' ना लुसी, तूं आमचे दोगांचेर मोग करता ताचे परस कितलोच चड मोग मायकलाचेर करता अशें म्हाका दिसता!''

'' ना गो, तशें कांय ना.''लुसीन म्हणलें.

हय- ना, हय- ना करीत कितलो वगत जालो हाचें भान दोगांकूय उरलें ना. जार्दिनांत तांकां बरोच वेळ जाल्लो. गजाली मारीत मारीत दोगांय घरा वचपा पासत जार्दिनांतल्यान बायर सरलीं.

लुसी घरा पावलें तरी ताच्या मुखामळार अजूनय हांसको हुंफेतालो. ताचें तें रडकुटें तोंड पळोवन ताका गोंझी आंटीन प्रस्न केलोच!

''कितें जालें म्हज्या डार्लींग लुसीबायेक? मारिया लागीं परतून झगडलें बी काय कितें गो?''

'' ना गे आंटी,हांव झगडूंक बिगडूंक कांय ना!'' लुसीन म्हणलें.

'' तशें जाल्यार तोंड कित्याक पडलां म्हज्या बायचें?''

" कांय ना गे, बायर पळय कितलें वत पडलां! त्या भायर मारिया आनी हांव फेरीबोटीच्या धक्यार सावन चलतूच घरा आयल्यांत. देखून मातसें उबगल्ले वरीं जालां. वत सोंसूंक जायना अशें पडलां!"

" हय गो बाय! चल हात पांय धुंवन फ्रेश जा आनी सुसेग घे. फाल्यां तुका तुज्या एडमिशनाची खबर काडपाक वचपाचें आसा न्हय! मागीर माय लुसी शूड बी लूक लायक ॲन एंजेल! हय काय न्हय?" रोझीआंटीन हांसत हांसत म्हणलें.

"हयच तर! फाल्यां म्हाका वचपाकूच जाय.मातशें आड पडटां आनी जेवपा टायमारूच सकयल येतां. तशेंच करतां, न्हिगे आंटी!"

अशें म्हणत, उलयत उलयत लुसी इस्काद चडून आपल्या रुमांत वचपाक गेलें.

आपूण मातसो वगत आड पडटां अशें आंटीक सांगून तें जरी बेडार लवंडललें तरी ताका न्हिद पडऽ नासली. मारिया आनी ताचे मदीं मायकला विशीं जें कितें उलोवप जाल्लें तेंच ताचे तकलेंत किडो कशें हुळहुळटालें. आता तोच किडो ताचें मन पोखरूंक लागलेलो!

अशें म्हणटात, वन सायडेड मोगांत पडप म्हणल्यार सदांच उठून मरणाच्यो यातना भोगप! दुसरी व्यक्ती आपल्याचेर मोग करता काय ना हे विशींचो दुबाव जर मनांत उदेलो जाल्यार तो मनशाक लाशीत सुट्टा! लुसीचीय गत आयज तशीच जावन गेल्ली! तें बाज्जेर न्हिदलेलें खरें, पूण ताचो दोळो मात्तूय लागनासलो. चिंतनांनी आकुळ पिकूळ जावन तें फकत हांतुणार कुशी बदलीत पडून रावलें. शेवटाक कशेंच सोंसना जावन ताणें इतलो वगत आडावन दवरिल्ल्या दोळ्यांतल्या दुकांक वाट करून दिली.

बरोच वगत ताणें आपल्या दुकांक आडावपाचो यत्न केलो ना. तांकां व्हांवपाक दिलें. मनशाच्या दोळ्यांतल्यान अशी झर व्हांवली काय तातुंतल्यान मनांतल्या वायट चिंतनाचो म्हेळ व्हावन वता आनी काळीज थीर जाता म्हणपाचो अणभव ताका आसलो. आतांय तशेंच घडलें. दुकां व्हावन गेल्या उपरांत ताचें मन थीर जालें.

' तो जर तुका फकत इश्टीण म्हूण मानून तुजे लागीं नातें दवरूंक पळयता जाल्यार तुंवूय ताका तेच नदरेन चीट बरय!'

सकाळीं जार्दिनांत बसलेल्या वेळार मारियान ताका दिल्ल्या उपदेसाचो ताका आतां उगडास जालो. एकेच भिरकेंत तें उठलें आनी मेजा लागीं गेलें. ताणें गवेतांतल्यान पेन आनी फोल घेवन तें मायकलाक चीट बरोवंक मेजार बसलें. पूण चिटींत कितें बरोवप हें ताचे तकलेंत येना जावन तें परतून चिंतनात पडलें. ताका आपल्यो सगळ्यो भावना आतांच हे चिटयेंत सांगून उडोवं काय मारिया सांगता तशें एके इश्टीणी वरीं ताका चीट बरोवं! ना.. ना.. म्हज्या मनांतलें ताचे सामकार आतांच उक्तें करूंक फावना. हांवें म्हजो मोग उक्तो केलो आनी तो जर हांव चिंतता तसलो मोग म्हजेर करिना आसत जाल्यार! तो आंवडेता ती निसुवार्थी इश्टागतूय हांव शेणोवन बसतलें! आनी तशें पळोवंक गेल्यार 'लव्ह इज ऑल अबाव सॅक्रिफायस!' अशें कोणें तरी म्हणलां तेंय फट न्हय!

लुसीन आपले आपणाक समजायलें आनी तें मायकलाक चीट बरोवंक बसलें...

डीअर मायकल,

तुंवें दिल्लें तुजें विजिटींग कार्ड भोवच सुंदर! म्हजे पासत ह्यो गजाली खूब म्हत्वाच्यो! कित्याक तुजे सारख्या तरनाट्यान आपलें स्वताचें अस्तित्व निर्माण केलां. म्हाका तुजी इश्टीण जावन तुजे लागच्यान मार्गदर्शन घेवपाक खऱ्यानीच बरें दिसतलें!

– लुसी

सामकी ल्हान चीट...

आपल्या मनांत कितें आसा हाचो मायकलाक मात्तूय अदमास येवपाचो ना हाची जतनाय घेवन लुसीन बरयल्ली ती चीट आसली!

आतां मायकला मेरेन ती चीट कशी पावती करप! तोच विचार तकलेंत आयलो तशी ताका एक युक्त येवजली. मायकलाचें घर काय ताच्या घरा पासून चड पयस नासलें! सामकें रस्त्या कुशीकूच आसलें. तामें आशिकुशीक कोण ना तें पळोवन आनी आपल्याचेर कोणाची नदर ना

हाची जतनाय घेवन ताणें ती चीट जनेलातल्यान भितर उडयली. मायकल एकटोच त्या घरांत रावता हाची लुसीक कल्पना आसली. देखून ती चीट मायकल सोडून आनीक कोणाच्याच हातांत पडपाची ना म्हणपाची ताका खात्री आसली!

चीट तर उडयली! पूण आतां लुसीचे तकलेंत आनीक एक विचार वयर सरलो. मायकल म्हजी ती चीट वाचतलो काय ना? म्हजी चीट वाचून ताका बरें दिसतलें काय ताका म्हजो राग मारतलो!

लुसीचे प्रस्न कशेच उणे जावंक सोदी नासले. त्या एकाय प्रस्नाची जाप ताचे लागीं सुटावी जाय नासली. आतां एकूच गजाल करप ताच्या हातांत आसलें आनी तें म्हणल्यार मायकलाचे चिटयेची वाट पळयत बसून रावप! त्या बगर दुसरो पर्यायूच नासलो. मायकलाचे चिटयेंत हयकारी रकाद आयलो जाल्यारूच ताच्या मनाक शांतीकाय लाबपाची. नातर...

दुसरो दीस उजवाडलो..करपाच्यो सगल्यो गजाली निस्तारून लुसी आपली सायकल घेवन घरांतल्यान भायर सरलें. ताणें आपले पासत एक लेडीज सायकल घेवन दवरिल्ली. ल्हान सान उर्जेंत कामाक वचपाक ताका तिचो आदार जातालो. मुखावयल्या शिक्षणा पासत कसल्यो आनी खंयच्यो वाटो आसात हाची खबर काडपाची आयज ताका गरज आसली.

सायकलीचीं पेदालां मारीत मारीत तें मायकलाच्या घरा लागीं पावलें. ताचें काळीज अचकीत धडधडपाक लागलें. तरी ताणें चोरून आपली नदर ताच्या घरा वटेन भिरभिरायली. घराचें दार बंदूच आसलें. मायकलाक कंपनीत ओवरटायम बी करचो पडटा आसतलो! तो कामा वयल्यान उसरां येवन सकाळीं उसरां मेरेन न्हिदता बी आसतलो! अशें येवजून ताणें आपल्या मनाक सम जायलें आनी नेटान पेदालां मारीत फुडलें वाटेक लागलें.

ताच्या घरा सावन धा-पंदरा मिनटांचे वाटेर न्हंय आसली आनी पलतडीं वचपाक ते न्हंयचेर एक फेरीबोट आसली. फेरीबोटी धक्यार लुसीन सायकल थांबयली आनी तें फेरीबोटीची वाट पळोवंक लागलें.



अश्रेकणी



हर्षा सदगुरू शेट्ये

कोंकणी साहित्यांत आपली खाशेली वळख निर्माण करूंक सातत्यान प्रयत्न करपी लेखिकां मदीं **हर्षा शेट्ये** हांचें नांव मुखेलपणान नदरेक भरता. कविता ह्या साहित्य प्रकारांतल्यान आपली वळख सांगतनाच ललित निबंध, बाल साहित्य आनी प्रवास वर्णनाच्या मळाचेरूय तांणी आपली खाशेली सुवात सुगूर केल्या. तांचो हेर पुरस्कारां वांगडाच 'बिम्ब' पुरस्कारानय भोवमान जाला.

पत्तो : मडगांव-गोंय.
मो. : 9850530152

कोवीड काळांतलें वाचप

# मायाली म्हणींची डायरी




एक दीस माया खरंगटे आपूण बरयता ते कादंबरीची खबर सांगतालें.

"सकाळच्या आदेसाक घरांतलीं कामां सोंपोवन कितलेंय बेगीन म्हणून बरोवंक बसलें जाल्यार लेगीत मदीं मदीं उठचें पडटाच!"

" तशें जाल्यार जेव आनी अर्दवर विसव घे आनी कादंबरी सांजवेळा बरय मगो! अणकार बी करता तो सकाळच्या आदेसाक कर."

" हय, तशेंच करतां."

मागीर हांवें दुसरे दिसा सांजवेळचो ताका मुद्दम फोन केलो जाल्यार ताणें सांगलें, आज कार्डूच मेळना जालें. तें सोदपाक सगळो सांजवेळ गेलो. 'अश्टेन खोलो वाडयलो, मामयेन सण बुडयलो.'

मायाक मदीं मदीं म्हणी वापरपाची खूब संवय पूण ही म्हण हांवें केन्नाच आयकूंक नाशिल्ली.

" आगो, हे म्हणिचो अर्थ कितें? "

तर ताणें म्हाका म्हणी फाटली काणी सांगली.

अश्टी म्हळ्यार झाडाचें नांव. झाडाचीं पानां ल्हान. एक मांय खंय सुनेक ह्या अश्टेच्या खोल्यार जेवण वाडटाली. तिका बाबडेक तें जेवण पोटाक पावनाशिल्लें. सुनेक दिसतालें अश्टेचें पान ल्हान म्हणून मांय थोडें जेवण वाडटा. सून दीस रात अश्टेच्या झाडा कडेन वचून मागूंक लागली, 'अश्टे तुजो खोलो व्हड कर, व्हड कर' म्हणून... अश्टेन तिचें आयकलें आनी खोलो व्हड केलो. पूण कांयच उपेग जालो ना. मांय पयलीं इतलेंच वाडूंक लागली. ताचे वयल्यान ही म्हण आयल्या. 'अश्टेन खोलो व्हड केलो मामयेन सण बुडयलो.'

आनीक एक दीस माया म्हणूंक लागलें, "आतां रोकडें पुरो जाता गो, आजी म्हणटाली तें खरें, 'आंगान तुतनायक आसं सर कोणाची पर्वा नासता."

" कोण गों हो तुतनायक? हांवें केन्ना आयकूं ना. म्हजे आजये कडल्यान हांवें कासव नायक जाल्यार आयकला."

" आगो, तुतनायक म्हळ्यार आंगांतलो जोम, शक्त, मद ह्याय अर्थानी वापरतात. आजयेच्या तोंडांत उठता बसतना म्हणी आसताल्यो. हांवें

न्यां डायरेंत बरोवन दवरल्यात, चारशें वयर तरी आसतल्यो!''

"हय! म्हाका दी तर मगो वाचपाक."

आनी मायान म्हाका म्हणींची डायरी धाडून दिली. हांवें डायरी उगडली. मायान म्हणिंचे देवनागरी वर्णमाळे प्रमाण अक्षरां घेवन विभाग केल्ले.

डायरेंतली पयलीच म्हण...

'ओंठाक ओंठ तेकले बगर आब्बा जायना
काळजाक दूख बादल्या बगर हाय जायना!'

हे म्हणिचो दुसरो भाग हांवें आयकला. ताचो आनी पयलो भाग आसा म्हणून हांव नकळों आशिल्लें. ताचो अर्थ असो... मनांतल्यान खोस जातकीच तोंडांत 'आब्बा' उतर येता. आब्बा म्हणटना ओंठ ओंठाक तेंकतात. तशेंच काळीज दुखता तेन्ना तेन्ना हाय जाता.

कोंकणी भाशेंत म्हणी आनी वाक्यप्रचार खूब प्रमाणांत आसात. तातुंतलीं कांय उतरां आतांचे पिळगेक खबर नात. म्हजी आवय उलयतना नीज कोंकणी उतरां वापरता. भुरगेपणांत जाणट्यां कडल्यान खूब म्हणी कानार पडटाल्यो. ते खातीर खुबश्यो म्हणी खबर आसात. तरीय जेन्ना केन्ना नवी म्हण आयकतां तेन्ना सुमारा भायर खोस जाता. म्हणूनूच तर मायाची म्हणिंची डायरी वाचूंक हाडली.

मायाचे डायरेंतली हांवें आयकूंक नाशिल्ली ही एक म्हण 'येरें घुंवडायता तशें व्हडें वता.'

येरें म्हळ्यार व्हडें घुंवडावपाची दांडी. व्हडें चलोवपी जे दिकेन व्हड्याचें येरें घुंवडायता ते दिकेन व्हडें वता. म्हळ्यार घराचो मुखेली, वा संस्थेचो जाळवणदार जी वाट दाखयता तेच वाटेन हेर वतात. म्हळ्यार तो जें कि[illegible] सांगता तें हेर लोक आयकतात. आतां येरें ह्या उतराचो अर्थ कळ्ळ्या बगर ही ओपार समजुपाची ना.

म्हजी आजी, बापायची आवय बेतीं, वेरेंची. तिचे भुरगेपणांत म्हळ्यार 1920 च्या अदमासाक वेन्यां तिच्या घरा मुखार व्हडीं घेवन व्हडेकार आसताले. तेदे वेळार त्या वाठारांत घोळपी ही एक म्हण हांवें आजये कडल्यान खूब वेळां आयकल्या.

'येरें घुंवडायतलों आनी वेरें बुडयतलों.'

हे म्हणी फाटली काणी अशी- एक भुरगो आशिल्लो. तो परतो परतो व्हड्यांत येवन बसतालो. ताका भिशटावपाक व्हडेंकारान म्हणचें, ''पळय, हांव येरें घुंवडायतलों, मागीर सगळें उदक वयर सरून वेरें बुडटलें.''

" नाका नाका, वेरें बुडोवं नाका." म्हणत तो देंवतालो खंय! फुडें मागीर कोणूय दुसऱ्याक भंय घालपाक, 'हांव जीव दितां' बी म्हणलें जाल्यार ही ओपार मारूंक लागले.

मायाल्या डायरेंतली म्हाका आवडलेली आनीक एक म्हण 'लाकडाकय गुंज आसा, कोयतेकय खांप आसा' गुंज म्हळ्यार लाकडाक घट गांठ कशी आसता. त्या जाग्या बयलें लाकूड बेगीन कापना. कोयत्याक खांप आशिल्ल्यान तो लाकडार मारल्यार, कुराडी भशेन तो सरळ घाय घालना. ते खातीर खांप आशिल्ल्या कोयत्यान गुंज आशिल्लें लाकूड बेगीन कापना. दोश दोंगायचो आसता हें दाखोवपी ही म्हण. एका हातान ताळी वाजना ह्या अर्थाची ही म्हण.



'आला किलां वयर काडप' असो एक वाक्यप्रचार कोंकणींत घोळटा. आला किला वयर काडप म्हळ्यार मुखा वयल्याची उर्णी वयर काडप. नेटान झगडटना एकामेकांचीं आला किलां वयर काडटात. ताचेय फुडें वचून एकामेकांच्यो

केश्ट्योय धरतात. हे दोनूय प्रकार जेन्ना एकाच झगड्यांत आसपावतात तेन्ना 'वीद वावळ्यो आनी शीद सावळ्यो' ही ओपार मारतात अशेंय मायान सांगलें.

हरशी पाळ ह्या उतराचो अर्थ झाडाचें मूळ असो जाता. पूण काणकोण वाठारांत दर्याच्या ल्हाराक पाळ अशेंय म्हण्टात. मायाचे डायरेंत 'यो पाळा व्हर म्हाका' ही म्हण मेळ्ळी. हाचे फाटली काणी अशी- एकटी बायल खंय खूब झगडाळ आशिल्ली. कितें ना कितें निमित्त करून खंय घरच्यां कडेन झगडीं उस्तुन काडटाली. एक दीस अशीच सदचे भशेन झगडली आनी आपूण जीव दितां म्हणत धांवत वेळेर गेली. वेळेर वचून उबी रावली आनी ल्हाराक पळोवन पळोवन म्हणूंक लागली खंय, 'यो पाळा व्हर म्हाका.'

'देखले मडें आयलें रडें' ही म्हण सगळ्यांच्याच तोंडांत आसता. हाचो अर्थ अचकीत कोणूय खंय मेळ्ळो जाल्यार ताका जीव करप. हरशी ताची याद पसून काडप ना. ह्याच अर्थाची आनीक एक म्हण म्हाका मायाले डायरेंत मेळ्ळी- 'देखल्या देवा दंडवत'.

'जाच्या हातांत सोंसो तो पारधी.' हिवूय एक अर्थपूर्ण अशी म्हण. हाचो अर्थ सांगना आसतनाच समजता.

एक दीस म्हजी आनी मायाची चर्चा चलिल्ली. हांड्यार धांपता ते लाकडाच्या धांपण्याच्या नांवा वयल्यान. हांवें ताका आमी 'माण' म्हणटालीं म्हण सांगलें. तें आनी कितें तरी म्हणूंक लागलें. मागीर ताकाय याद जाली तें माण म्हणून. आनी ताणें म्हाका म्हळें, 'हय गो बाये, तुज्याच घोड्याक चार पांय'. म्हळ्यार तुजेंच खरें ह्या अर्थान.

'देव दिता मापून! खातली खंयच्यान चेपून' ही म्हण वाचून 'हातरूण पळोवन पांय पातलावपाचे' हे म्हणिची याद जाली. घरांत कोणूय सोयरो येतकीच दोन दीस ताचो बरो थातोमातो जाता. मागीर तो घराचे भशेनूच जाता. घडये ताचेकय पाश्ट जाता. सोयऱ्याची अशी स्थिती दाखोवपी ही मायाचे डायरेंतली म्हण- 'पयलो दीस सोयरो, दुसरे दिसा दायरो, तिसरे दिसा घरा भायरो.'

'घोडक्या बैलान गाय आडायली' ही एक हांवें आयकूंक नाशिल्ली म्हण. घोडको म्हळ्यार कालेतीन अशक्त, रोगी, वाड खुटिल्लो असो. असलो बैल गायेक फळोवंक शकना. असल्या बैलान गाय आडावन फायदो ना. ओगीच कारण नासतना कोणेंय वेळ पेड्डेर केलो जाल्यार आजी ही ओपार मारताली अशें मायान सांगलें.

'फुलां खातीर वावळी माथ्यार' हिवूय म्हण मायाची आजी उठसूट वापरताली खंय! बरो सांगात आसता तेन्ना साद्या वा वायट वस्तूंकूय म्हत्व दिवचें पडटा तेन्ना ही ओपार मारतात. केन्ना केन्ना भावजय सामकी वायट सभावाची आसता. भाव सामको बऱ्या सभावाचो, भयणींक जीव करपी. तेन्ना भावा खातीर भावजयीकय मान दिवचो पडटा. अश्या आशयाची ही म्हण.

'वडाची साल पिंपळाक' ही म्हण चडशी सगळ्यांक खबर आसा. 'भटाची शेंडी पाद्रीक' ही ह्याच अर्थाची आनीक एक म्हण. असलीं एक एक रत्नां मायाक आजयेच्या म्हणिंचे पेटलांत मेळ्ळीं खंय!

'बिळां वचूं रीग ना, शेपडेक सुपां कित्याक बांदप?' वा 'भाकरेक मोडटा तेवटेन तोंड' अश्यो खूब कमी घोळणुकेंत आशिल्ल्यो म्हणी मायाचे डायरेंत आसात.

'सरत्याक सांचू आनी अस्तमानाक वेंचू' ही म्हण म्हळ्यार आजयेचे पेटलांतलो मोती. तें तें काम तेदे वेळारूच जावंक जाय. वेळ गेल्या उपरांत तें काम करपाचें येवजून कांयच फायदो ना. आपल्या कडले दुडू वा हेर जिन्नस सोंपचे वेळार तें गांठीक दवरचे अशें दिसून कांय उपेग ना. तशेंच सुर्य अस्ताक वच्चे वेळार काळोख जाता. सबंद दिसाचो उजवाड सोडप आनी उजवाडांत करपाचीं कामां, देखीक तांदूळ वेचपाची जावं वा हेर करुंक गेल्यार तीं सारकी जावपाचीं ना. तशें कोणूय करपाक गेल्यार जाणटेलीं तांकां प्रस्न करताली, 'सरत्याक सांचू आनी अस्तमानाक वेंचूं?'

ह्यो म्हणी आनी वाक्यप्रचार म्हळ्यार आमचे भाशेचे अळंकार. आमची गिरेस्तकाय. कोंकणींत जरी खूब प्रमाणांत म्हणिंची संकलनां आयल्यांत, तरीय अजून खूब म्हणी मौखीक रूपांतूच उरल्यात. विशिश्ट वाठाराच्या, विशिश्ट घराब्याच्या परिघा भितरूच उरल्यात. म्हजे कडेनूय आजयां कडल्यान आयकल्ल्यो पन्नासां वयर म्हणी आसात ज्यो अजून खंयच्याच संकलनांत येवंक नात. मायाचेय डायरेंत असल्यो म्हणी आसात. मायानूय आजये कडल्यान आयकल्ल्या ह्या ओपारींचें पुस्तक काडचें. हांव अशें म्हणन, 'अश्टेन खोलो वाडवचो, मायान सण सोबोवचो.'



विज्ञान

गौतम
जल्मी



# भाद्रपदपुराण




म्हायती तंत्रगिन्यान अभियांत्रीक म्हूण पणजे आल्तीन हांगा एके खाजगी कंपनींत काम करपी **गौतम जल्मी** हांकां ल्हानपणा सावन खगोलशास्त्राची खुबूच आवड. पर्यावरण तशेंच खगोलशास्त्रा सारक्या दुर्मीळ विशयांचेर चडांत-चड म्हायती मेळोवन ती आपले परीन फुडें पसरोवपाचो अतिरिक्त भार घेवन वावुरतात. खरें गोंय सोदपाच्या उद्देशान, वेगवेगळ्या गांवगिन्या वाठारांनी भोंवून पर्यावरण संदर्भात देवरायो (Sacred Groves) आनी पुरातन खगोलशास्त्र (Ancient Astronomy) हाचेर बाराक अभ्यास करतात
पत्ता : आजोबा नगर, साखळी - गोंय
gautamjalmigmail.com

शके 1943, भाद्रपद म्हयन्यांतल्यो गोंयच्यो खगोलशास्त्रीय घडामोडी (आनी सर्वसाधारण भानगडी)

दर वेळा हें अशेंच आसता. एक एक नविनूच किर्ते तरी भायर सरता. कोणाक खबर, म्हाका हें किर्ते जाता तें! पूण पयल्या दिसा, म्हळ्यार राती कडेनूच म्हाका ताची सुलूस लागता आनी जीव आकुळपिकूळ जावपाक सुरवात जाता.

आतांचें हें प्रकरण मात्शें वेगळें आसा. मात्शें म्हळ्यार चडूच. अचानक पिशांवरी खुरखुरी शी येवंक लागता! जणू किर्ते मन सांगूक सोदता कीं जिणेंतलो तो लिपिल्लो आनंद लुटपाचो दीस लागीं पावलो.

आतां हें नित्याचेंच जाल्ले कारणान, सांगल्या शिवायूच कळपाक जाय, आयज खगोलशास्त्रीय उमास (7 सतेंब्र 2021).

म्हळ्यार थोड्या लोकांच्या म्हणण्या प्रमाणे, चंद्र नाशिल्लो दीस (वा रात).

पूण हे थोडे लोक आयच्या दिसा चंद्रुच आसना अशें कित्याक म्हणटात तें म्हाका आजुनूय कळना. चंद्र हो आमच्या भोंवतणी सदांच आसता. तो ना अशें जावंकूच शकना. चंद्र जेन्ना खऱ्यांनीच नाच्च जातलो पळय, तेन्ना पृथ्वी वयल्यान आमीय नाच्च जातले (हाचें कारण मागीर केन्नाय सांगतां).

तर ह्या संदर्भात, अशेंच एक वर्सा, खंयचे तरी उमाशे दिसा, म्हाज्या हातांतल्यान एक खगोलशास्त्रीय पराक्रम घडलो. हातूंत हांवूच न्हय तर आख्खें गोंय आनी कोंकणी मनीसूय बरोच फामाद जालो.

तर जालें किर्ते काय म्हळ्यार, त्या वेळार काम धंदो कांय नासलेल्यान मनांत आयलें म्हण, उमेदी सरशी हांवें एक सर्तीचें आयोजन केलें. आता आमच्या असल्यांचें कितेऽऽ, बेकार मनशांक काय कोण असोच दुड्डू दिवचो

ना आनी काम जर जावपाक जाय जाल्यार कोणाक तरी ओडून हाडून, त्रासांत घालचेंच पडटले! ना जाल्यार आमचें कशें सादतलें? अशें चिंतून हांवें Ros Cosmos हे संस्थेक बरेंच मोटें पत्र बरयलें आनी म्हाज्या बराबर, जोड पालवान उमाशेचो आनंद लुटपाची संद दिली. (असल्यो संदी, सोपेपणान फक्त मोठे ख्यातीच्या भाग्यवंतांकूच लाबतात).

हरशीं म्हूण हांव, NS सोडून आनीक कोणाकूच म्हाज्या वांगडा काम करपाक घेयना. पूण हे खेपेक जेन्ना हांव NSक विचारुंक गेल्लों, तेन्ना तेंच्यानी कोरोना मावशेक लागून आपले कायदे बदल्ल्याची खबर दिली. ते खंय आतां चड हुशार लोकांक कशेच लागीं करून घेयनात. बरें तर म्हणलें, पाड पोडों तुमचें!

तशें पळोवंक गेल्यार, म्हाका ISRO आसतना आनी कोणाचोच उपहास करपाची गरज नासली! हरशीं म्हूण ते दुकां तर गळयतातच! तातूंत भितर आनी थोडी भर पडली म्हूण कोणाल्याच बापायलें कांय वचना! आतां तें आनी वेगळें सांगी ना की हे मेल्ले आमच्याच कश्टांच्या पयशांची, दिरेंत त्या चंद्रार व्हरून नाशाडी करतात.

(आतां ISRO म्हळ्यार, भारतीय अंतराळ संशोधन संस्था, हें सगळ्यांक खबरूच आसतलें! जशी अमेरिकेची NS, तशी आमची ISRO. तसो दोगांय भितर जमीन मळबाचो फरक हो आसाच!)

आतां हांकां फटोवपाचें जरी चिंतलें तरी (हाय सायबा, तें 'प' च्या जाग्यार 'फ' चुकून आयलें हां... म्हाजो म ोबाइल मात्सो सारको ना), म्हळ्यार पटोवपाचें जरी चिंतलें तरी, हांगा आडखळ आसली ती म्हळ्यार, ISRO चे एकान एक शास्त्रज्ञ म्हाका बऽऽरे वळखतात आनी हांव उमाशे दिसा कसले कसले पराक्रम करतां तांचो सगळो हिशोब दवरतात खंय!

सायबा भोगोस! म्हणलें, आमी सगळे भारतीय एक म्हणपाचें आतांच लक्षांत आयलें. आतां फुडें तांच्यो आनी-आनीक भानगडी नाकात म्हूण हांवें चिंतलें, आसुंनी, बेटोच उमाशे नांवाचो शिक्को बी लागत तेंचेर! हाका लागून फुडें मागीर तांचीं रॉकेटां बी वयर वयचीं सोडून आमच्या सारकेल्यांच्या घरांनी घुसुंक लागलीं जाल्यार नस्तीं किजिलां जायत! फुडें तो नमो आनी ताची सेना मागीर सिवा - सिवा करीत म्हाका जितोच खातली ती वेगळी गजाल.

आतां आनी कोणाच्योच भानगडी नाका म्हूण हांवें मागीर Ros Cosmos साक फोंडांत घालपाचें थारायलें... म्हळ्यार भायर काडपाचें थारायलें. कारण तांचीय परिस्थिती मात्शी हाल्लेली जाणवली. हालीं सराक खंय ते नौकायान बी घेवन सगळ्यांकूच हालोवंक उठल्यात! तर तांकांय मात्सो जाग्यार हाडुंया म्हणलें.

आतां Ros Cosmos हे कितें तें कोणाक खबर ना जाल्यार तांकां सांगुंक इत्शीतां की, ती Russia देशाची एक अंतराळ संशोधन संस्था, जी पयलीं USSR (Soviet Space Agency) म्हूण खूब फामाद आसली. जरी आतां तांकां कोण चड किंमत दिना, पूण पयलींच्या काळांत मुखेलपणान ह्या क्षेत्रांत, तांचेंच वर्चस्व आसलें. सुरवातेचे मोटे मोटे अंतराळ विक्रम तर तांच्याच नांवार आसात.

हातूंत, म्हाजो सगळ्यांत आवडटो म्हणटा तो आमचो Yuri Gagarin. Vmo Vostok 1 ह्या यानांत बसून, अंतराळांतल्यान पृथ्वीक भोंवताडो मारपी पयलो मनीस हेच संस्थेचो आसलो, म्हूण हांवें चिंतलें की चल, हे संस्थेक, त्या विक्रमाचो फावो तो मान मेळोवन दिवपाचो वेळ आयला आनी हाका लागून हांवें, ती आकांताची नामना मेळोवपाची संद हांकां दिवपाचें थारायलें.

रशियेक खंय आजून पर्यंत अशे तरेचो मान कोणीच दिवना, म्हूण तांच्यांनी ती सर्तीची प्रस्तावना, व्हडा उमेदीन मान्युय करून घेतली आनी दोळे धांपून सयो मारल्यो. फुडें, हो तांचो दोळे धांपून कामां करपाचो धाडशी पराक्रम, तांकां (आनी म्हाकाय) बी कशे तरेन म्हारग पडलो ताचीच ही काणी.

तर ही सर्त कसली आसली काय म्हळ्यार, जो कोण म्हाका उमाशे दिसा चंद्र सोदुन दाखयतलो, ताका हांव, येता त्या शके 2024 सांत, चंद्राचेर एक फुकट भोंवडी मेळोवन दितलों.

आतां हांवें जशी ही घोशणा करुं नाका, थंय रशियेन, मातूय कळाव करी नासतना, नेटान online फोगोट्योय पेटयल्यो. सगळीकडे गडगडाट. म्हाजाळ्याचेर धुंवरुच धुंवर (थोडो, म्हाज्या मोबाइलांतल्यांनूय भायर येयलो)... कांयच दिसना जालें... आनी कितें घडलें तें कोणाक कांय

कळकूय ना जालें.

हरशीं हांवें ही घोशणा कोंकणींत केल्ल्यान, रशियेक ते सर्ती विशीं कायच कळूंक ना आनी हांवेंनूय बी मुद्दम मागूंक ना (ताका कळ्ळेलें बी जाल्यार ती थंयच बंद पडटली आशिल्ली ती वेगळी गजाल), पूण तरी आमतना तांचे पत्रकार परिशदेंचो नेट पळयल्यार, रशियें कडच्यान आमकां अपेक्षे परस चड, उफाट प्रतिसाद मेळ्ळो.

तांच्यांनी मागीर उपकाराच्या उलोवपांत म्हाजी बरीच तोखणाय केल्ली हांवें आयकली. हांवेंनूय बी हे वटेनच्यान म्हाजें कर्तव्य साऽऽरकें पाळ्ळें आनी तांकां बरेंऽऽ चण्या झाडार व्हरून चडयले. फुडें तांच्यांनी, आमकां कांय त्रास बी जावंचो न्हु म्हण आपलें एक शिश्टमंडळूय गोंयांत धाडून दिलें (आनी तांकां पळोवन हांवें सोमतेंच आंग काडलें).

आतां म्हाजे हे पराक्रम बी उक्ताडार येयत आनी तें प्रकरण मागीर मोट्यार बी पडत म्हण तातुंतल्या एकल्याक मात्शें कुशीक हाडून, अशेंच गजाली - गजाली भितर हांवें विचारलें कीं, आमकां हो येदो मोटो तेंको दिवपाचें कारण कितें काय म्हण, जाल्यार हो म्हाका सांगता, रशियन्स खंय म्हाज्या भशेनूच मोटे कोंकणी मोगी.

भाशा जरी कळनासली तरी, आमची देवनागरी लिपी आनी कोंकणी लोक खंय तांकां खूब आवडटात. हें आयकून, म्हाजो वयर सकयल जातालो तो जीव काळजांत परतो येवन सुशेगाद बसलो.

ते फुडें अशेंय म्हणटात, आमच्या कोंकणी साहित्याक आंतरराष्ट्रीय स्थरार पर्जळपाची तांक आसा, पूण ती फक्त एकेंच गजाली खातीर आडावन उरता आनी तें म्हळ्यार, आमचें विज्ञान विशयाचेर चड बरप जायना आनी हाकाच लागून आमी मात्शे फाटीं उरल्यात.

हें आयकना फुडें हांवें ताका सोमतेंच म्हळें, "आरे... तशें जाल्यार आमी जून म्हयन्याच्यानूच विज्ञान आनी खगोलशास्त्राचेर कोंकणींत बरप चालू केलां, तशेंच विज्ञान म्हणून आतां बिम्बांत एक सदरूय चालू जाल्लें आसा." इतलें सांगून हांवें जून आनी जुलायचो अंक ताच्या हाताक तेंकयलो. अक फुकट मेळ्ळा तें पळोवन तो व्हडा उमेदीन नाचूंक लागलो आनी 'वेळ कितलो जालो, वेळ कितलो जालो ?' करून सगळ्यांक विचारीत सुटलो.

परतो भानार आयल्या उपरांत तो म्हाका म्हणूंक लागलो, " आता आमचो फुडार सामको फुलपाचो आसा, फक्त हातूंत खंड मात कसोच पडूंक दिवं नाका म्हणटगीर जालें!"

जालेंय जाल्यार हालींच बरोवंक शिकलां न्हु, कोंकणीक लागून आतांच त्रास घेयना जाल्यार केन्ना म्हातारो जातगीर घेतलों? हांवें खूब फावटी आयकलां, कोंकणीचे व्हडले-व्हडले म्हालगडे बी उलयतात, आमचे सारके आयचे तरणाटे पिळगेक खंय ही आयची परिस्थिती बी सगळी सोंपेपणान मेळ्ळ्या, चळवळींनी बी वांटो घेवन, झगडून त्रास घेवंचे पडूं ना. हाका लागून हांवें चिंतलां, हांव झगडटलों. काम पसून सोडचें पडल्यार एक वेळ सोडीन, पूण जें कितें कार्य करपाक म्हाका आनंद मेळटा, खोस भोगता, तेंका हांव प्रामाणीकपणान, म्हाजें सर्वस्व ओपतलों.

हें जग, ही सृष्टी खंयच्या तत्वांचेर चलता ताची पारख आसा म्हाका आनी खंयच्याय खिणांक, कोणाचेरूय, कसलीय परिस्थिती उपरासूंक शकता हाची जाण दवरुनूच हांव म्हाजी कृती थारायतां. समजा फुडाराक जरी कितेंय चुकून बरें-वायट वा वयर-सकयल जालेंच तरी, खंयचेय परिस्थितींत खुशाल आनी समाधानी रावन जगून दाखोवपाचो म्हाजो आत्मविश्वासूच म्हाका बरें कितें तरी घडोवन हाडपा खातीर बळगें दिता.

ह्या दिसांनी तर तकलेंत असोच नेट चल्ला. आतां बरोवपाक लागलेल्याच्यान तरी, म्हाज्या भितरलो हो स्वाभिमान जागो जाला. केन्ना केन्ना असल्या घडणुकांनी तिडक, निर्शेवणी तर येताच, पूण हाका लागून ओगी रावन, अन्याय सहन करून, हुंदरा भशेन काम करप म्हाका मान्य ना. हांव ह्यन फुडें फक्त पयशांक लागून न्हु, तर समाजांत थोडी तरी सुदारणा घडोवन हाडपाक, तशेंच स्वताच्या मनाच्या समाधानाक लागून वावुरतलों. मुकेश सरान एकदा ह्या संदर्भात, एके कार्यावळींत म्हणिल्लें म्हाका याद जाता की, दुसरो कोणूय आपल्याक मान दिवं वा ना दिवं, पूण प्रत्येक मनशाक आपलो मान दवरूंक, आपलो स्वाभिमान राखूंक कळपाक जाय.

तर हांवें त्या शिश्टमंडळवाल्याक फुडें सांगलें, ह्या साहित्याच्या क्षेत्रांत जर बरें कितें करतलों जाल्यार म्हाका

म्हाज्या लिखाणांत बदल हो घडोवन हाडचो पडटलो, कारण हांगा दोग - तीग जाण सोडले जाल्यार म्हाजें बरप कोणाकूच आवडना अशें म्हाका दिसता. छापून आयलें म्हणटगीर मागीर ताची कोण जागूच काडी ना ती वेगळी गजाल. ह्या संदर्भात हांवें म्हाज्या मनांत तरी एक गजाल निश्चित करून दवरल्या की, हांव जें बरयतां तें छापून येवप म्हाका महत्वाचें ना, पूण त्या म्हाज्या लिखाणाक अर्थ आसा काय ना, तें बरें काय वायट, ताचो कोणाक फायदो जातलो काय ना, हें जाणून घेवप चड मोलाचे, जेणे करून फावो ती सुदारणा घडून येतली, ना जाल्यार फकत नांवां पुरतें बरयत रावप हातूंत म्हाका तरी कांयच फायदो दिसना.

ह्या संबंदान म्हाका एक हिंदी म्हण याद जाता, 'एक कलाकार भुका होता है तालियों का', पूण हें कोण सम जुनूच घेयना मरे! बरें आसा, हांव तर म्हणटां , ताळयो न्हु जाल्यार गाळयो तरी मारात, कळुनी तरी बाबड्याक खंय चूक जाता ती, पूण ना. कोण विज्ञानाचेर बरयकूय ना आनी आमच्या बरपाचेर उलयकूय ना.

आसूं, म्हाका हरशीं म्हूण तार्चे चड वायट दिसुंक ना, पूण एक विचार मात तकलेंत सतत घोळटालो, तो म्हळ्यार, ही सर्त फुडें कशी व्हरपाची?

आतां रशियेचो सर्तीक दोळे धांपून तेंको आसा म्हण्टगीर, भिवपाची तर कांयच गरज नासली आनी ह्याच नेटान आमी बऱ्योच जाहीरातीय काडल्यो आनी गोंय भर वाऱ्यार सोडल्यो. तोतेन खंय त्यो मागीर गोंया भायरूय पावयल्यो.

अशें करतां करतां सर्तीचो निमाणो दीस उदेलो. आतां नांवां कितलीं येयल्यां काय पळोवंया म्हणलें आनी सारको चलना म्हूण पोपायेच्या झाडाक बांदलेलो म्हाजो मोबाइल सोडयलो. ताका चालू करिना फुडें म्हाका सोमतो धक्कोच बसलो. काळजाचो आताक येतां येतां वाचलों.

ना, तसो तो पोपाये वयलो काडून वेवस्थीत चालू बी जालो, पूण नांवां तपासतना, सर्तींत बुदवंत मनीस कोणूच वांटेकार जावना तें पळोवन, हांव थंयच कोसळ्ळों. पोडों पाड म्हणलें आता.

(ही सर्त आतां जातली काय ना..? फुडें हें प्रकरण कशें वाडलें..? रशियेक हे सर्ती विर्शी कळ्ळ्या उपरांत तांच्यानी कितें केलें आसतलें..? आमचो उमाशेचो पोर हे भानगडींतल्यान भायर सरूंक पावतलो काय ना..? ही सगळी मनांतली दुगदूग भायर काडुया बद्द फुडले उमाशे दिसा... आनी समज फुडल्या म्हयन्यांत उमास येयना जाल्यार ताचे फुडले उमाशेक पळोवंया!)

...उमाशेचे हे आमचे पराक्रम, फुडें खिश्ती खिश्तीनी चालूच आसतले.

टीपः- जरी हें विज्ञानाचें सदर आसलें तरी, तातुंतलो हो एक उमाशेचो खीण हांवें म्हाजें घुस्मटमार जाता तें मन, खगोलशास्त्रीय भाशेंत उकतें करपाक लागून राखून दवरलां. जरी कोणाचो आक्षेप ना जाल्यार फुडाराकूय हांगा राग, मोग, फकाणां, मनीसपण, स्वाभिमान असले भाव व्यक्त करपाची इत्सा आसा.

म्हाज्या मतान, बिम्बा मार्फत व्यक्त केल्लें तें समाजाचें एक पडबिम्बुच.

(आतां ही व्हऽऽडली उमास सोंपयतां सोंपयतां, आमच्या वाचकां मदल्या रशियेच्या भक्तांची मात हांव जाहीर माफी मागतां.)

भाद्रपद, शके 1943,

शुक्ल पक्ष अष्टमः

Opposition of Planet Neptune -

फाटल्या म्हयन्यांत शनी आनी गुरु, सुर्य आनी पृथ्वीचे एके वळींत कशे आयिल्ले, तेच तरेन आयज राती कडे, आमचे गिरावळींतलो सगळ्यांत निमाणो गिरो वरुण, सुर्य - पृथ्वी बराबर एक सरळ रेशेंत येतलो.

पृथ्वी पासून वरुण खुबूच पयस आशिल्ले कारणान, प्रत्यक्षांत तो बेशट्या दोळ्यांनी दिसपाक शक्यच ना. तशेंच दुर्बीणींतल्यानूय बी ताका सोदून काडपाक खूब त्रास पडटात. हांवें आजून पर्यंत म्हाजे दुर्बीणींतल्यान वरुणाक फक्त एकूचदां पळयला आनी तेंवूय बी जेन्ना मंगळ गिरो ताका सामको लाग्गी आयिल्लो तेन्ना.

व्वा..! कितें तो देखाव आसलो..! इल्लोसो निळोच तिबको, पूण सामको पिसो करून उडयतालो. त्या दिसाचें




तें दृष्य तर आजुनूय म्हाज्या दोळ्यां सामकार एकदम स्पश्ट दिसता.तांबडोच मंगळ आनी निळोच वरुण!

ह्या म्हयन्याचे 14 सेतेंब्र 2021, दिसा कोणूय आपूण जावन बी वरुणाक पळोवंक सोदता जाल्यार ताका दिवपाक वत्राय अशी की, तो तिनसांजेच्या 7:30 वरां सावन, फांतोड जाय मेरेन, मीनाचे तकले कडे सांपडटलो.

मीना न्हऽऽ... मीन!

आतां उपकार करून तें आनी कोण काय म्हण विचारूं नाकात, ना जाल्यार कारणा शिवाय आनीक दोन पानां अशींच भरतली.

भाद्रपद, शके 1943, पुनव

21 सेतेंब्र 2021 ह्या दिसा भाद्रपद म्हयन्यांतली खगोलशास्त्रीय पुनव. कृपा करून लिपचांग्या जर चंद्र आपलें सुंदर रूपडें बी घेवन भायर सरलो, जाल्यार मुद्दाम ताका तोखणाक विसरूं नाकात, ना जाल्यार ताका राग येतलो.

भाद्रपद, शके 1943,

कृष्णपक्ष प्रतीपदा:

दर वर्सा, 22 सेतेंब्र (वा केन्ना केन्ना 21) हो दीस आमी शरद संपात म्हण वळखतात (utumnal Equinox). ह्या दिसा, पृथ्वीच्या भुमध्य रेशेर वास्तव्य करपी लोकांक, म्हळ्यार Equador, Brazil, Indonesia सारकेल्या देशांतल्या रहिवाश्यांक, सुर्य मळबांत सारको माथ्या वयल्यान पसार जातना दिसतलो, म्हळ्यार तांचे खातीर आयज सावळी नाशिल्लो दीस.

ह्या दिसांनी तांकां जुस्त 12 वरांचो दीस आनी 12 वरांची रात अणभवपाक मेळटली, म्हणुनूच तर ह्या दिसाक Equinox अशें म्हणटात, म्हळ्यार समान दीस आनी समान रात.

कोणेंय समज प्रस्न विचारलो की सुर्य खंयचे दिकेन उदेता आनी खंयच्यान मावळटा, जाल्यार चडशांच्या तोंडार एकूच, गैरसमज वाडोवपी जाप आसतली, ती म्हळ्यार सुर्य पुर्वेक साकून उदेता आनी पश्चिमेक मावळटा. पूण खरें म्हळ्यार, अशें फकत वर्साचे दोनूच दीस घडटा, तें म्हळ्यार आयज आनी वसंत संपाताच्या वेळार (utumnal and Spring Equinox). वर्साचे बाकिंचे 363 दीस, सुर्य एक तर उत्तर-पुर्व ना जाल्यार दक्षिण-पुर्व दिकेन उदेता. तें उत्तरायण आनी दक्षिणायन बी म्हणटात पळय तें ह्याच संदर्भात.

हें सुर्या विशयींचें खूब मजेशीर विज्ञान, सविस्तारपणान आमी फुडल्या खंयच्या तरी म्हयन्यांत जाणून घेवंया.

भाद्रपद, शके 1943,

कृष्णपक्ष एकादस:

दुर्बीणी विशीं बी केन्नाय कोणाक समजायतना, एक साऽऽदो प्रस्न हांव सदांच विचारतां, तो म्हळ्यार,

कसल्याच आदारा शिवाय (म्हळ्यार बेश्टे, उकत्या दोळ्यांनी), मनीस कितले पयस पर्यंत पळोवंक शकता?

कोण जाप दिवंक शकता ह्या प्रस्नाची..?

ते कुपां परस वयर, उंच उंच उडपी घोणी मेरेन, काय घरा फाटले दोंगुर्लेच्या तोंका पर्यंत..? ते सोसोगडाचे तेंगशे वयल्यान दिसपी दर्या मेरेन, काय त्याच दर्याचे देगे वयल्यान, साता-समुद्रा पार दिसपी त्या इल्लेशा व्हड्यां पर्यंत..?

इतलेंच मर्यादीत समज कोणाचेंय चिंतप आसत जाल्यार, तांकां खरी जाप ही केन्नाच सांपडची ना. आतां जरी ही मर्यादा हुपून समज चंद्राकडे, सुर्याकडे, वा बाकिंच्या हेर गिऱ्या-ताऱ्यांकडे लेगीत पावता, जाल्यार ते खरे जापेच्या 1% सुद्दा लार्गी पावचे नात.

कोणाक प्रत्यक्षांत ह्या प्रस्नाची जाप सोदपाक जाय जाल्यार, 2 ऑक्टोबर 2021 दिसा सारके मध्यानराती वेळार, म्हळ्यार 12 - 12:30रांक सुमार, घरा-भायर येवन, मळबांत वयर माथ्या वयले सुवातेर पळोवंचें पडटलें.

म्हाजाळ्याचेर सोदल्या शिवाय जाका जाप सापडटा तांणी मुद्दम कळोवंचें. अचूक उत्तर दितल्यांक, मार्गशिष म्हयन्यांत एक खास बक्षिस मेळटलें.

शके1943,भाद्रपदांतली उमास

ते पुनवें मेरेनचो वेळ:

वर्सांतले अशे थोडेच दीस आसतात जेन्ना बुध कोणाच्याय वांगडा आसुं वा नासुं, तो आपूण जावन एकोडोच, सारको दोळ्यांत भरता. हरशी गिरे, तारे बी पळोवपाक सामको काळोख जाय मेरेन वाट पळोवंची पडटा, पूण ह्या दिसांनी बुध, लक्ष दिवन पळयत जाल्यार, आमोरेच्या वेळार लेगीत, निळ्या - तांबशा कोराच्या रंगान नटिल्ल्या मळबांतल्यान, बरोऽऽ लिकलिकतना दिसता.

ह्या म्हयन्यांत, उमाशे सावन पुनवे मेरेन, ताचो वेगवेगळे गिरे, तारे, तशेंच चंद्रा वांगडा ओडलायणो खेळ, आमकां सुर्यास्ता मागिरच्या, पश्चिमे कडल्या मळबांत पळोवंक मेळटलो.

हे खेपेक, चवथीच्या दिसा तर बरीच मजा जावपाची आसा. मंगळ... बुध... चित्रा...

शुक्र... चंद्र...




ही चित्रा म्हळ्यार कितें तें खबर आसा व्हय कोणाक?

नाऽऽ... तीं रंगायतात तीं न्हु.

चित्रा म्हळ्यार एक नक्षत्र, जाचे वयल्यान आमच्या गोंयच्या तारखा-वळेरीच्या पयल्या म्हयन्यांक नांव पडलां. पुनवेचो चंद्र जेन्ना ह्या नक्षत्रांत दिसता, तेन्ना आमचो तो चैत्र म्हयनो चालू आसता.

आतां विशय आयलाच म्हूण सांगतां... हो चैत्र जो आसा पळय, तो म्हाजो सगळ्यांत आवडटो म्हयनो. हो तोच वेळ (रुतु) आसता, जेन्ना आमची पृथ्वी, सैमीक दृष्टीन एक नवो जल्म घेता. ह्या दिसांनी वेगवेगळीं सवर्णी - सुकर्णी, फुलपाखरां, हांच्या वांगडा फाटल्या-फुडल्यान नाचत खेळपाक कितली मज्जा येता जाणा?

तांचे ते रंगीबेरंगी प्रकार.., तरांतरांचे सुरमय साद.., कितें म्हूण सांगु? पृथ्वीच्या नव्या जल्माचो जणू तीं सगळीं एक तरेचो उत्सवूच मनयतात. हें सगळें पळोवन, आयकून, मन सामकें तृप्त जाले बगर रावना. ह्या दिसांनी तांचो एक वेगळ्याच प्रकारचो नाच आमकां पळोवंक मेळटा. कोणाक खबर आसा, हो तांचो नाच कसलो आसता तो?

ह्या वसंत रुतुंतल्या चैत्र म्हयन्यांत, आमच्या सरभोंवतणी खंयूय पळयल्यार, पृथ्वीन घेतिल्लें तें नवें ताल्ल रुपडें रोखडेंच लक्षांत येता. गोंयचे संस्कृतायेंत आमी बेटोच ह्या म्हयन्यांक पयलो नंबर दिवना!

आमचे पयली काळा वयले लोक, तेन्नाचे शास्त्रज्ञ बी बरेच हुशार आसले, पूण आमकां कित्याक तांचे विशीं पडलां आतां? आमची बुदवंतकाय आमकां पुरो जाल्या. हे सैमाचे विविध रंग बी कोणाक नाकात आतां. एकामेकाचे बदलत्या सभावाचे आनी फटिंगपणाचे तरेतरेचे रंग पळोवनूच

दीस काडपाचे.

ह्या सगळ्यां भितर म्हाका एक कळना की, खंयचोय विशय अभ्यासपात येयलो जाल्यार लेगीत तो ह्याच मुद्यार येवन कित्याक थारता? कोणाकडे आसा व्हय जाप हाची? कोण चिंतपाक शकता काय हाचेर?

(हातूंत मुख्य गजाल जी सांगपाची आसली ती कुशीकच उरली. आसू आतां, ती आनी विस्तारान सांगपाची इत्साय ना म्हाका. पूण जांकां इत्सा आसा, तांच्यानी ते गिरे, चंद्र, चित्राचो तारो, म्हळ्यार कन्या राशींतलें तेजस्वी नक्षत्र - Star Spica in Zodiac Constellation Virgo, हांका त्या दिसांनी, एके वळींत येवन कशे नाचतात तें पळोवपाचें.

हुतहुतो चंद्र तर एक एक दीस करून, सगळ्यां गिऱ्या - ताऱ्यांगेर नेवरी खावपाक कसो भोंवता तें पळोवंक मजाच येतली. मंगळ, बुध आनी शुक्र पश्चिमेकडे, जाल्यार गुरु आनी शनी पुर्वेकडे आनी तातूंत भितर चंद्र हो सगळ्यांकडे हेडटना दिसतलो. अशे तरेन ह्या भाद्रपदातल्या सैमीक सणाची रचना आसतली.

हे खेंपेची चवथ सगळ्यांनी फांग बी लावन न्हय तर, हांच्या वांगडा नाचत खेळत फुलोवंची, तशेंच आपल्या जिवाची आनी सरभोंवतणच्या पर्यावरणाचीय तितलीच काळजी घेवंची.

निमाणी गजाल, फाटले फावटीचें अंधश्रद्धे विशीचें बरप जांणी वाचलां तांकां आनी आनीक परतून सांगी ना की, उमेदीन सोडल्यार, खंयच्याय वेळार आनी केन्नाय जरी चंद्राक पळयलो जाल्यार कोणाचेंच, कसलेंच वायट बी जावचें ना. सगळीं जाणां ह्या वयर सांगिल्ल्या खगोलशास्त्रीय घडणुकांचो मनसोक्त आस्वाद घेवंक शकतात)

■■■

यादिंचो पोसो
ज्योती
दत्तात्रय देशपांडे



# स्वतंत्र गोंयांत परत..

गोंयां वचपाचे वेध म्हाका लागिल्लेच! पूण उपटसुंभा सारकें वच्चे परस कायद्याच्या आदारान वचप हो हेत आसलो.

ते पासत हांवें आनी म्हजी इश्टीण शालिनी देसायान एक सादो सरळ पयलो अर्ज केलो तो म्हणल्यार, 'आमचो प्रदेश आतां स्वतंत्र जाल्लो आसा.तेन्ना सिल्वासाची आमची नोकरी थंय चालू उरची,तशेंच हांगचीं सिन्हींशेचीं वर्सांय थंय जमेक धरचीं असो सरकारी आदेश जारी करचो.'

सरकारान जर तसो आदेश काडिल्लो जाल्यार सिल्वासाचीं सात-आठ वर्सां गोंयांत जमेक धरपाचीं. सरकाराचो तसो आदेशूय आयलो आनी सगळे सोपस्कार जाले उपरांत हांव आनी शालिनी,23 जुलाय 1963 त गोंयां पावलीं. शालिनी वांगडा ताचो पूत आशांक आशिल्लो. हांव कायदो सल्लागार श्री. टिटो मिनेझिस हांच्या ऑफिसांत स्टेनोग्राफर म्हूण जात्यार शालिनी कस्टमांत रुजू जालीं. ताची मागीर रोखडीच सचिवालयांत बदली जाली.

म्हज्या बाबाचे बदलीची ऑर्डर आजून येवंक नाशिल्ल्यान हांव सोडून घरचीं सगळीं सिल्वासाकूच आशिल्लीं. शालिनीन बिठ्ठोना भाड्याचें घर घेतलें आनी हांवें पणजे म्हज्या मामागेर रावपाचें थारायलें.

गोंय निकतेंच स्वतंत्र जाल्ल्यान तो स्थित्यंतराचो काळ आशिल्लो. प्रशासन वेवस्ता, न्याय वेवस्ता हातूंत बदल जावंक लागिल्ले. हांव गोंयांत पावतकच रुजू जाल्लें तें कायदे आयुक्त (Judicial Commissioner) टिटो मिनेझिस



**श्रीमती ज्योती दत्तात्रय देशपांडे**
म्हळ्यार पुर्वाश्रमीच्यो मालू रघुवीर कामत. तांचो बापूय रघुवीर श्रीनिवास कामत हे गोंयच्या स्वातंत्र्यलढ्यांतले सेनानी आनी राजकैदी. ताका लागून ल्हान पिरायेचेरूच लेखिकेचेर गोंय मुक्ती चलवळीचो (त्या काळची जयहिंद चळवळ) प्रभाव पडलो. तांच्या बापायचे मित्र नामनेचे साहित्यकार रवीन्द्र केळेकार हांच्या मार्गदर्शना खाल वर्ध्याक महिलाश्रमांतलें शिक्षण, आचार्य विनोबा भावे हांच्या भूदान पदयात्रेंत सहभाग. अजूनय तांचें रासवळ वावरांत योगदान आसा. ह्यो आसात तांच्या जिवितांतल्यो कांय यादी खिस्ती खिस्तीनी...
पत्तो : परवरी-गोंय
मो: 9822176170

हांच्या ऑफिसांत. म्हज्या वांगडा थंय थेल्मा फुर्तादो म्हूण आनीक एकले आशिल्लो. ताचे लागीं म्हजी जाल्ली इश्टागत आज लेगीत आसा. फुडाराक सेशन कोर्टाची स्थापना जावपाची आशिल्ली. तातूत स्टेनो, भाशांतरकार असल्या सुवातीं पासत परिक्षा आशिल्ल्यो. टिटो मिनेझिस हाच्या सांगण्या वयल्यान हांव त्या दोनूय परिक्षांक बसले. कित्याक तर सुनावणेच्या वेळार कोर्टांत दुभाषाचें काम करपाचो अणभव म्हाका नगरहवेलींत आशिल्लो. हांव दोनूय परिक्षा पास जालें. हांवें स्टेनोग्राफर जावप पसंत केलें. ही गजाल 1963 वर्साची. हांव ह्या पदाचेर चड काळ रावंक शकलें ना. कारण 1963 च्यो वेंचणुको जाले उपरांत, 9 जानेर 1964 क पयली विधानसभा घडली. विधिमंडळाचें कामकाज चलोवपा पासत केंद्र सरकारा वतीन श्री. एस्.बालकृष्णन हे कायदो आनी विधिमंडळ सचिव म्हूण नेमणूक जाल्ली. तांच्या आदेशा वरवीं पयल्या विधानसभेच्या पयल्या सत्रांत इंग्लीशींतल्यान varbatim Recording करपा पासत म्हजी नेमणूक जाली. मराठी रेकॉर्डींगा पासत महाराष्ट्र विधिमंडळाचे श्री. मोरेश्वर रिसबूड हांकां डेप्युटेशनाचेर धाडिल्ले. पयलें सत्र पांच दीस चल्लें. श्री. रिसबूड हांचो अणभव आकांत आशिल्लो. ते जरी मराठी रिपोर्टर आशिल्ले तरी तांची इंग्लीश उत्कृश्ट आशिल्ली. सुर्वेच्या काळांत म्हाका तांचें जायतें मार्गदर्शन लाबलें.

पयली विधानसभा, पयले मुखेलमंत्री श्री भाऊसायब बांदोडकार, हांव पयलेंच रिपोर्टर. सगळें एक सपन कशेंच दिसतालें! खूब व्हडली जापसालकी आशिल्ली. वातावरणय प्रसन्न आशिल्लें.1961 त लोकसभा काम काज लागसून पळोवपाची सद आयली तेन्ना गोंय मेकळें जावंक नाशिल्लें. आनी आतां मेकळ्या गोंयचे पयले विधानसभेंत,विधिमंडळ खात्यांत काम करपाचें सपन पुराय जाता हाची खोस भोगताली.



पयले विधानसभेंत हांव आनी मोरेश्वर रिसबूड अशीं दोनूच रिपोर्टर आशिल्लीं. उपरांत मार्चांत इंग्लीश रिपोर्टींग पासत श्री. यशवंत आमोणकार आनी श्री. जनार्दन पिल्ले हांची नेमणूक जाली. श्री. आमोणकार हे मुखेलमंत्री दयानंद बांदोडकार हांचे पीए आशिल्ले. तशेंच जनार्दन पिल्ले त्या काळचे गव्हर्नरांचे पीए आशिल्ले. दोगूय स्टेनोग्राफींत फिशाल आशिल्ले. त्या भायर मराठी रिपोर्टींगे पासत श्री.सुरेश रिसबूड हांची नेमणूक जाल्ली. विधानसभेच्या कामकाजाचें रिपोर्टींग करतना कुशळ टीम वर्क आसचें पडटा. सुदैवान विधानसभा आनी आमी सगळीं एकमेकांक नवीं आसलीं तरी आसलीं तरी आमचें टीम वर्क खूब बरें आशिल्लें. खंयचोच संवाद चुकला अशें जावंक फावनाशिल्लें. ताका लागून जाची बरोवपाची पाळी आसताली ताका दुसऱ्यान रिलीव्ह केले बगर पेन थांबोवंक नज आशिल्लें. ताका लागून सगळ्यांकूच कामकाजाचेर शिर्तीद केंद्रीत करचें पडटालें. सुर्वेक मोरेश्वर रिसबूड हांणी खूब बरें मार्गदर्शन केलें. त्या भायर रिपोर्टींगांत चड फिशाल जावपाचे नदरेन ते आमकां मदले वेळार सराव जावंचो म्हूण डिक्टेशनय दिताले. एकमेकाक रिलिव्ह करतना कशे तरेन मेळ सादपाचो आसता हाचेंय शिक्षण ते दिताले. ते डेप्युटेशनाचेर आयिल्ल्यान वर्सा उपरांत ते परत मुंबय गेले. हांगा बेगोबेग भरती करप शक्य नाशिल्ल्यान मुंबय विधानसभेंतले श्री.शिंदे हे कांय वर्सां पासत मराठी रिपोर्टर म्हूण आयले. ते परत गेल्या उपरांत श्री.बाळकृष्ण सडेकार हांची नेमीत नेमणूक जाली. कांय वर्सां ही टीम उरली. श्री. पिल्ले हे केंद्र सरकाराचे नोकरेंत आशिल्ल्यान ताका बदली मेळून ते दिल्ली गेले. ताचे सुवातेर कायदो सचिवाची पीए आशिल्ल्या डारोथी डिसोझाची नेमणूक जाली. लग्ना उपरांत तें नोकरी सोडून गेल्ल्यान ते सुवातेर मुखेल

सचिवांची पीए म्हूण काम करपी लिना डिसौझाची नेमणूक जाली. त्या उपरांत जायतीं वर्सां आमोणकार, सडेकार, रिसबूड, लिना, पाठक आनी हांव असो स जाणांचो ग्रुप आशिल्लो. अर्दी मर्दी कोंकणीचो वापर जातालो. तोय आमीच सांबाळून घेतालीं. कालांतरान कोंकणी उलोवपी आमदार आयिल्ल्यान प्रस्नोत्तरां आनी आनी हेर कामकाज कोंकणींतल्यान जावपाचें प्रमाण वाडलें. त्या वेळार श्री. सुरेश देशप्रभू आनी श्री. गुरुदास नायक ह्या दोन कोंकणी रिपोर्टरांची नेमणूक जाली. वेगवेगळे आमदार, तांच्यो उलोवपाच्यो वेगवेगळ्यो तरा, मंत्र्यांच्यो जापो, वादविवाद हें सगळें उतरान उतर बरोवन घेतना आमचे टिमीचो सुंदरूच मेळ बशिल्लो. विधानसभा चालू आसतना आपापले ड्युटी प्रमाण धांवपळ करप बी हें सगळें करपाक विधानसभेच्या सभाघरा लागसारूच आमचो रिपोर्टींग विभाग आशिल्लो. मागीर जायत्या वर्सांनी म्हाका 1982 वर्सा प्रमोशन मेळ्ळें. हांव 'एडीटर ऑफ डिबेट' जालें. तशें चर्चा संपादीत करपाचें काम हांव करतालेंच. दिसभराचें कामकाज

टायप जाले उपरांत जी पुस्तिका तयार जाता, ती कालांतरान सरकारी छापखान्यांतल्यान छापून येताली. आरंभा साकून दरेक विधानसभेची एक छापील पुस्तिका विधिमंडळ लायब्ररींत आसता. आमदार, म्त्री,सभापती, उपसभापती जें उलयतात तें उतरान उतर छापील स्वरुपांत सरकार दरबारांत आसता.

कामकाजांत टीमवर्क आशिल्लें तशेंच आमी सगळे सहकारी एका कुटुंबा वरीं वावुरताले. आमच्या कामाची पद्दतूच अशी आशिल्ली की एकलो गैरहजर आसलो तरी सांकळ तुटनाशिल्ली. ताका लागून विधानसभा कामकाज चालू आसतना कोणा एकल्याक रजेची सामकी गरज भासल्यार वरिश्ठांची हरकत आसनाशिल्ली. तरी लेगीत एकमेकाचें काम सांबाळून घेवं हाची जो मेरेन हमी मेळना तो मेरेन रजा मंजूर जाय नाशिल्ली. आमचे भितर हे बाबतींत सामको एकचार आशिल्लो. ताका लागून सगळ्यांचे सगळे प्रसंग आमी सांबाळून घेतालीं.

विधानसभेच्या कामकाजा भायर विधिमंडळ खात्याचे सचीव श्री. एस. बालकृष्णन् हांच्या आदेशा प्रमाण 'इएफयू' (EFU-ESTATUTO DO FUNCLONALISMO Ultramarino) ह्या ओवरसीज एम्पलॉयीज सर्व्हीस रुल्स ह्या कायद्याचें इंग्रजींत भाशांतर हांवें केलें. गोंय स्वतंत्र जाल्या उपरांत सरकारी नोकरांक आदले वरी वेतन आनी सवलतींचो पर्याय दिल्लो. ताका लागून सरकाराक तो कायदो जाणा जावन घेवपाची गरज आशिल्ली.

विधानसभेच्या कामकाजा लागीं संबंधीत आशिल्ल्यान सभापती, उपसभापती, मुखेलमंत्री, मंत्री हांचे लागीं कामा निमतान संपर्क आसतालो. पयले सभापती श्री. पां. पु. शिरोडकार हे खूब काळाची बंदखण भोगिल्लो सुटके झुजारी आशिल्ले आनी वकिलींतूय फिशाल आशिल्ले. तांची कामकाज पद्दत,विनोदबुद्दी, तीख्ण बुदवंतकाय ही तुळा करपा भायली आशिल्ली.

दुसरे विधानसभेंत श्री. गोपाळ आपा कामत हेय एक व्हड सुटके झुजारी आनी वकील सभापती म्हूण आयले. तांचेय कारकिर्दींत जायतें कितें शिकूंक मेळ्ळें. ह्या काळांत भाऊसायब बांदोडकार मुखेलमंत्री आशिल्ले. तांकां कामकाजाचो बी जरी अणभव नाशिल्लो तरी धडाडी आनी उमेदीन सगळें निस्तारून व्हरताले. तांच्या मरणा उपरांत मुखेलमंत्रीपदार शशिकलाताई आयली. ही सगळीच मंडळी सुटके झुजांतल्या गोतावळ्यांत आशिल्ल्यान आनी म्हजीय तीच फाटभूंय आशिल्ल्यान परस्परां विशीं आदर अणभवलो.हांव कामांतूय खंयच फार्टी नाशिल्ल्यान तेय बाबतींत आदर दोट्टी जातालो.

म.गो.चो कार्यकाळ उलगल्या उपरांत मुखेलमंत्री म्हूण श्री.प्रतापसिंग राणे आयले. तांची एकूण शिस्त आनी कामकाजाची पद्दत अतिशय उमदी आशिल्ली. तांच्या कार्यकाळांत आमचे रिपोर्टींग टिमीक खुबूच आदराची वागणूक लाबली. म्हजें भाशे वयलें प्रभुत्व आनी काम ांतली फिशालकाय हाका लागून तांकां आनी सभापती श्री. फ्रोयलानो माशादो हांकां खूब कवतूक दिसऽ.

9 जानेर 1964 त गोंय विधानसभेंत बितर सरलें आनी 6 वे विधानसभेच्या कार्यकाळांत 'एडीटर ऑफ डिबेट्स' ह्या पदा वयल्यान 20 जानेर,1988 दिसा हांवें स्वेच्छा निवृत्ती घेतली.

●●●




# सनदी सेवा

## संदी आनी आव्हाना

**डॉ. वामन रा. नायक** हे पुण्द महाविद्यालयांत फाटलीं ८ वर्सां प्राचार्य म्हूण वावुरतात. कथा, कविता, आनी ललित साहित्याची सेवा करतात. कांय काळ ताणीं 'वांगडी' नांवाचें एक नेमाळेंय चलयलें. ते 'भांगरभूंय' तशेंच हेर नेमाळ्यांनी सातत्यान लेखन करतात.तांचीं 'इंग्लीश - कोंकणी समानार्थी-विरुद्धार्थी शब्दकोश','वेद फुडाराचे','हिंद स्वराज्य वा इंडियन होम रूल' आनी 'अशे घडले डॉ.ए.पी. जे. अब्दुल कलाम' हीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत
मो: 9527744990

**भारतीय प्रशासन वेवस्था चलवपा खातीर भेस बऱ्या प्रशासकाची गरज आसता. सनदी सेवकांची नेमणूक लोकसेवा आयोगाच्या माध्यमांतल्यान जाता. हे परिक्षेंतल्यान आय ए एस, आय पी एस, आय एफ एस अशे वेगवेगळे अधिकारी निवडतात.**

एक काळार गोंयांत सनदी सेवा परिक्षे खातीर मातूय सुविधा नाशिल्ल्यो. म्हाका याद जाता, कांय वर्सां पयलीं पणजेच्या पदव्युतर केंद्रांत, गोंयांत ह्यो सुविधा नाशिल्ल्यान, डॉ.सदाशिव देव, आदले मुखेली, गणित विभाग, गोंय विद्यापीठ, हांणी लोकल सेल्फ गव्हर्निंग संस्थे वरवी हे वर्ग चलोवपा खातीर यत्न केल्ले, नाममात्र फी घेवन, तातूंत कांय जाणांनी प्रवेश घेतिल्लो. तातुंतले कांय जाण गोंय प्रशासनात उंचेल्या पदार वावरतात. तांकां अर्थशास्त्र शिकोवपाक म्हाका संद मेयळी. मुखार ताणी खंय मार्गदर्शन घेतलें वा ना तें खबर ना. पूण कठीन परिस्थितींत तांणी घेतिल्ल्या प्रयत्नांत तांकां फळ मेयळें. सद्या गोंयांत स्पर्धा परिक्षा केंद्र जातलें म्हण आयकूंक येता. पणजेच्या डॉन बॉस्कोंत सेन्टर आसा म्हूण आयकलां. करिअराचो एक पर्याय म्हूण स्पर्धा परिक्षांक प्राधान्य दिवपाची मानसिकता आमच्या विद्यार्थ्यां मदीं वाडत आसा ही बरी गजाल. युपीएससी केल्यार मोटें पद मेळटा ही म्हत्वाकांक्षा दिसप वा ध्येयवादी आसप हातूंत कांय वायट ना, पूण हे करियरचे वाटेत ज्युस्त कितें साध्य करपाचें आसा हे विशीं स्पष्टता आनी तें साध्य करपा खातीर नियोजनबद्ध प्रयत्नांची साथ आसप गरजेचें. देखून केंद्र आनी राज्य लोकसेवा आयोगाच्या वेगवेगळ्या परिक्षांची ज्युस्त म्हायती घेवन उमेदवारांनी आपली येवजण थारावंक जाय.

सनदी सेवा, जाची भारतीय



संविधानात तरतूद केल्ली आसा, त्या केंद्रीय लोकसेवा आयोगा वरवी, अखिल भारतीय स्तराचेर, सनदी सेवा परिक्षांचें आयोजन करता, म्हळ्यार ह्या परिक्षां वरवी सनदी सेवकांची निवड आनी भरती करप जाता. ताची नेमणूक सरकार करता. लोकसेवा आयोग ही एक स्वायत्त संस्था. एकदम कमी पिरायेचेर म्हळ्यार 21व्या वरसा उपरांत शासनाचे महत्वाचे यंत्रणेंत सहभागी जावपाची संद मेळटा. म्हत्वाचे म्हळ्यार, सनदी सेवा परिक्षेचे तयारेक लागून परिक्षांचें नवें दालन उक्तें जाता.

परिक्षेचें स्वरूपः ही एक स्पर्धात्मक परिक्षा. हे परिक्षेंत येशस्वी जावप हें एक आव्हान आसता! पूण तें अशक्य न्हय.आयोगाक त्या त्या वर्सा जितलीं पदां भरचीं आसतात ते प्रमाणे त्या त्या स्तराचेर विद्यार्थी पात्र थारावप जाता. जायरातींत नमूद केल्ले संख्ये इतलेच विद्यार्थी निमणे वळेरींत निवडप जाता. परिक्षेची रचनाः पयली पूर्व, मागीर मुखेल आनी मुलाखत, हे नागरी सेवा परिक्षेंतले तीन स्तर आसात.

भारतीय प्रशासन वेवस्था चलवपा खातीर भेस बऱ्या प्रशासकाची गरज आसता. सनदी सेवकांची नेमणूक लोकसेवा आयोगाच्या माध्यमांतल्यान जाता. हे परिक्षेंतल्यान आय ए एस, आय पी एस, आय एफ एस अशे वेगवेगळे अधिकारी निवडतात. परिक्षा कठीन आसता पूण अशक्य न्हय. युपीएससी परिक्षा दिवपाची पिराय 21 ते 32 वर्सा मेरेन आसूंक जाय. ओ बी सी खातीर आनीक तीन आनी अनुसुचीत जाती जमाती खातीर 5 वर्सा शिथिलताय आसा. हे खातीर शिक्षणीक पात्रताय आसा ती खंयचेय शाखेचो पदवीधर. मुक्त विद्यापीठाची पदवी लेगीत ग्राह्य मानतात.

ह्यो परिक्षा दिवपार्चे प्रमाण वाडिल्ल्यान परिक्षा मातश्यो कठीन जाल्ल्यो आसात, देखून पयल्या वा दुसऱ्या यत्नात येस मेळोवपी विद्यार्थ्यांची संख्या कमी आसा. बरेच विद्यार्थी बारावी उपरांत, चार वर्सांचो अभ्यासक्रम पुराय करून स्पर्धा परिक्षे कडेन वतात. देखून तांची तयारी उसरां सुरू जाता. बारावी उपरांत स्पर्धा परिक्षेच्या अभ्यासक्रमांक सुरवात केली तर पदवी जाय मेरेन बरोच अभ्यासक्रम पुराय जावंक शकता. हे खातीर योग्य व्यक्ती कडल्यान मार्गदर्शन घेतल्यार तें फळादीक थारूं येता. हे खातीर सुटयेंत जर युपीएससी खातीर फौंडेशन कोर्सा खातीर प्रवेश घेतल्यार योग्य तें मार्गदर्शन आनी दिका मेळूं येता. तशेंच येशस्वी उमेदवारांचीं मार्गदर्शनपर व्याख्यानां



आयकप . तांच्या मुलाखतीं, वेगवेगळ्या मासिकांनी, खबरेपत्रां आनी नेमाळ्यांनी उजवाडा येतात. आयएएस टॉपर मार्फत पुस्तकां मेळटात. तीं वाचल्यार बरेंच दुबाव पयस जावंक शकतात.

जाणकारांच्या मतान सामान्य अध्ययन (जनरल नॉलेज) ह्या विशयाचेर चडांत चड प्रस्न पूर्वपरीक्षे पासून मुखेल परिक्षा वा मुलाखती मेरेन विचारतात. देखून सामान्य अध्ययना खातीर स्कूल ते बारावी मेरेनचीं सगळीं पुस्तकां जतनायेन वाचल्यार फायदो जाता. त्या भायर लोकराज्य, योजना, कुरुक्षेत्र आनी असलो कोर्स चलोवपी संस्था, देखीक, अविनाश धर्माधिकारी (ex.IS) (08069015454)संपादक चाणक्य मंडळ, हें म्हयनाळें चलोवपी हांकां कॉन्टॅक्ट करूं येता आनी तांचें मार्गदर्शन घेवं येता.




जाणकारांच्या मतान खबरेपत्रां हीं सामान्य अध्ययना खातीर, तेच बरोबर निबंधा खातीर आनी मुखेल परिक्षेच्या वयकल्पिक विशया खातीर खूब मोलादीक आसा. साधारणपणान खबरेपत्रांचो वांटो ह्या परिक्षां खातीर 20 ते 25 टक्के आसता आनी डेली खबरो आयकप फायद्याचें थारता. वैकल्पिक विशयाची निवड बरोच विचार करून थारावंक जाय. सामान्यपणान राज्यशास्त्र, समाजशास्त्र, लोकप्रशासन, मानव वंशशास्त्र, भूगोल, इतिहास हे विशय चड करून निवडप जातात. ह्या परिक्षांच्या आदल्या 7-8 प्रस्नपत्रिकांचें विश्लेशण वाचप म्हत्वाचें. तातुंतल्यान प्रस्नाचें स्वरूप आनी बदल मतीन येता. कोविडचे परिस्थितीक लागून, परिक्षांची तयारी करप्यांचेर बरोच परिणाम जाल्लो आसा. गांवच्या विद्यार्थ्यांक अभ्यासाची सुवात सोडून आपल्या मूळ गांवांत वचों पडलां. सद्या इंटरनेटच्या माध्यमांतल्यान जाय ती म्हायती आनी मार्गदर्शन सहजतायेन मेळटा. स्पर्धा परिक्षेच्या संदर्भांत बरीच संकेत थळां आनी यूट्यूबां वयली खूब म्हायती मेळटा. लेखन, मनन, वाचन, चिंतन आनी मेहनतीच्या बळार लेखन कौशल्य विकसीत करूं येता. त्या खातीर संवाद कौशल्य सुदारूंक जाय. विद्यार्थ्यांनी मुलाखती खातीर तयारी करपाक जाय. सरावान लेखन कौशल्य विकसीत जाता.

दर वर्सा लाखांनी विद्यार्थी देशांतल्यान प्रिलीम खातीर बसतात-आयएएस/ आयपीएस./आयएफएस ऑफिसर जावंचे खातीर, हातूंत वेगवेगळ्या राज्यांचो वांटो कितलो आसा, हें जाणा जावप म्हत्वाचें. सगळ्यांवून चड आयए एस ऑफिसर युपी आनी बिहारांतल्यान येतात. हाचें फाटलें कारण म्हळ्यार थंय सरली लोकसंख्या आनी थंय सरली समाजीक, अर्थीक परिस्थिती. त्या मानान दिल्लीचे चड आयएएस जातात. तांचे लोकसंख्येच्या मानान, ताचे फाटलें कारण म्हळ्यार, बऱ्याच जणांचे वडील दिल्लीक सरकारी सेवेंत आसात. पूर्व परिक्षेंत दोन पेपर असतात, प्रस्न वस्तुनीष्ठ भोवपर्यायी आनीक नकारात्मक गूण येवजण आसता. हातुंतलो पेपर 1 आसता 200 मार्कांचो. हातूंत आस्पाव जाता सामान्यज्ञान आनी चालू घडामोडींचो. पेपर 2 आसता 200 मार्कांचो, जो सिविल सर्विसेस ऍप्टीट्यूड टेस्ट हाचेर आदारलेलो आसता. हो पेपर पात्रता पेपर.

मुख्य परिक्षेंत 9 पेपर आसतात - भाशेचे दोन पेपर, इंग्रजी आनी एक प्रादेशीक भाशा. हे दोनूय पात्रता पेपर. भाशा विषयाचे गूण मेरिटा खातीर धरिनात. युपीएससी मेरिट यादी मुखेल सात विशयाचेर आदारलेली आसता . सात पेपरांचे वट्ट गूण 250÷7=1750 मार्क आनी मुलाखतीक 275 गूण आसतात.

तरणाट्यांक स्पर्धा परिक्षांचें आकर्षण सदांच आसा. पूण, ह्या परीक्षां कडेन वच्चे पयलीं विद्यार्थ्यांनी ह्या क्षेत्रांतलीं जतनाय,आव्हाना आनी संदी विशीं जाणून घेवन, अभ्यास पददत, अभ्यास आनी वेळेचें नियोजन आनी मुलाखतीची तयारी योग्य मार्गान केल्यार येस मेळूंक शकता.

●●●

दिस्टावो



एच . मनोज

# आमचे सूख-दुख्खाचे सोबती कोण?

एच. मनोज म्हणल्यार मनोज हळर्णकार. पेशान ते शिक्षक आनी फाटलीं 31 वर्सां अध्यापन करतात. तांचो 'मनोभाव ' हो काव्यसंग्रह उजवाडाक आयला आनी 'मनकळे फुलतना' हो लेख संग्रह उजवाडाचे वाटेर आसा. ते बिम्ब, भांगरभूंय आनी हेर नेमाळ्यांतल्यान सातत्यान लेखन करतात.
पत्तोः चिखली
मोः 98224 41417

संत कबीर आपल्या एका दोहात म्हणटा...

**दुःख में सुमिरन सब करे सुख में करै न कोय।**
**जो सुख में सुमिरन करे दुःख काहे को होय ।।**

संकश्टां वेळार सगले जाण देवाक उलो मारतात. पुणून सुखी जीण सारता आसतना कोणाक देवाची याद जायना. जे मनीस सुखांत आसतनाय देवाचो उगडास करतात तांच्या जिवितांत दुख्ख येवंक शकना असो वयल्या दोहाचो अर्थ जावन आसा. कबिराचे दोहे म्हणल्यार निती मुल्यांची खण म्हणूं येता. तांचे दोहे वर्तमान जिणेंत लेगीत मनशांक सरळ मार्ग दाखोवंक सक्षम आसात अशें म्हणल्यार चूक जावंची न्हय. हो दोहा याद जावंक कारण, सरभोंवतणचें वातावरण! आयज पळयत तो मनीस कसले ना कसले चिंतेंत घुसपल्लो दिश्टी पडटा. ताचे मुखार शेंकड्यांनी प्रस्न उबे राविल्ले आसात. कांय जाणांक तर आपल्या अस्तित्वाचीच चिंता लागून रावता. तरी लेगीत आमी मनीस कितें वगी बसपी जीव न्हय? खंयचेय परिस्थितींत दोन हात करप हो तर आमचो जल्मजात सभाव! देखून दुख्खांत लेगीत सुखाचो मार्ग सोदपाक सदांच तयार रावपी मनशाक आमी खटपटी मनीस म्हणटात, ताची तोखणाय करतात. दुसरे वटेन अशेय लोक आसात जे साम, दाम, दंड, भेद सारकीं हत्यारां वापरून सूख पदरांत घालून घेवंक जोखून राविल्ले आसतात. तांकां कितें म्हणप? कांय जाण तांकां आपसुवार्थी म्हणटले तर कांय जाण, जण एकल्याचो सभाव म्हूण ओगी बसतले.

सुखा फाटल्यान धांवतलो जाल्यार पयले सुवातेर सूख म्हणल्यार कितें हें आमी जाणा जावंक नाका? संवसारांतल्यो सगल्यो चैनीच्यो वस्तू मेळोवप म्हणल्यार सूख न्हय? सुखाची व्याख्या कोण करुंक जाणा न्हय? हांव जाणा ते प्रमाण सांगचें जाल्यार मनशान अणभविल्लो खीण, ते मागीर सुखाचे वा दुख्खाचे आसूं येतात! मनशाक जेन्ना कसल्याय कारणांक लागून सूख भोगता तेन्ना ते सुखाचे उमाळे, जाल्यार जेन्ना दूख दिणें आसता तेन्ना ते दुख्खाचे उमाळे जाले नात? मनशाचे जिणेंत बरी गजाल घडटा ती पळोवन तो सुखावता. ताचें मन प्रसन्न उरता. हाचोच अर्थ मनीस त्या वेळार सुखाचो अणभव करता आसतलो न्हय? मनीस जेन्ना खिन्न जाता, ताचें मन थाऱ्यार उरना, मनांत एक तरेचो हुस्को ताका आसता, ताचें आपल्या कामां धंद्यांत लक्ष लागना, जिणेंत आडखळ्यो येवंक लागतात तेन्ना तो दुखी जाता. कांय काळा खातीर ही परिस्थिती तशीच उरुं येता. पुणून ती परिस्थिती पयसावतली हातूंत दुबाव नासता. आमी जिणेंत दुख्खाचो आसपाव करून घेनात तरी पूण मनशांक



कसलें ना कसलें दुख्ख सतायता. हें अशें कित्याक लागून जाता काय? ही मुखेल प्रस्न कोणाच्यान सोडोवंक जायचो ना. वेळ आनी काळ बदलत आसता. आयज काळखी रात तर फाल्यां उजवाड फाकतलोच म्हूण आमी जाणात! देखून विरूस जाय नासतना येता ते परिस्थितीक तोंड दिवप गरजेचें आसता. अशे वेळार मनशाक एका विश्वासू सख्याची वा सखीची गरज उप्रासता. ती गरज भागत जाल्यार ताचे जिणेंत परत एकदां खोशयेचे खीण येवंक कळाव लागना. जो बरो मागतो आसता तो संकश्टा वेळार केन्नाच फाट दाखयना. अशें तरेच खडेगांठ मनीस आमचें सुख-दुख्खाचें खरे सार्थी जावंक पावतात.

आयच्या तरनाट्यांनी सदगुरुजीचो उपदेश आपणावपाचो यत्न करुंक जाय. ते म्हणटात 'तुमी जशे आसात तेच भशेन तुमचो देश आनी तुमचो भोंवतणचो वाठार जाता. तरनाट्यांत कठीण परिस्थितींत लेगीत आपले जिणेचो तोल सांबाळून जगपाची तांक येवपाक जाय. तेन्नाच जीण सफळ जावंक पावतली.' कसलीय इत्सा पुराय करतलो जाल्यार मनशान पयले सुवातेर आत्मबळगें बाळगुचें पडटा जाका लागून तो आपल्यो इत्सा पुराय करुंक शकता. जर त्यो इत्सा पुराय जावंकनात जाल्यार ताच्या दुख्खांत भर पडूंक लागता. तो मार्ग भटकूंक शकता म्हूण आवय-बापायन भुरग्यांचे हालचालींचेर नदर दवरून, तांच्यो गरजो वळखून फाव तो पालव दीत जाल्यार तो खीण पासार जावन जीण मार्गार हाडूंक सजत जाता. आयचे तरनाटे एक तर आपलेच तंद्रीत घुसपून रावतात वा मोबायलांत दंग जाल्ले आसतात अशें आयकुपाक मेळटा. म्हाका मात तशें मात्तूय दिसना. कित्याक तर ते घडये आपल्या अभ्यासांत गुंथिल्ले आसूंक शकतात. वा नवें कितें तरी शिकपाचो यत्न करीत रावतात आसत. एखाद्याचो गैरसमज जावं येता म्हूण कसलोय निश्कर्श काडचे पयलीं वासपूस करुनच तो काडचो अशें हांव पालकांक सांगूंक सोदतां.

म्हजें जाणवायें प्रमाण पांच कारणांक लागून मनशाच्या जिणेंत दुख्ख येवंक शकता. तीं पांच कारणां अशीं आसात- राग, कर्म, द्वेश, लोभ आनी अहंकार. म्हजी आवय सांगताली, हीं पांच कारणां मनशाच्या इंद्रियांचेर वार करतात आनी मनाचेर ताचो मळयल्या उपरांत मनशाच्या कुडीर आपलो पुराय शेक चलोवंक लागतात. मागीर खंयच्या ना खंयच्या कारणांक लागून मनीस दुखी जावंक पावता. रागाचेर नियंत्रण दवरप, आपलें दिसपट्टें काम आवडीन करप, त्या कामाचो ताण घेवप ना, कोणाचोच द्वेश करप ना, कसलेच वस्तूचो अती मोह बाळगप ना. जीण निरास करपाक मनशाचो अहंकार लेगीत तितलोच जापसालदार आसा हें आता लिपून उरुंक ना. सुख आनी दुख्खाचें वेवस्थापन कशें करप हें आमच्या हातांत आसता. सकारात्मक विचारसरणी मनांत बाळगून वावुरत जाल्यार सुखाचें खीण चड आनी संघर्शांचे उणे जाय येतात. थोडे आपल्या नशिबाक रडटात. ते चूक करतात अशें म्हाका दिसता. आपलें नशीब आपल्याच हातांत आसता आनी आपल्याक जाय तशें तें घडोवं येता. फकत



गरज आसा ती योग्य नियोजन करून पावल मारपाची. हातार हात दवरून बसत तर कांयच मेळना. आपले स्वतंत्र बुद्दीन विचार जावंक जाय आनी आपल्या घराब्यांतल्या मनशांचो आदार आनी मार्गदशन घेवन मुखार वचप गरजेचें. तांच्या अणभवांचो लाव सगल्यांनी करून घेवंक जाय. तरूच यशाच्या तेमकार तरनाटे पावूंक शकतले हातूंत मात पूण दुभाव ना! थेंब-थेंब एकठांय जावन दर्या जाता म्हणपाचें आमी ल्हान आसतना शिकिल्ले. अजूनय हेंच तथ्य पळोवंक मेळटा. चिमटी चिमटी भर एकठांय करून मूय आपलो पुरुमेंत सांठोवंक शकता जाल्यार मनीस ल्हवू ल्हवू आपली इत्सा पुराय करुंक कित्याक शकचो ना? दुख्ख पयस करुंक कित्याक पावचो ना? फकत मनात हाडपाक जाय, हांव अम कें काम करतलों म्हण आनी ते दृश्टीकोनांतल्यान वावराक लागत जाल्यार जैत मेळोवंक कळाव लागना. सकारात्मक दृश्टीकोन बाळगूंक शिक्षणाची गरज आसना. अशिक्षीत मनीस लेगीत सकारात्मक नदर दवरून जैत मेळोवंक शकतात. हाच्यो जायत्यो देखी समाजांत वावुरतना आम कां पळोवंक मेळटात. मनशान आपली वान्सा बरी निवळ दवरुंक जाय, मन नितळ दवरून आपलो व्याप थारोवंक जाय. तेन्नाच केल्ल्या कश्टाचें बरें फळ मेळटा. संत कबीर जाणे मनीस जिवांक मोलादीक उपदेश दिले, बारीक-बारीक गजालिंतल्यान ताणे सकारात्मक विचारसरणी समाजा मुखार हाडली. ताचें मातूय शिक्षण जावंक नाशिल्लें. जेन्ना तो आपले दोहे म्हणटालो तेन्ना ताच्या शिश्यांनी ते बरोवन काडले म्हूण ताचे विचार जनमानसांत सगले कडेन पावले. शिक्षण ही मुळावी गरज जरी जाली, तरी तें नाशिल्ल्यान कोणाचें लुकसाण जावचें न्हय वा शिक्षण ना म्हूण फाटीं उरलो ही गजाल मान्य करपा सारकी न्हय. कित्याक तर बरी विचार सरणी बाळगुपाक शिक्षण जायच अशें ना! ती जण एकल्यान आपले सरभोंवतणी घडटल्या घडणुकांतल्यान आत्मसात करुं येता. आपले जिणेचो थर उंचाव येता! सोबतीक बरे वागणुकेचे इश्ट आनी हेर वांगडी आसत तर सोने पर सुहागा जालेंच म्हूण समजुपाचें. आमचे खरे सोबती तेच, जे वेळा काळाक पावपी आनी आमच्या सूख दुख्खांत वावुरपी.



# भिवपाची गरज ना

पासय



डॉ नूतन देव

डॉ नूतन देव [illegible]
[illegible] मराठीतल्यान [illegible]
वेवसायान जरी तांचें [illegible]
कारकिर्द चालू आसली [illegible]
तांचो पिंड कविचो. तांचो
मराठींतल्यान 'आभाळ' हो
काव्यसंग्रह हालींच उजवाडाक
आयला. जाका काव्य रसिकां
कडल्यान उप्पाट येवकार
मेळ्ळा. तांची सादी,सरळ
कोंकणी भास तांच्या ह्या
लेखाचें खाशेलेपण.
पत्तो : फोंडें - गोंय.
मो: 9850133160

म्हाका याद जाता. तेन्ना हांव वयाच्या तेरा चौदा पिरायेचेर व्हडली दोन चाकी सायकल चलोवंक शिकलें तेन्ना म्हजो व्हडलो भाव सायकलीच्या ब्रॅकेटाक धरून सायकली फाटल्यान धांवत येतालो. सायकल फुडें वताली तशी हळूच तो आपलो हात सोडून दितालो पेडलां मारून फुडें पावतकच, थोड्या वेळान म्हज्या लक्षांत येतालें की म्हज्या फाटल्यान भाव ना, मागीर हांव भिवन पांय जमनीक तेकयतालें वा सायकल वाकडी जावन जमनीर पडटालें. म्हजो भाव म्हणटालो, 'हावे सायकलीक धरनासतना फुडें पाविल्लें पळय तूं, भिता कित्याक? भिवपाची गरज ना. भिल्यार सायकल चलोवंक शिकचेंच ना आनी खऱ्यानीच जेन्ना हांवें तकलेंतलो भंय काडून उडयलो तेन्ना हांव सायकल भेस बरी चलोवंक शिकलें. भिये नासतना!

शाळा- कॉलेजींत शिकतना आमी लक्ष लावन सगळो अभ्यास केल्लो आसता. पुणून जेन्ना ऐन वेळार, परिक्षा पेपर हातांत पडटा तेन्ना हें भंयाचें भूत येवन मानगुटेर बसता आनी शिकिल्लें सगळें विसरायेर पडटा.

मराठींत एक म्हण आसा, 'भीत्यापाठी ब्रह्मराक्षस' खरेंच भंय, नाका आशिल्ल्यो चिंता, हुस्के तशें पळोवंक गेल्यार राक्षसच! ते आमचे जिविताचें खूब लुकसान करतात. कितेंय करपाक फुडें सरत जाल्यार आमचे पांय फाटीं ओडटात आनी हाका लागून जावंक जाय तितली आमची उदरगत जायना. तशें पळोवंक गेल्यार, भिवप ना. भय दिसप हो जण एका प्राण्याचो स्थायी भाव! प्रत्येक प्राण्याक (मनीसय बी हातूंत येता. ताका थोडी इल्ली बुद्द चड आसु येता, स्वताचो जीव सांबाळूंक आनी धतरिचेर तिगोवन दवरूंक, निसर्गानच थोड्यो गोष्टी दिल्ल्यो आसात. त्यो म्हणजे, भूक, न्हीद, स्वताची राखण (self defence) आनी प्रजोत्पादन (reproduction). प्रत्येक प्राण्याक जगपाक जेवण, न्हीद आनी आपलो वंश वाडोवंक प्रजोत्पादन हें सामकें गरजेचें. ताचेच वांगडा आपलो जीव वाटावपाक स्वताचें रक्षण करपय गरजेचें आसा. तेन्ना ताका षश्रळसहीं वा षळसहीं ह्या दोना पयकी एकाचो उपेग करचो पडटा. एक हरण, वाग वा मांस खावपी अन्य प्राणी दिसतकच जिवाच्या आकांतान धांवत सुटटा. हांगा ताका जो भंय



दिसता तो गरजेचो, तें जर अशा वेळार हांव कोणाक भियेना म्हणून थंयच रावलें तर तें थंयच सोंपतलें. हाका म्हणटात षश्रळसहीं. पळून वचपाची आमची शक्त कितली हाचेर आमचें झगडप (षळसहीं )काय पळ काडप (flight) हें थारता. तातूंत मनशाक तर देवान बुद्द दिल्या. हे बुद्दीचो आनी आंगांत आशिल्ले शक्तिचो उपेग करून भंय बाळगुपाचो ना हें दर एकटो थारावंक शकता.

फाटल्या दिसांनी आमी, 'भिवपाची गरज ना' हें खूब आयकलें. दोतोरांनीय बी आपल्या पेशंटांक फोना वयल्यान कितलेशेच सल्ले दिवन म्हणलें, 'भिवूं नाकात!' कित्याक तर, अशें सांगल्या उपरांत पेशंटाक मातसो धीर येता. हाचो अर्थ असो न्ही की पेशंटान आपल्याक जाय तसो मनमानी कारभार करपाचो. दुयेंस जावचें न्ही म्हूण मास्क घालूंक जाय जाल्यार घालुंकूच जाय. दुयेंस वाडचें न्ही म्हणून गर्देत वचूंक जायना म्हणजे जायना. गर्दी जाता तसले प्रोग्राम घडोवन हाडूंक जायना. ही प्रत्येकाची जापसालदारकी आसा, सरकाराची तर आसाच आसा. व्यसनाधीन जाल्ल्या मनशाक जर म्हळें, 'तूं जाय तितली मजा कर, भिवपाची गरज ना.' जाल्यार कितें जातलें? अशे वेळार दोतोरान पेशंटाक सम जावन सागचें पडटा. एकादो काऊन्सीलर (counsellor) असल्या पेशंटाक चड बरे तरेन समजावन सांगपाक शकता.

गरजे भायर जेन्ना भंय कोणा एका मना भितर तयार जाता तेन्ना त्या मनशाच्या आरोग्याचेर खूब वायट परिणाम जाता.

एकदां एक धडधाकट मनशाक , जाका कसलींच दुयेंसां नाशिल्लीं ताका एका ज्योतीशान सागलें, 'तुका थोड्या दिसांनी मरण येतलें अश्यो तुज्यो हाता वेल्यो रेशा सांगतात!' हीं उतरां त्या मनशाचे तकलेंत घर करून रावलीं. हळुहळू ताणें आपलीं दिसपट्टीं कामां थांबयलीं. भंयान, चिंतनान ताची न्हीद गेली, जेवण चलना जालें. ज्योतिशान सांगिल्ल्या प्रमाण तो खरोच थोड्या दिसांनी सोंपलो. हें सगळें घडपाक कारण ताच्या मनार जाल्लो भंय.

जेन्ना मनशाक भंय दिसता तेन्ना ताचे भितर adrenaline आनी cortisol अशे हे दोन होर्मोन चड प्रमाणांत तयार जातात. हाचो परिणाम शरिराच्या सगळ्या अवयवांचेर, काळजाचेर, पोटाचेर, आंतड्याचेर, मेदवाचेर तर चड जाता. मनशाची प्रतिकार



शक्ती कमी जाल्या कारणान दुसरीं दुयेंसां जातात. मनीस म्हातारो दिसूंक लागता आनी तो आपलेंच मरण लागीं ओडटा.भंय, चिंता कितलेश्याच psychosomatic (चिंतनाक लागून शरिराचेर कब्जो) दुयेंसांक आमत्रण दितात.

ल्हान भुरग्यांक खुबशे फावट आमी ओगीच भंय दाखयतात. भुरग्यांक सादारण वर्स म्हळ्यार किंवा ताचे मातशे पयलींच कोण आपलो कोण परको हें कळपाक लागता. तीं मातशीं व्हड जातात तशीं आमी तांकां दोतोराचो, पुलिसाचो किंवा हावको आनी आतां कोरोनाचो भंय घालपाक लागतात. हाका लागून तांच्या मनार परिणाम जाता. भुरगीं सादारण एकोणीस वर्सां पिरायेचीं जायसर तांचो भावनीक विकास जायत आसता. अशे वेळार तांकां जर भंय दाखयलो जाल्यार व्हड जातकच तो तांच्या मना भितर (subconsious mind) उरता. मागीर बारीक सारीक गोष्टींक, गरज नासतना तांकां भंय दिसूंक लागता आनी तांची उदरगत जावंक पावना .

आतां हेंच पळयात. कोरोना दुयेंसाक जाय तशें वखद ना! चड प्रमाणांत हें दुयेंस जाल्यार मनीस मरता. कांयच लक्षणां नासतना लेगीत कोवीड जावंक शकता आनी तें दुयेंस तो दुयेंत कितलेशेच लोकांक दिवंक शकता. अश्या वेळार जें वासीन आमकां मेळ्ळां ताचो फायदो घेवंचो सोडून आमी तें घेवपाक भितात.

म्हणुनूच आमी ओगीच गरजे भायर भिवंक जायना! बरें काम करपाक तर भिवपाचें नाच आनी आमचें लुकसान करून घेवपाचें ना.




# बायूल

दामोदर मावजो

भुरग्यां खातीर साहित्य रचतना रचनाकारान आपूण ल्हान जावन बरोवचें पडटा. पूण चडशे बरोवपी भुरग्याचें सवंग घेवन बरयतात- भुरगें जावन न्हय. आमका जाणट्यांक भुरगेंमन हें सादें-सरळ कशें दिसता. पूण आसता उरफाटें. भुरगेंमन निरागस आसता हें खरें. पूण हे निरागसतायेक लागुनूच तें अदीक व्यामिश्र रूप घेता. भुरग्यांक कावळो आवडटा. पूण तें जेवना तेन्ना 'घे रे काक्या' म्हणून कावळ्याक आपयना फुडें तें आम्म करता. बायेक बाबू आवडटा. पूण बाबून ताची बावली घेतल्यार मात तें रडून आकांत करता. मागीर तांबडी गाडी दिली तरी थारना. सत्व ताका शेणा-भोंबो कसो दिसता. कित्याक? ह्या प्रस्नाक जाप नासता. भुरगें पातोळे झाडाची काणी आयकून ल्हवूच पातोळी व्हरून पोरसांत रोयता. न्हावन वालो गुठलावन म्हातारी जावपाक भुरग्यांक आवडटा. पावसाची दडक आंगार घेवपाक आवडटा. उदकांत व्हडीं सोडपाक आवडटा. जाणट्यांनी सांगिल्लें तें आयकूं ना आयकूं, ताका ताची पर्वा नासता. तें पडटा, तें उठ्टा. पडत-उठत तें शिकता. शिकतां शिकतां तें वाडटा. वाडटां वाडटां तें घडटा. ही भुरग्याची व्हड जावपाची प्रक्रिया भुरग्याच्याच दिश्टिकोणांतल्यान उतरांनी बांदप सोंपें दिसता, पूण भोव कठीण.

आमी खुशी परगटावपाक सणा-परबेक फुगेट्यो मारतात. बाब-बाय जाता तेन्ना फुगेट्यो मारतात. पूण वानर पिडटात तांकाय धांवडावपाक फुगेट्यो मारतात. भुरगेंमन अशा घडणुकांचो कसो वेध घेता तें पळोवपा मारकें आसता. ह्या पुस्तकांत सैमाचें विविधतायेचें दर्शन भुरग्याचे नदरेंतल्यान खूब सुंदर घडयलां. सुर्णी-माजरां, कोंबयो-कुकडां, गाय-गोरवां, कीर-कावळे, मोर-वानरां... जशीं काय सैमान हीं बायुला




खातीरच रचल्यांत. बायूल तांचे कडेन खेळटा. भुरग्यांक भंय-भिरांत खंयची! आमीच ती तांचे तकलेंत घालतात. देखून माळ्ळूण वा गोठाण हांकां बायूल भियेना. हातांत रंगीत पेन्सिली आनी कार्देन मेळना फुडें ताका चित्रां काडपाची कूय येता. एक दीस तें चित्रां काडूंक बसता. काडटां काडटां कल्पनेंत शेणटा. सदानंदाच्या जांबळ्या फुलाचेर पाखो बशिल्लो पळयता. तें पाखो चित्रायता. पाख्या कडेन उलयता. मागीर मोर काडटा. कुंडेकुम्कुराची काणी याद जाता. बायूल मोरा फाटीर बसता आनी भुर्र उडटा. शेजारचे मातिलमामीलो कोंबो पळयता. ताचें चित्र काडून ताच्या माथ्यार रंगीत शेंकरो रंगयता म्हणसर तांबू गाय चरतना दिसता. तिका हर्टकिता जाल्यार ती सांगता, 'बायूल तूं खंय भोंवता? आजो तुका सोदता.' तें आयकून बायूल मोरार बसून परतें घरा येता... ही काणी म्हळ्यार भुरगेंमनान कल्पनाविश्वांत मारिल्लो भोंवर.

हें पुस्तक भुरग्यां खातीर म्हळें तरी जाणट्यां खातीरूय तितलेंच उदबोधक. फाटल्यो यादी जागोवपी. शेणत वचपी दायजाची


'एक अशिल्लें बायूल' पुस्तकाचें प्रकाशन करतना दिलीप बोरकार, दामोदर मावजो, लेखिका हर्षा शेटये आनी मानसी धाऊसकार

जाण करून दिवपी. पन्नास पंचावन वर्सां फाटलें गोंय आयज तशें उरलां व्हय? नव्याचे वावझडींत खुबशें पोरनें हुबून गेलां. तेन्नाचो शिगमो आयज उरूंक ना. सार्शींतल्या चडशा लोकांनी तर असलो शिगमो पळोवंकच ना. शिगम्यानूय रूप बदल्लां. आतां दिसता तो शिगमो स्टेजीचेर वा सरकारी परेडींत. गांव बदलल्यात. खेळे खेळ खेळनात. शिगम्यांतले चोर चोरूंक येनात. कोण तळी मागना, कोण दिना. दारांनी भोंवन गाराणें घालनात. रोमटां, तोणयो, घोडेमोडणी, धोल-ताशे आतां गांव सोडून शारांनी स्टेजीचेर पावल्यात. सणा-परबांचे संदर्भ बदलल्यात. घरां आनी घराबे आदले उरूंक नात. फेस्तांतल्यो साखरे-बावल्यो काळाचे व्हांवतेंत विरगळून गेल्यात. मातयेचे रस्ते, बैलगाडयो, गुड्डे सोडा आतां ना नपयत जाल्यात. पाटी-काडी गेलीच. जी दुदा-काडी घेवन आमी पाटयेर चिरलें ती दुदा-काडी आमचे लेगीत विसरायेर पडली... हें पुस्तक वाचलें आनी म्हजें भुरगेंपण दोळ्यां मुखार आयलें आनी उदरगतीच्या नांवा खाला आमी कितें कितें वगडायलें तें जाणवलें.

लेखकान जाणोवंक दिनासतना गोंयांतलो एकचारूय चित्रायला. शिगमो आनी सांज्यांव पुस्तकांत येता तशी हिंदू-क्रिस्तांव कुटुंबांतली दी-घे दिश्टी पडटा. दिवाळेचे फोव कशे मातिलामामील्या घरा पावताले आनी चॉकलेटी आनी केक कश्यो मातिलमामीगेर साकून येताल्यो तें दाखयलां. सुखदुखांत शेजार कसो वाटेकार जातालो तेंय सांगलां.

भुरग्यांच्या दिश्टीकोणांतल्यान सांगिल्ल्यान लेखकान चत्रायेन जडगुळीं उतरां टाळ्ळ्यांत म्हणपाचें कळटा. पूण ताका लागून परंपरेंतल्यान आयिल्लीं नीज कोंकणी उतरां उठून दिसतात. हर्षान वापरिल्ली भास आनी उतरावळ पन्नास वर्सां फाटलो काळ उबो करता. पूण तशें करतना खंयच विस्तार आयिल्लो ना. बरोवप इतलें सहज जालां की आल्लायो, उमाणीं जावं वाक्प्रचार खंयच अडेचे घाल्यात अशें दिसना. देखून ही साहित्यकृती सहजस्फुर्त आनी वाचनीय जाल्या. हाचें कारण, हर्षाबायन आपणांलें भुरगेंमन आनी भुरगेंपण भोव जतनायेन सांबाळ्ळां. हें पुस्तक वाचतकच जाणवता- खंयच चड-उतार ना; मोडफोड, झगडीं-केस्तांवां नात, मोडां येनांत आनी मरणांय नात. ओपिनियन पोल येवन वता, मर्दी देवळांत जाल्ले एके चोरयेचो उल्लेख येता. पूण तो सहजतायेन येता आनी वता. भुरग्यांचें साहित्य हें अशेंच आसूंक फावता. हिंसेची वळख दिवपाची ही पिराय न्हय. भुरगीं ल्हानाचीं व्हड जातना तांकां जायत्यो कोडू-वायट गजाली दिश्टी पडनात तर? पूण भुरगीं त्यो गजाली विसरूंक सोददात. कोणूय सोयरीं-शेजारी भायर पडटात तेन्ना भुरग्यांक तें सांगनात, ताचें कारण तें प्रसन्न वातावरणांत व्हड जावचें हेंच आसता. हर्षाबायन हें पुस्तक तेच भावनेंतल्यान बरयलां जावंये. देखून हातूंत जोर, थंडी, कोलेखांक, फुगांव, गालगुटां आयल्यांत पूण काळजाक दाग दिवपी मरणां नात. उटंगाराचो पावस आनी वावझडी आसात, पूण घरां-झाडां मोडपी मोडां नात. रागार-फुगार जावप, हट्ट करप, रडप वा खोशी जावप आसा, पूण नसाय-दुस्मानपणां नात. ओपिनियन पोल लेगीत भुरग्याचे नदरेंतल्यानच आयला. पुस्तकांत कांयच घडना अशें दिसता तरी खूब कितें घडलें ही भावना उरता. हेंच ह्या पुस्तकाचें जैत.

बायूल हें भुरगेपणांतलें हर्षा. पूण तृतीय पुरुशी निवेदन केलां. आपणांक कुशीक दवरून 'तें' बायूल म्हणून बरयतना तटस्थताय थोडी हालपाची शक्यताय आसता. पूण हर्षाबायन तशें जावंक दिलें ना. व्याकरणी काळूय चालू वर्तमानकाळ दवरिल्ल्यान वाचकाक बायुला वांगडाच फुडें फुडें वता अशी भावना जाता. पुस्तकभर चालू वर्तमानकाळ सांबाळप हें एक नाडेपेन्नाच. सरये वयली कसरत करतना तोल वचपाचो वा पांय सुटून सकला आपटुपाची शक्यताय आसता. पूण ही लेखक आपणांली तटस्थताय आनी संतुळा सांबाळपांत जैतिवंत जाल्या.

'भुरग्याचे पांय पाळण्यांत दिसतात' अशें म्हणटात. आयज हर्षाबायक ललीत साहित्यांतली अग्रणी लेखक म्हूण वळखतात ताच्या फाटल्यान हें बायूल आसा हें आतां लक्षांत येता.




# आदर्श समाज निर्मणेचो उत्पर्क

दिलीप बोरकार

आमचें गोंय साक्षरतायेंत दुसऱ्या क्रमांकाचेर आसा अशें म्हणटात! पयलें भोवतेक केरळ आसतलें! पूण हे साक्षरतायेक तसो अर्थ कांय ना. राज्य साक्षर आसचे परस तें शिक्षीत आनी तातूंतय सुशिक्षीत आसप खूब गरजेचें. ताचे वयल्यान त्या राज्याची अस्मिताय थारता. केरळ राज्य साक्षरतायेंत पयलें आसलें तरी तें कितलें शिक्षीत आसा हाचेर चर्चा करपांत अर्थ ना. पूण आमच्या गोंयची आवतिकाय कितें जाल्या आनी तें खंयचे दिकेन वता हें मात आमकां सगळ्यांक खबर आसा आनी देखूनच ते साक्षरतायेक 'चुट्टी लायात' अशें म्हणन दिसता!

आज आमच्या गोंयची शिक्षणा मळा वयली, राजकारणाच्या मळावयली, संस्कृतायेच्या मळा वयली आनी हेर कितल्याच मळा वयली पत सामकी रसातळाक पावल्या म्हणपाचें दिसता. आमचें हें भांगराळें सुपुल्लें गोंय जे दिकेन पावलां मारता तें पळयत जाल्यार ह्या गोंयांक सांबाळटलो कोण वाली ना काय देवा! अशें गोंयचो हुसको लागिल्ल्या कांय जाणांक दिसता. तातुंतल्याच कांय जाणांक हुसको दिसपा वांगडाच गोंय जाग्यार घालपा पासत आपणें निदान चानयेचो वांटो तरी पेलचो अशें दिसता आनी ते नदरेन तांचो वावर चलता. ह्या असल्या हाताच्या बोटार मेजूं येता अश्या लोकां मदलो एच. मनोज म्हणल्यार मनोज हळर्णकार म्हणपाचें तांचो 'मनकळे फुलतना' हो लेखसंग्रह वाचतना लक्षांत येता.

जेन्ना हांव मनोजाचे हे प्रासंगीक लेख नदरे खाल घालतालों तेन्ना मनोज म्हणल्यार दुसरो तिसरो कोण न्हय तर तीस वर्सां आदलो हांवच अशें म्हाका दिसलें! हांवूय तेन्ना मनोजा वरींच शाळेंत शिकयतालों. नोकरी करपाची जाल्यार शिक्षकाचीच करपाची. एक मिशन म्हण करपाची. पोटा खातीर खंय तरी नोकरी जाय. पूण तेंच वांगडा ती करतनाच समाजसेवाय घडूंक जाय. आनी ते पासत म्हज्या सारख्या आदर्शवादी तरनाट्यान शिक्षकच जावंक जाय आनी विद्यार्थ्यां मदल्यान म्हजे सारकेच आदर्श विचारांचे नागरीक घडोवन ते समाजांत धाडूंक जाय अशें म्हाका दिशिल्ल्यान हांवें शिक्षकाची नोकरी धरली.




शिक्षक जावनूच म्हजें मिशन पुर्णायेक पावचें ना जाल्यार ताचे वांगडाच वैचारीक परिवर्तन घडोवपाचीय गरज आसा अशें दिशिल्ल्यान गोंयच्या भोवतेक सगळ्याच खबरा पत्रांतल्यान सप्तकात 'आघात', 'प्रहार', 'जिमलेट' स्री

माथाळ्या खाल चार चार सदरां सातत्यान बरयतालों. सुमार तीस वर्सां सातत्यान शेकड्यांनी लेख बरयले. तातुंतल्यान कितें जोडलें तर प्रस्थापितांची दुस्मानकाय. गोंय मात जे दिकेन वचपाचें आशिल्लें ते दिकेन वचत रावलें आनी आयचे आवतिकायेक पावलें. पूण एक गजाल खरी, तातुंतल्यान आत्मिक समाधान मात मेळ्ळें. हांव फक्त पोट भरपाक धतरीक भार जावन जियेना तर समाजा पासत कितें तरी करतां म्हणपाचें हें समाधान!

आयज मनोज तेंच करता. गोंयांत आयज हजारांनी शिक्षक आसात. फक्त नोकरी म्हूण ते तितलें पुरतेंच शिकयतात आनी पगार घेवन सुखान संवसार करतात! तांकां तशी समाजीक बांधीलकी वा लागणूक म्हणपाचें कितें आसता तें कांयच खबर नासता. पूण जेन्ना तांचे मदलोच मनोजा सारखो एकलो तळमळीन आदर्शवादाची घुडी घेवन मुखार सरता तेन्ना म्हज्या सारख्याकूय पयस खंय तरी उजवाडाचीं किरणां झळकतात.

शिक्षण हें म्हत्वाचें म्हणपाचें आतां समाजांतल्या दरेक घटकाक कळ्ळां. सरकारानूय शिक्षण सक्तीचें केलां. म्हणटकच दरेक भुरगो शिक्षणाच्या नांवान शाळेंत वता आनी फुडाराचो हो नागरीक आयतोच शिक्षकांच्या हाताक लागता. ताका आदर्श नागरीक करप, आदर्श नितिमुल्यां तांचे भितर रुजवणां हाडप हें शिक्षकाचें कर्तव्य आसता. सम ाज तेच अपेक्षेन शिक्षकां कडेन पळयता. हे अपेक्षेक कितले शिक्षक जागतात हाचेर चड न उलोवप बरें! पूण तांचे मदले मनोजा सारखे कांय शिक्षक समाजाची अपेक्षा पुराय करूंक धडपडटात तें पळोवन तांचेर उलोवप आनी बरोवप गरजेचें अशें दिसले बगर रावना.

मनोज कवी. ताचो 'मनोभाव' हो काव्यसंग्रह ताची गवाय दिता. तेच वांगडा मनोज 'मन' हे मनशांतले संकल्पनेकूय जपता आनी आपल्या मना वांगडाच तांच्याय मनाचो मान राखून तें मन हळवें दवरपा वांगडाच सशक्त जावंचें ह्या हावेसान वावुरता. देखून ताच्या काव्यसंग्रहाचें नांव 'मनोभाव' आनी आतां ताचो हो लेख संग्रह 'मनकळे फुलतना'.

मनोज एक हाडाचो शिक्षक. पूण तो फकत नोकरी करिना जाल्यार एका आदर्श समाजाचीं सपनां मनांत बाळगून आदर्श नागरीक घडयता. विद्यादान करून भुरग्यांच्या मनाक आकार दितनाच समाजांतल्या हेर घटकांक आपल्या लेखांतल्यान दिका दाखयता. एका आदर्श समाजाच्या हावेसान तांच्या मनांत आपल्या लेखांतल्यान आदर्शवाद जागयता..शिक्षकान फकत दुडवां पासत नोकरी करची न्हय तर आदर्श समाज घडोवपाची जी जापसालकी समाजान दिल्ली आसा तिका मना-काळजांतल्यान पाळो दिवंक जाय म्हणपाचो साक्षात्कार ह्या संग्रहांतल्या ताच्या ह्या सव्वीसूय लेखांतल्यान घडटा...

जेन्ना खंयचोय शिक्षक विद्यादान करता आनी तो जर कवी आसत जाल्यार मागीर त्या विद्यार्थ्यांचें कल्याणूच म्हणपाचें! जगार जितल्यो वैचारीक आनी हेर क्रांत्यो जाल्यात ताचे फाटल्यान कवी आनी तांच्यो कविताच मुखेलपणान आसतात. एच.मनोजान आपलो कविता संग्रह वाचकांक दिवन आपूण कवी म्हणपाचें दाखोवन दिलांच आनी कवी जेन्ना शिक्षक आसता तेन्ना तो आपल्या विद्यार्थ्यांच्या मनांत क्रांतीची कीट पेटयल्या बगर कसो रावत? क्रांतीची कीट तशी दरेक मनशा भितर आसता. तिका फूक मारपाचें काम कोणें तरी करपाचें आसता. तें काम शिक्षकाचें! आनी जर तो शिक्षक कवी आसत जाल्यार मागीर सोने पे सुहागा...

मनोज कवी, फकत कवी न्हय तर आदर्श समाजाचीं सपनां पळोवपी एक आदर्श शिक्षक, व्रतस्थ गुरू. आपल्या हाता खाल जो विद्यार्थी आसा ताका योग्य दिका दाखोवप, ताचे विचार प्रगल्भ करून 'तुजी गरज समाजाक आसा, ह्या गोंयांक आसा, देशाक आसा, पोट भरप म्हणल्यारूच जिवीत न्हय' हो विचार आयच्या तरनाट्यां मदीं रिगोवप हेंच ताचें व्रत आमकां ताच्या बरपांत दिसता. मनोजाक आमच्या गोंयचो युवक आदर्श जाय. तो तशी इत्सा बाळगुनच रावना. तर तशें जावपाक तांणी कितें कितें करूंक जाय आनी कोणा सारखें जावपाक हें सागपा पासत त्या त्या विशयांचेर बरयता. मनोजाक आपले विद्यार्थी आदर्श नागरीक जाल्ले जाय देखून तो तांकां शिकयता आसतनाच जागयता आनी आपणें बरयल्ल्या लेखांतल्यानूय तांचे मदीं वैचारीक जाग हाडटा. तांकां दोतोर कलामाच्या वावराची वळख करून दिता, तांकां श्रीकृष्णाचे गूण सांगता. तांची देख घेवन आमचेय तरनाटे तशेच जावंचे होच मनोजाचो आंतरीक हावेस. मनोज गोंयच्या सैमाचो, पर्यावरणाचो जाल्लो इबाड पळोवन कळवळटा.

ताची राखण आयच्या तरनाट्यांनी करची म्हूण ताका आपल्या लेखांतल्यान सादयता. ताका श्रावण म्हयन्याची म्हयमा सागता, मण परबां मनांवपा फाटलो उद्देश्य सागता आनी ताका अधश्रद्धा बी मानू नाकात तर ती सैमाची राखण करूंक केल्ली जाणटल्यांची तजवीज म्हणपाचें सागून ती परपरा मुखार व्हरपाक तो आपल्या लेखांतल्यान शिटकायता. एका आदर्श शिक्षकाक सगळे विशय लागतात. मनोज तेंच पासत सगळे विशय घेवन तांचेर भाश्य करता. प्रासंगीक लेखांत साहित्यीक मुल्यां भोवतेक नासतात. पूण तीं हाडून तातूंत लालित्य हाडपाचोय मनोज यत्न करता. मोख एकूच.. सगळ्या सभावाच्या तरनाट्यांक वाचनाची रूच लावन ताणी आपलो विचार, आपली तळमळ समजून घेवंची आनी आमचें पर्यावरण, आमचें गोंय बी सगळ्यांची राखण करून मनीसपणाची संस्कृताय दरेकल्यान केळोवची होच ताचो हावेस आनी तेच उत्कर्के आमकां ताच्या लेखांनी दिसतात. आपले लिखणेचो वापर जावंचो तो एक आदर्श नागरीक निर्माण करूंक, आपल्या लेखांचे विशय आसचे तें हें गोंय सांबाळपाची भावना गोंयच्या दरेक तरनाट्याच्या काळजांत उदेवपा पासत हाचें भान दवरून मनोज बरयत आसा.

मनोजाच्या ह्या लेख संग्रहांत जे विशय आसात तातुंतल्यान आमकां ताच्या मनांतलो पर्यावरणाचो सांबाळ हो विचार प्रकर्शान जाणवता. समाजांत अन्याय, अत्याचार माजत चल्ला आनी ताका जापसालदार सुवार्थी राजकारणी आनी तांचे पेंदे म्हणपाची कल्पना मनोजाक आसा. तांकां सुदारप कठीण म्हणपाचीय जाण ताका आसा. पूण तो खंतीन निराश जावन बसना. तर हे गजालीचेर उपायूय सांगता. आयच्या तरनाट्यांनी आदर्शवाद आपले भितर बळावन राजकारणांत भितर सरपाक जाय आनी ह्या भ्रश्टाचारी लोकांक धांवडावन स्वच्छ राजकारभार दिवंक जाय म्हणपाचें परत परत सांगता.

मनोजाचे लेख वाचतना ताच्यांतलो अध्यात्मीक मनोजय दिसता. पूण तो बुवाबाजी परंपरेंतलो अध्यात्म न्हय तर तरनाट्यांनी आपलें मन कशें नियंत्रणांत दवरपाक जाय आनी आपल्या मनाक सुंदर जिविता पासत कशे तरेन सकारात्मक वळण दिवपाक हाची वळख तो तांकां करून दिता. मनशाचें मन जर सशक्त आसत जाल्यार तो जग जिखूंक पावता म्हणपाचें सत्य तो आयच्या तरनाट्यांक सांगता.

मनोज जितलें कणखर बरयता तितलोच तो हळवाय जाता. समाजांत खून, बलात्कार, आत्महत्या आनी अपघातांतलीं मरणां बी पळोवन ताचें काळीज कळवळटा. हें सगळें थांबोवंक जाय अशें ताका दिसता. हे प्रकार घडटा आसतना ते आळाबंदाक हाडपा बदला, त्या प्रसंगार मजतीक धांवपा बदला मोबायलाचेर फोटो काडून ते प्रसारमाध्यमाचेर घालपा पासत चलपी सर्त पळोवन तो तिडकता. हें मनीसपण हांगा कशें शेणूंक पावलें काय ?असो प्रस्न ताका पडटा.

मनोज जें कितें बरयता आनी ताणें जें कितें मिशन आपणायलां तातूंत तो कितलो यशस्वी जातलो तें काळ थारायतलो. समाजा पासत कांयच करप ना, आपली नोकरी, आपलो संवसार, आपलीं सुखां हातूंतच समाधान मानून तेंच जीवन मानप हाचे परस आपूण समाजाक देणें लागतां, देवान आपल्याक निर्मिला तो हे धर्तरेर कितें तरी बरें करपाक म्हणपाची एक जाणविकाय सतत आपल्या मनांत जागी दवरून वावर करप ही एक खूब सकारात्मक बाब. सगळ्यांकूच ती जमत म्हणपाचें सांगू येना. कित्याक हो यज्ञ. तातूंत आपल्याच संवसाराच्यो समिधा घालपाचें धाडस चडसो कोण करूंक वचना. मनोजा सारके भोवच थोडे तें व्रत घेवन येतात. मनोज जें बरयता तातूंत साहित्यीक मुल्यां कितलीं आसात हाचे परस ताणें आपले विचार कितले तळमळीन आनी प्रामाणीकपणान मांडल्यात हें म्हत्वाचें. तातुंतलो खंयचोय एक विचार आयच्या तरनाट्यान वाचून आपल्या मनांत जर बळायलो जाल्यार निदान आनीक एक तरी मनोज समाजांत तयार जावंक पावलो हाचें समाधान म्हज्या सारख्याक लाबतलें. कित्याक हो रस्तो भोगवाद आनी चंगळवादाकडेन वचना. तो वता आदर्शवादाच्या होमखणाकडेन! त्या होमखणांत उडी घेवपाक धाडस आनी त्याग लागता. मनोजाचे अपेक्षे प्रमाण हो रस्तो कांय तरनाट्यांनी आपणायलो जाल्यार मनोजाच्या मिशनाचें आनी ह्या लेखसंग्रहाचें सार्थक जालें म्हणू येता. तशेंच जावं अशें मागणें करून हांव मनोजाचें अभिनंदन करतां!

●●●

**(शेनवार ता. १८ सेतेंब्र २०२१ दिसा वास्को शारांत प्रकाशन जावपी पुस्तकाची प्रस्तावना)**

## मचमचीत

- डॉ. रिना लवंदे



फाटलीं साबार वर्सां कांदोळे-कळंगुटे दातांची वैज म्हूण लोकप्रिय आशिल्ल्यो डॉ. रिना लवंदे एक बऱ्या पयकी सुगरणूय जावन आसा. अन्न संस्कृतायेचें जतन करपाचे हावेसान खाणां जेवणांत वेगवेगळं प्रात करपाची तांकां आवड. त्या भायर वाचन आनी ललित लेखनाचीय आवड आसा.

पयलो दीस -तय (हरतालिका)

मुगां गाठी

(हो प्रात फेब्रुवारी 2021 बिम्ब मासिकांत आयला)

चण्यां तोणाक-तवशें/बटाट घालून

साहित्य- 2 वाटी चणे (धवे ना जाल्यार पांचवे) 1 ल्हान तवशें/2 बटाट मोट्योश्यो फोडी करून. 3 वाटयो नाल्लांची सोय, 2 व्हडलीं कुलेरां कोथमिऱ्यो, 10-12 मिरयां, 1 ल्हान कुलेर हळदी पिठो, 10-12 सुक्यो मिरसांगो, 5-6 लवंगां, 1 ल्हान कुलेर खसखस, इल्लीशी पत्री, 1 इंच तिखी, अदमासान आमटाण, चिमटीभर साकर, 1 ल्हान कुलेर सांसवां, 1 ल्हान कुलेर हिंग, 10-12 करपिलाचीं पानां, 3 ल्हान कुलेरां तेल, चवी पुरतें मीठ.

### करपाची तरां

चणे पयल्या दिसा फुगत घालात. तोंडाक करपाच्या वेळार चणे, बटाट/ तवशें शिजोवंचें, 1 कुलेर तेल घेयात. सोय आनी सगळो मसालो 2 कुलेरां तेलांत एक एक करून भाजून, वाटून घेयात. एका तोपांत तेल तापोवन सांसवां, हिंग, करपिलाच्या पानांची फोडणी दियात. उपरांत शिजयल्ले चणें, बटाट/ तवश्याचें मिश्रण घालात. वाटिल्लो मसालो, मीठ आनी साकर घालून सगळें बरें चाळचें , बरो खतखतो येतकच रांदनी वयलें काडचें.

(अशेंच तोणाक कांदो घालुनय करतात.चणे शिजतना 2 बारीक कांदे घालचे आनी 2 बारीक चिरिल्ले कांदे सोये वांगडा भाजून वाटून घेयात.)

### पातोळ्यो

(आगोस्त 2021 बिम्ब मासिकांत दिलां)

दुसरो दीस - चवथ

### खतखतें

साहित्यः- 1 दुदयाची शीर, 2 बटाट, 5-6 मुंडल्यो, 1 ल्हान पोपाय (तन्नी), 1 हरवें भाजेचें केळें, अर्दो निरपणस, 1 वाटी चणे (आदले रातीं फुगयल्ले), 2 कणगां, 1 ल्हान तवशें, सुरणाच्यो चार फोडी, 5-6 भेंडे, 1 ल्हान घोसाळें, 1 ल्हान पडोळें, मुठभर चिटक्यो, 1 मुळो, 5-6 तेंडलीं, 1 मक्याचें कणस, 1 वाटी माडये कुडको, 1 वाटी तोरची दाळ, 10-12 तांबड्यो मिरसांगो, एका नाल्लाची सोय, एक ल्हान कुलेर हळदी पिठो, आमटाण, 1 वाटी गोड, चवी पुरतें मीठ, 12-15 तेफळां.

करपाची तराः- चणे आनी दाळ शिजोवन घेवची. साबार शाक भाजयांच्यो मोठश्योच फोडी करून घेवच्यो. सुरण, मुळो पयलीं शिजोवचो. मागीर तातूंत हेर भाजयांच्यो फोडी घालून शिजोवचें. सोय आमटाण, मिरसांगो आनी हळदी पिठो वाटून घेयात. हें वांटप ह्या शिजयल्ल्या शाक भाज्यांनी घालचें. गोड, मीठ आनी तेफळां घालून बरें चाळचें. एक खतखतो येतकच रांदनिवयलें सकयल काडचें.

### पुरणाच्यो नेवऱ्यो

साहित्य - अर्द कील चण्याची दाळ, 1 वाटी सोय, 2 वाटयो गंवाचें पीठ, 2 वाटयो मयदो, तेल तळपाक, चवी पुरतें मीठ.

करपाची तरां -दाळ उकडून वाळून घेवची. थंड जातकूच तातूंत सोय, गोड, वेलचे पिठो घालून बरें मुड्डुन घेवचें. मातशें हें मिश्रण उज्यार तळसून घेवचें. गंवाचें आनी मैद्याचें पीठ मीठ घालून बरें कालोवन घेवचें. बरें मस्तुन ताच्यो गुळयो करच्यो. ह्या गुळयांची पातीं लाटचीं. ह्या पात्यांत तें मिश्रण भरून ताच्यो नेवऱ्यो करच्यो . ह्यो नेवऱ्यो तेलांत तळून घेवच्यो. अशेच मोदकय करूं येतात.

तिसरो दीस - पंचम

### तांदळाचो पायस

साहित्यः- 1वाटी बासमती तांदूळ, अर्द कील साकर, अर्दी वाटी शाबुतांदूळ,1 लिटर दूद, 1 कुलेर वेलचे पिठो, 6-8 लवंगां, 12-15 खिसमीस, 12-15 काजू बियो.

करपाची तरा- तांदूळ बरे धुवन शिजोवन घेवचे. शिजता आसतना तांदूळ 20 मिनटां फुगत घाल्ले शाबुतांदूळ घालचे. हें बरे शिजतकच काजू बियो आनी खिसमीस घालचे. मागीर तातूंत दूद आनी साकर घालून खतखतावचें. निमाणे कडेन वेलचे पिठो घालून रांदनी वयलें सकयल काडचें.

### रायतें

साहित्यः- 3 कारांतीं, 5 हरव्यो मिरसांगो, आमटाण, अर्द नाल्लाची सोय, 5-6 मिरयां, 1 वाटी गोड, 1 ल्हान कुलेर सांसवां, 1 ल्हान कुलेर हिंगा पिठो, 1 कुलेर तेल.

करपाची तरा- कारांतीं बारीक शिंदून मीठ लावन अर्दवर दवरचीं. सोय, हरव्यो मिरसांगो, मिरयां, आमटाण वाटून घेवचें. एका आयदनांत तेल तापोवन सांसवां, हिंगाची फोडणी दिवची. तातूंत शिंदिल्लीं कारांतीं बरीं पिळून घालचीं. कारांतीं तांबडीं जायसर तळसुचीं. मागीर तातूंत वाटप, गोड, मीठ घालून शिजोवन सकयल काडचें.

भलायकी

राज वैद्य



# जेनेरीक घेवं?



[illegible]

[illegible]

**राज वैद्य** [illegible]

तळमळीन वावुरतात. आपल्या

लिखाणांतल्यान आनी विगड

विगड चर्चासत्रांतल्यान ते

लोकांमदीं जागृताय हाडून

योग्य वखदां कशे तरेन घेवप

हाचें सातत्यान मार्गदर्शन

करतात.

पत्तो : इंडियन फार्मास्युटिकल असोसिएशन, गोंय

मो. : 9422062286

ई-मेल : ipacpd@gmail.com

---

दनपारच्या वेळार हरीन फाम र्सीत नदर मारली. ताका शंकर मात्सो मेकळो आसा म्हणपाचें दिसलें आनी तो भितर सरलो....

शंकर: येयात, खूब तेंपान दिश्टी पडले तुमी.... बरीं न्ही सगळीं?

हरी: हय रे. कोविडाची काळजी घेतात सगळीं म्हणून चडशीं भायर सरत नात आमी... तुका एक गोष्ट विचारतलों म्हणून आसलों खूब दीस...

शंकर: विचारात... आयज मात्सो सुशेगूय आसा, पब्लीक हॉली डे न्ही..!

हरी: हालींच्या दिसांनी बरीच जाहीरातबाजी चल्ल्या, जेनेरीक वखदां घेयात म्हणून 70/80 टक्के डिस्काऊँट, पयशे वाटयात... आनीक आनी किते..! म्हळें, तुका विचारतलों, हीं वखदां घेवप योग्य की न्ही तें....

शंकर: हंऽऽ हाचेर तुमकां सरळ, रोक ठोक उत्तर दिवप मातशें कठीण! कारण भारतांत परिस्थिती मातशी वेगळी आसा.... जगभरांत जेनेरीक वखदांक प्राधान्य दितात, कारण तीं बरींच सवाय आसतात. ब्रेंडेड वखद आसता तें 10-15 वर्सां तरी पेटंटाच्या संरक्षणांत आसता, आनी तितलीं वर्सां तांकां आपलो प्रेस लावंक मेळटा आनी तो भोवतेक करून बरोच म्हारग आसता..! मागीर जसो पेटंट काबार जाता, तशें हेर कंपन्यांत त्या वखदांचें जेनेरीक तयार अथवा मार्केट करपाची परवानगी मेळूं शकता..!

हरी: मेळूंक शकता???

शंकर: हय. शकता म्हणजे, त्यो हेर कंपन्यो ज्या देशांत मार्केटींग करतल्यो, त्या देशाच्या ड्रग कंट्रोल विभागा कडल्यान परवानगी घेवची पडटा... आनी हाका लागून तांकां तांचें जेनेरीक वखद हें ब्रेंडेड वखदांच्या इक्कवेलण्ट आसा हे सिध्द करून दिवचें पडटा...

हरी: हें इक्वेलण्ट म्हणजे नेमकें कितें आनी कशें सिध्द जाता तर?

शंकर: तुमकां सारकें समजावन सांगपाचो यत्न करतां हां....... आमी एक गुळयेचें उदाहरण घेवया... कॉलेस्टेरॉला खातीर अॅटोवास्टॅटीन हें वखद वापरतात. ताच्यो गुळयो मेळटात. समज 10 मिलीग्रामाची गुळी आसा जाल्यार तातूंत 10 मिलीग्राम अॅटोवास्टॅटीन आसपाक जाय. शिवाय ती गुळी गिळतकूच तातुंतलें वखद जे गतीन आनी प्रमाणांत पेशंटाच्या आतड्यांतल्यान रगतांत शोषून घेता आनी पावता, तें ब्रेंडेड वखदां प्रम णेच आसपाक जाय. जाल्यारूच ताका जेनेरीक इक्वेलण्ट म्हणटात आनी जेनेरीक वखदाचो दर्जो दितात. जरी गुळयेंत 10 मिलीग्राम आसलें तरी सगळेंच 10 मिलीग्राम रगतांत शोसून घेतलेंच अशें नासता..... पूण दोन 10 मिलीग्रामाच्यो गुळयो घेतकूच जर दोनूय गुळयांची रगतांत शोषून घेवपाची गती आनी प्रमाण जर एक सारखेंच आसलें जाल्यार तांकां

दोगांक बायोइक्वेलण्ट म्हणटात.

हरी: तुज्या म्हणण्या प्रमाणे एखादें जेनेरीक वखद आनी ब्रेंडेड वखद हें दोनूय बायोइक्वेलण्ट आसपाक जाय?

शंकर: बरोबर... पूण ही गॅरंटी आसपाची शक्यताय इतर देशांनी चड...... कित्याक जाल्यार तांचे नियमूच तशे आसतात...... बायोइक्वेलंसीचे पुरावे दिवचे पडटात.

हरी: आनी आमच्या देशांत??....

शंकर: सद्या तरी आमच्या देशांत तें धोरण लागू जावंक ना. आमच्या देशांत वखदांची पोटेन्सी, तयार करपाची पद्दत, वखदांची पवित्रताय, सुरक्षा, हाच्यो चांचण्यो अनिवार्यीत आसात.... पूण बायोइक्वालंसीची सक्ती ना...

हरी: म्हणजे आमच्या हांगा जर 5-6 कंपन्यांचें तेंच वखद समज अॅटोवास्टॅटीन 10 मिलीग्राम गुळयांची चांचणी तुलना केली जाल्यार तांचो रिजल्ट वेगवेगळो येवंक शकतलो ?.....

शंकर: हय, शक्यता आसताच. जर केमीकल चांचणी केली जाल्यार सगळ्या गुळयांनी 10 मिलीग्राम आसपाची शक्यता जरी बरी आसता, तरी प्रत्यक्षांत आतड्यांतल्यान कितले आनी खंयचे गतीन शोषून घेत हें मात सांगू शकना, फरक आसूं येता.

हरी: पूण असो फरक कसो आसूं शकता? सगळ्या कंपन्यांनी 10 ग्रामूच घातला नी तांच्या गुळयांनी?

शंकर: तशें तुमकां दिसप सहाजीकूच आसा..... पूण प्रत्येक कंपनीच्यो गुळयो करपाचो प्रोसेस वेगळो आसूं येता..! जरी अॅटोवास्टॅटीनच वापरलें तरी तातूंत आनीक तरे तरेचे घटक वापरचे पडटात! एक गुळी करपाक तांकां इनएक्टीव किंवा एस्कीपीयंट्स म्हणटात. उदाहरणार्थ गुळी एकत्र उरपाक बाईंडर, फीलर, मीक्सींग करपाक, गुळी मशिनान पेक करपाक, कल्ल, कोटिंग करपाक अशे अनेक घटक उजार जातात. मागीर मशिनांत गुळी कितल्या प्रेशरान प्रेस करतात, मिश्रण करतना कितलो काळ लागता, कितलें टेंपरेचर वापरतात.. अशे अनेक फॅक्टर आसात, जांकां लागून जें मूळ वखद आसा तें पोटांत , आंतड्यांत पावता तेन्ना तें डिसोल्व जावप आनी अॅब्जोर्ब जावप, आंतड्यांतल्यान रगतांत पावप हातूंत फरक पडूं शकता...

हरी: मातशें मातशें समजुपाक लागलां म्हाकां आतां... म्हणजे अशें जावं येता, जर हांव सद्या घेतां तो ब्रँड जर बदलून दुसरे कंपनीचो घेतलो, जाल्यार वखदाचो येफेद कमी जावं येता?

शंकर: हय जावं येता... किंवा जर चड अंश रगतांत पावता आसत तर चड एफेद जावंक शकता किंवा साईड इफेक्ट वाडूं येता...

हरी: ओह आय सी ...

शंकर: वेगवेगळीं वखदां आमच्या आंतड्यांत वेगवेगळ्या प्रमाणांत आनी गतीन डिसोल्व जातात. .... जीं वखदां रोकडींच घोळटात, रोकडींच अब्जोर्ब जातात तांकां बायोइक्वेलंसी चो विशेश प्रोब्लम येना. पूण इतर वखदांक तो येता. म्हणून तर जनेरीक वखदांचो दर्जो सिध्द करप म्हत्वाचो...

हरी: पूण कितलेशेच जाण आमच्या देशांत ह्यो जाहिराती वाचून जेनेरीक वखदां घेतात.... तांकां तूं म्हणटा तो हो फरक जाणवचो ना?

शंकर: केन्ना केन्ना हें कळप सोंपें नासता, केन्ना जाणवता आसत, किंवा तांचें ताचेर लक्षूय नासत, हांवें जो विशय हांगा सुटावो केला तो चडश्या लोकांक खबरूय ना आसूं येता... अनेक लोकांक सवाय वखदां मेळप हें म्हत्वाचें अशें तांकां दिसता...

हरी: आतां हें सगळें तुजें आयकून, परत प्रस्न करतां... हांवें हीं सवाय जेनेरीक वखदां घेवपाचें जर थारायलें तर तुजो कितें सल्लो म्हाका?...

शंकर: तुमच्या दोतोरा कडेन ह्या विशयाचेर चर्चा करून तुमी कितें तो निर्णय घेयात.... तुमकां प्रेशराचें आसा, डायबिटिस आसा, कोलेस्ट्रोलाचें आसा... तें सद्या कंट्रोलांत आसा. शक्यतो तुमी जीं वखदां वापरतात तींच घेवप योग्य! पूण बदलतले जाल्यार तें दोतोराक खबर आसूं दी. .... आनी जर तुमी वखदां बदल्लीं जाल्यार तुमचे पॅरामीटर मॉनीटर करीत रावात. प्रेशर, शुगर, कॉलेस्ट्रोल.......

हरी: बरें आसा... तुवें एक डिप्लोमेटीक जाप दिली... पूण खबर आसा म्हाका,तुवें योग्य ती जाप दिल्या... तुवें जें कितें स्पश्टीकरण केलां तातुंतल्यान खूब कितें शिकपाक मेळ्ळें म्हाका... देव बरें करूं...!



**संतोष हळर्णकार**
बांदिवडे-बंदर,फोंडा-गोवा 403 401
मो. : 9762641615



## सेतेंब्र 2021 उतरकुवाडें

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| 1 | | 2 | 3 | ■ | 4 | | 5 | | 6 |
| | ■ | 7 | | 8 | | ■ | | ■ | |
| 9 | 10 | | ■ | | ■ | 11 | | 12 | |
| ■ | | ■ | 13 | | | | ■ | | ■ |
| 14 | ■ | 15 | | | ■ | 16 | | ■ | 17 |
| 18 | | | | ■ | 19 | | ■ | 20 | |
| | ■ | | ■ | 21 | | ■ | 22 | ■ | |
| ■ | 23 | | 24 | | ■ | 25 | | | |
| 26 | | ■ | 27 | | | ■ | | ■ | ■ |
| 28 | | | ■ | | ■ | 29 | | | |

## आगोस्त 2021 ची जाप

**आडवे :** 1-कुटुंबाचो मुखेल भट, कुटुंबाचीं देवकार्यां करपी भट. 4- दुसऱ्यागेर रावन तांगेलो वावर-धंदो करपी मनीस, मानाय. 7-मनाक मानता तशें वागपाची तरा, कोल्ली वृत्ती. 9-भूंय,धर्तरी. 11जापसालकी, जबाबदारी. 13-दोन मनशां मजगतचें उलोवणें. 15-फाटीर कट्टें आशिल्लो चार पांयांचो जीव. 16- पुताची बायल. 18-बादा, आडखळ, अडचण, त्रास. 19-मात्रांचो वांटो, ठेको. 20- प्रसाद, देवाली म्हणणी वा शिकोवणी. 21-अभिनेतो. 23-बेजार करपाचो कसलोय वावर, उबगणचा वावर. 25- लकलक, झगझग, खर उजवाड. 27-व्हड ताट. 28- बगलाट, किचांट, आळ, बेअब्रू. 29-सात दिसांचो गट.

**उबे :** 1-मूळ पुरूस, आदल्यो पिळग्यो, वाडवडील. 2-संगितांतलो एक राग. 3-कूड, शरीर. 4- हंदरा येदी एक लापीट मोनजात. 5-रक्त.6-चाकर, सेवक. 8-मामालो पूत.10-उदकांतलो खार, धवसो खड्यांचो पदार्थ. 11-ल्हान पणस.12-कुंतीचो पूत, कौंतेय, कान. 13-संगत, वसो. 14- आवय, धर्तरी, पृथ्वी, देवता, विठ्ठल. 15-दागची फास्की, जनेलाची फास्की. 17- शिश्टाचार, वागणूक, आचरण. 19-जेवण खावपाचें उथळ आयदन. 21-नाच करपी शकर. 22- अचकीत, अचानक. 23- कापाकापी, संहार. 24- चिनी मानयेचो पेलो. 26- बगर, भायर, विणें

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| नि | स | र्गी | क | ■ | च | रा | च | र | ■ |
| वें | द | ■ | रा | व | ण | ■ | म | ■ | मा |
| द | ळ | दि | र | ■ | च | क | च | की | त |
| न | ■ | र्घ | ■ | घ | ण | ■ | र्मा | ■ | न |
| ■ | चा | क | ■ | ड | ■ | मु | त | ख | डां |
| ग | ल | था | न | ■ | ■ | खा | ■ | ब | ■ |
| ल | क | ■ | ड | ■ | घ | र | का | र | ■ |
| ब | ■ | क | ■ | झं | डा | ■ | न | ■ | क |
| त | का | ल | म | ■ | मां | ड | र्गी | ■ | मा |
| ■ | प | र | त | फं | ड | ■ | ल | ढा | य |

POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/2021-2023
RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413
Published on 1st and posted on 5th & 10th day of every month



Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim-Goa & Printed at Impression, Belgavi. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, Email : bimbkonkani@yahoo.co.in